
GOA
Everybody loves Goa. There is something special about this tiny Indian State which features among the world's most favored holiday destinations. No, we are not boasting. The statistics speak for us. Goa offers a unique experience that will last for a lifetime. So many special and interesting places to see and exciting, enjoyable things to do. Breathtaking, mesmerizing moments that you can carry back with you. Enchanting moments and memories, that will remain with you forever.
Goa...
Simply unforgetable.
GTDC offers a wide range of packages for a memorable holiday.
Goa in monsoon( paddy fields)
Gaon carnival
Sunset along the beach side
Famous festival during monsoon "Sao Joao"
DEPARTMENT OF TOURISM
(A Govt. Of Goa undertaking)
Patto, Panaji, Goa - 403001, India. Tel. No. 91-832-2438750/52. Fax: 91- 832-2438756.E-mail: goatourism@dataone.in
http://www.goatourism.gov.in
Goa Tourism Development Corporation Ltd.
(A Govt. Of Goa undertaking)
Trionora Apartments, Dr. Alvares Costa Road, Panaji - Goa. Ph. 0832- 2224132, 2226515, 2226728. Fax: 08
Email: reservations@goa-tourism.com Website: www.goatourism.com
VINSAN GRAPHICS, GOA - 9822100567

# जैत

## दिवाळी 2010

**वर्स – 33 वें** **अंक – दोन**




संपादक

**भिकू बोमी नायक**

कार्यकारी संपादक

**प्रा. सत्यवान स. नायक**

मुखचित्र

**जनार्दन शेटये**

उजवाडपी

**सुरेश सगुण नायक**

जैत प्रकाशन

336/11, खोर्ली–इल्हास,

तिसवाडी–गोंय 403 110

फोन : 2284637

अक्षर जुळणी, छापपी

**सह्याद्रि ऑफसेट सिस्टम**

खोर्ली, तिसवाडी – गोंय

मोल :

**100/– रुपया**

# मांडावळ

# संपादकीय



दिवाळी ही उजवाडाची परब म्हूण आमी मनयता. रातिचो नरकासुराचो वध करून फांतोंडेर दिवे पेटोवन उजवाडाचो उत्सव मनोवपाक आमी गुल्ल जातात. नरकासुर हें वायटाचें प्रतिक. त्या खातीर ह्या वायटाचो नाश आमी 'लासून' करतात. सौख्याकडे वचपाची मोख दवरतात. ती पुराय करपाक धडपडटात. एका वेळार ही परब हिंदूंची जांवन आसली. आयज ही परब सर्व धर्मिय भारतीयांची जाल्या. सगळे भारतीय ही उजवाडाची परब मोठ्या उमेदीन मनयतात. खोशयेंत सामील जातात. मनशाच्या जिवीतांत उजवाडाक खूब म्हत्व आसा. देखून आमी प्रत्येक जाण उजवाडाची आराधना करूया. जिणेत सदांकाळ उजवाड फांकू म्हूण यत्नशील रावूया. देशाचो धर्मिक एकवोट सदांकाळ तिगचो हे खातिर संकल्प करताना भारताच्या उदरगतीचें सपन बाळगूया. जैताच्या या दिवाळी अंकात बरोवपी लेखक, देणगी दिवपी जायरातदार, बरें मागपी वाचक, आनी हितचिंतक हांकां सगळ्यांक हें वर्स सुखाचें वचचें अशें काळजाल्यांन व्यक्त करता. आनी प्रत्येकाच्या जिवनात चैतन्य भरून उरूं, सगळ्यां खुशाळकाय मेळू अशें आंवडेता.

देव बरें करू.

कथा

# नि:शब्द



महाबळेश्वर सैल

शिल्पालो घोव सिआरपींत आसलो. ताका येवन परतो वचून स म्हैने जाल्ले. पयरच चीट आयल्ली. हे वटेन ड्युटेकबीन पडल्यार घरा येवन वता म्हण. सद्या तो आपले कंपनीवांगडा गडचिरोली वटेन नक्षलवाद्याआड उबो आसलो. तांच्या लग्नाक देडेक वर्सच जाल्लें.

... शिल्पा रातचें आपले कुडीन एकलेंच न्हिदिल्लें. म्हऱ्यानच्या एके कुडींत मांव आनी मांय न्हिदिल्ली. कुडीचें दार बेठेंच आड केल्लें. खिळी घालूंक नासली. शिल्पालो सगळ्या संसाराचेर एक आगळोच निरागस भावार्त. तातूंन घरांत दादलो म्हण्टा तो मांव एकलोच. तो तर बापायसारको!

मांव म्हण्टा तो बापायसारको अशेच ताणें धरिल्लें आनी ताचेर दुबाव घेवंक नासलो. दुबाव घेयसारखे कांय खीण आयल्लेय, पूण नितळ, निरागस मनाच्या शिल्पाक खंय कांयच वांकडें दिसलें ना. हांव ल्हान आनी तो कितलो जाण्टो! ते रातीक तो शिल्पाले कुडींत आयलो. तागेल्या आंगावेले चादर कुशीक काडून आंग सासपूंक लागलो. शिल्पा जेमेतशे आशिल्लें. कळटकीर उज्यान पडिल्ले मांजर कशें तें धडपडत उठलें. उठलें आनी हड्ड्यासरीं हात घट्ट धरून एका कोनश्यान वचून उबें रावलें, आकंताळी शक्त एकटावन सोताक राखून. आतां काळखानच ताका तो सारखो दिसलो – हय मांवच तेगेलो तो. मोडको, घटमूट आडव्या आंगाचो. तकलेवेले केस खरखरीत उबे जाल्ले....

मांव कांय वेळ वोग्गी पळयत रावलो आनी मागीर काडून भायर गेलो. तें तर कोनश्यात अशें उबें आशिल्लें. म्हऱ्यान गेल्यार आपणाचेर पाषाण कोसळटलें अशें ताका दिसलें जावये.

इतले जाले तरी शिल्पान तोंडातल्यान येद्दो आवाज काडलो ना. दुसरे कुडीन आशिल्ले

मांयकय जागयलें ना...

आवाज केल्यार शेजारचे जागतले, कान लावन बसतले, फाल्यां कितें जालें काय म्हण विचारतले. लज जातली, म्हजी आनी घराब्याचीय. खबर भटकळा आशिल्ल्या धाकल्या देरामेरेन पावतकच तो धांवन येतलो. झगडीं जातलीं. लग्न जाल्ले नंडेकय बापायन अशें केलें म्हण कळल्यार ती जीवच सोडटली. कितल्या मोंव मनाचें गुणेस्त ते चेडूं!

... मांय तर सामकी साधी बाबडी. वर्सभर देवदेव करीत असता. दर वडापुनवे दिसा मुखाल्ले सात जल्म होच घोव दी म्हण देवाकडेन मागता. हे अशें म्हण कळल्यार भितरले भितर सुकून मरून वयतली. वा घोवाक कोंचोवक लागतली. घरांत झगडीं जातलीं.

वा फाल्यां सगळे लोक म्हाकाच फटकिरें म्हण गुन्यावकारी धरीत!

दुसरे दीस दिसभर ताच्या मनात मोटो घुसमट आनी संभ्रम. बापायवरीच बापायसारको मनीस तो. असो कसो दुश्टपणान वागलो!

मर्दीच ताका हड्डें फुटून रडूंक येतालें. खंयूय अडसराक बसून ते रडून येतालें. रात जावच्याक काळोख पडूंक आयलार ताचे काळीज, हड्डे भिरांतेन खपखंपूक लागलें. माव दिश्टीक पडल्यार आंग चिरिल्लेवरी जातालें. कोणाक कांय सांगूक जायना आनी ह्या घरांत रांवकय जायना!

रातीं न्हिदूक वयतकीर ताणें सतरा फावट दाराची खिळी पळयली परत परत ती दाम्मून घातली. तरीय न्हिदलार न्हीद पडुना. धापिल्ल्या दोळ्यामुखारच काळखान राकेसाले आकृत्यो नाचताल्यो. काळोख गोठेताल्यो आनी ताची वाकडी - तिकडी हाडांबोडां जाताली. तातून मांवूय खंयतरी उबो. एक फावट दिसलें, मांयक व्हडान उलो मारून आफोवचे.

दूसरे दिसा सकाळीं ताणें बॅगान दोनच साडी पोल्क भरलें आनी कोणाक काय सांगिनासताना कुळरा वचूंक सुटलें. पिसावल्लेवरी वाकडीतिकडी पावलां उडयत चलतालें. तें भायर सरून वयता ते पळोवन मांय आकाड्यामेरेन आयली. 'आगो खंय वयता म्हण विचारल्यार ताणें फाटी लेगीत वळोन पळयले ना. मांयक भारी राग आयलो. ती फणफणत ताका कितेकितें उलयत रावली. पूण मांयक अजाप दिसताले, सकाळपासून ते घरात एक उतर उलोवक नासलें. मांव वोगच भायर तर लिपलोसो दोपलोसो करतालो. साद्या सरळ मनाच्या मांयक कसलोच दुबाव येयलो ना. मनांत मात चुटपुटत रावली, कांयच उलयनासताना गेलें ते! अशें केन्ना करूंक नासलें. म्हजेच कितेंय चुकलें काय देवा! हांव तांदुळगोटो मेजून मापून दितां तें ताका मानवना काय? तेगेल्या घोवाली नोकरी तर अशी लग्न जायतसान चड भायरच आसा. ते तळमळेच आसतले! तरीय मांयक ताचो राग आयिल्लो.

कुळटा वचूंक गांवांलागसल्ल्यानच बशी वयताल्यो. पण ताणे ते कांयच चितलें ना. बशीच्या वेळेचो उगडासच केलो ना. ती तिनचार मैलांची वाट चलतच ते कुळरा पावलें.

कुडटा आयल्यारच ते कांय उलयलें ना. आवयन 'मर्दीचकच येयलें गो' म्हटल्यार तेणें तोंडातच उतरां घोळयत कितेंतरी म्हटले. आवय चडच खटासून विचारूंक लागली तें तापलें, 'हांवे कुळटा येवचे न्ही किते? याद येयली येयले हांव. घोव तर गांवांभायर.'

बापूय कांयच विचारी नासलो. धूव दोळ्यामुखार आसा हातूनच तो भुल्लूसून गेल्लो. ताची दीस्ट काडिल्लेवरी ताचेसरी किते किते उलयतालो.

शिल्पा कांयच सांगिनासलें. सांगल्यार उत्पात जातलो. घडये आवय आनी बापूय दोगय मांवाचें मडें घालूंक धांवन वयतली. दोनय घराब्यामदीं सासणाचें दुस्मानपण येतलें. घोव दुखावतलो. आवय बापायक दिसतलें, इतलें थाटामाटांत लग्न करून आपणे चलयेक कसल्या पाड घरांत व्हरून दिली! तें दुःखी जातले रडटलें. म्हजी भयण शिलाचे लग्न करूंक तांची उमेदच मरतली. शिलाच्या कंवळ्या मनारय घाये पडटले...

ताणें घोवाकय कांय कळयलें ना. घोवाक पत्र बरोवंकच ताका भिरांत दिसताली. कितें बरयतलें, कुळटा कित्याक येयलां म्हण सांगतलें? वर्सा परमाणें ह्याय वर्साक घरासकल निरवल्यो केल्ल्यो. ताका बांयतल्यान उदक काडून घालूंक जाय आसलें. मांयची धोपरा दुखिल्लेवरी दुखतात. आतां निरवल्यो सुकून वयतल्यो.

म्हैनो दोन म्हैने गेले. पूण शिल्पा घोवाघरा परतलें ना. घोवाघरची याद आयली की ते कच्करून आंग काडटालें. मांवाचो मोटवो आडवो बांधो दोळ्यामुखार येतालो. आनी जीव खप्प करून बसतालो.

पूण मायन पुताक पत्र बरयल्लें. मांव पत्र बरय म्हटल्यार कांयच आयकनासलो. म्हण तिणें हेरांकडल्यानच बरोवन घेतिल्ले. कांय म्हटलें ना केलें ना. माल्लें ना धल्लें ना. उठाउटी उठलें आनी गेलें कुळरा. वयताना एक उतरान सांगले ना. लायल्ले निरवले रोपे मरून गेले. म्हजी धोंपरा दुखतात, रांदून जेवंक जिवार येता. दारांतल्या कवाथ्यांन म्हैनोभर उदक पळयले ना.

वाचून घोव रागार फुगार जालो. काय दीस चडफडत रावलो. बायलेचो राग येतालो. ताका बायलेचें पत्र आयलें ना. ताणेय तिका पत्र बरयलें ना.

मदी ताची सिअरपी कंपनीक गडचिरोलीसान फार्टी घेवन हैदराबादाक धाडलें. तेन्ना वाटेर ताणें आठ दिसांची रजा घेवन तो घरा आयलो. घर भणंग विसकटून उडयल्लेवरी जाल्लें. आवय धोंपरा धरून फटकतालीच. बापुय टि. बी. जाल्लेवरी खोंकलोसो भेकलोसो करतालो. देवाक उले घालतालो.

घोव आयल्लोच तडक शिल्पाल्या कुळरा गेलो. घर कित्याक सोडून आयलां काय म्हण ताणें तेका खूब तापयलें. गाळी संवल्यो. तेन्नाय ते कांयच उलयले ना. तो परतो येवंक सुटटकीर आवयन शिल्पाक ताचे फाटल्यान धुकलून घालूनच धाडलें. तो सडसडीत पावलां घालीत वयतालो. शिल्पा ताच्या फाटल्यान धांवतालें. तो मदीच मातसो थाल्लो. ताणें फाटी वळोन रागानच पळयले आनी विचारले, ‘सांगिनासतना कित्याक अशें येयल्ले तूं.’

काय बरी संद आयिल्ली, दोगांच आसताना सगळे सांगून मेकळे जावचेली, पण ते आताय कांय उलयलें ना. ताका ओगीच दिसताले उलयल्यार आतां मळब मोडून पडटलें. सगळें फासपूस वयलतलें.

‘यो तूं घरासर्री यो, दांड्यान झोडून काडटां तुका.’

ती घरात पावली आनी खरेंच तो भायर वचून एक कोंड्याबडी घेवन आयलो आनी ताका मारूंक लागलो.

तरी तें उलयलें ना. मार सोसूंक नज जातकीर ताणें तितलेंच म्हटले, ‘चूक जाली म्हजी, आनीक आनी वयचें ना.’ तेन्ना मांयनच येवन ताका अख्खें मिठयेंत घेतिल्लें. ●●●

कथा

# तारवटी



माया अनिल खरंगटे

बेलिंदा आनी पिटर आपलो पूत सायमना वांगडा दवर्ले रावताली. पीटर एक नुस्तेकार. दवर्लेच्यान एक चावे कोप मारून फांतोडेर पांचाकच तो हॉलसेल नुस्त्या मार्केटांत नुस्तें हाडपाक वतालो. सायकलीन थंय पावंक ताका उणेंच अर्दवर जाय आसलें. तेंय तो आडरस्त्यान वतालो म्हणून. हेर नुस्तेकार एकामेकांक सादयत फकाणां - मस्कऱ्यो करीत वांगडाच मुखेल रस्त्यान वताले. तांकां पावंक बरोच वेळ लागतालो. पूण पिटराक ताकतीक आसताली.

तो जाणां आसलो, जितलें बेगीन हॉलसेल बाजारांत पावता तितलें, बरें बरें नुस्तें वेंचून घेवंक मेळटा.

फांतोडेर अडेच - तिना साकुनच बाजारांत नुस्त्याचे ट्रक येवंक सुरवात जातात. इतले फांतोडेर पयस गांवांत नुस्तें व्हरपी लोक एकठांय येवन पिकपी घेवन नुस्तें व्हरूंक येतात. मागीर हळू हळू लोकांची गर्दी जाता. सायकलीन वा माथ्यार पाटें घेवन वा खंयी बसून नुस्तें विकपी, हॉटेलकर सगळेच सकाळीं फुडें नुस्तें मोलावन व्हरपाक थंय येतात. व्हडले हॉटेलकार धपक्यांत बरें बरें नुस्तें घेवन व्हरताले.

नुस्तें कापून दिवपीय फांतोडेर साकून आपली व्हड सुरी घेवन तयार रावताले. जायते जाण सोमतेच नुस्तें कापून घेताले. नुस्तें उजरावप्यांचोय धंदो थंय बेस बरो चलतालो. पिटरय विस्वण, कल्ली मेळ्ळी जाल्यार कापून घेतालो.

पयलींच नुस्त्याक घाल्ल्या झेलाच्या उदकान थंय चिकचीक जातालो, तातूंत नुस्त्याची घाण. नुस्तें उजरावपी नुस्त्याची हळशीकय थंयच उडयताले. ताचो कुसको वास मारतालो. तातूंत सुर्णी, माजरां, कावळे, गीद तें खांवक गर्दी करताले. अशा वातावरणांत थंय फांतोड फुलताली. धंदो करूंक थंय येवपी कोणाकच त्या वातावरणाचो वीट येयनासलो. तांचे तकलेंत नुस्तें बरें मेळूं जाय, सवाय मेळूं जाय हीच चिंता. पिटरय त्या हळशिकेंतल्यान नुस्तें मोलायत फिरतालो.

कांय बायलो थंयच पाटीं घेवन नुस्तें विकूंक बसताली. चड आनी सवाय नुस्तें जाय आशिल्ले

लोकय सक्काळीं पिशवी घेवन थंय नुस्त्याक येताले. आठ-आठ दिसांचें नुस्तें एका बरोबर घेवन फ्रिजांत दवरून वावर काडपाची संवय कांय जाणांक आसता. सदांच उठून बाजारांत येवप तांकां जमना. अशे लोक मात थंयचे घाणीक विटत नाकाक लेंस लावन शीऽ थूऽ करीत फिरतात. इतलो वीट येवनय सवाय नुस्तें सोदपाक हेवटेन - तेवटेन फावटी घालपाक सोडनासले.

दवर्ले वाड्यार सायकलीर नुस्त्यापाटें लावन नुस्तें विकपी नुस्तेकार खूब. सगळ्यांकच बरें गिरायक मेळटालेंचशें ना. तातूंत पिटर हुशार. नाना युकत्यो करून तो दनपार मेरेन आपलें नुस्तें खपयतालो. बरेशें नुस्तें थोडें काडून घरा व्हरपाक पेल्यान दवरूंक तो विसरनासलो.

एकदां भायर सरिल्लो पिटर बद्द जेवंकच घरा वतालो. सकाळचें नुस्तें घेवन पाटें भर्ल्लें काय तो थंयच्या फिरत्या हॉटेलार खावंक खातालो. थंय नुस्त्याच्या धंद्या वांगडाच हेर जायते जाण आप-आपले धंदे करताले. थंयच एकलो विकपी फाटल्यान च्याची किटली, खाण दवरून फिरतें हॉटेल चलयतालो. प्लास्टीकर्ची कोपां, कागदाच्यो प्लेटी घेवन तो धंदो करतालो. पिटर थंयच पाव आनी लावपाक कितेंय घेवन उब्यानीच खावन नुस्तें घेवन विकपाक वतालो.

बेलिंदा ताची घरकान्न घरा फाटल्यान आशिल्ल्या जाग्यांत भाजी-पालो रोयताली. पावसांत पावसाळी भाजी आनी उपरांत चडश्यो मिरसांगो आनी थोडी भाजी रोयतालें. घोवा वांगडा फांतोडेर उठून तें पोरसाचें काम करतालें. विकपा व्हरपाची भाजी काडून धुवून चुडयो बांदतालें. सायमनाक इस्कोलाक धाडटकीर भाज्ये पाटें घेवन विकपाक भोंवतालें. आपल्या संवसाराक तेंय आपले परीन हातभार लायतालें.

पिटर आनी बेलिंदागेर व्हडली गिरेस्तकाय नासली. पूण दोनय वेळचें जेवण तांकां जेवंक मेळटालें. फाल्यांची चिंता फाटल्यान आसूं, पूण तीं आसा तातूंत सूख मानून समाधानान रावतालीं.

ताणीं आपल्या एकट्या एकसुऱ्या पुताक सायमनाक बरो शिकोवन तारवार शिर्वीसेक धाडपाचें थारायल्लें. तांच्या आशिकुशीक तांचीं सोयरीं चडशे तारवटी ना तर अरेबीक राज्यांत शिर्वीसेक वचपी. तांचो नेट बंगले, घरांतलो चकचक सगळ्यांकच भूल घालतालो. एक व्हिजाय मारून आयले काय आंगार धा-पंदरा लिब्राचीं भांगरां सहज आसताली. शिकिल्लो आसूं ना तर शिकुंकनाशिल्लो. मनीस भायर वचून आयलो काय ताचें मोल, ताचो नेट वाडटालो. सगळींच तांच्या चकचकाक भुलतालीं. ते थंय कितें काम करतात हो प्रस्न कोणच करनासलो. काय तो विशयच कोणाक नाका आस्तालो काय?

बेलिंदा आनी पिटराचेंय तशेंच जाल्लें. तींय भायर शिर्वीसेक वचप्यांच्या गजालीनी दिपावल्लीं. तांकां मनापसून दिसतालें... 'सायमनाक तारवार शिर्वीसेक धाडल्यार ही गिरेस्तकाय आमच्याय घरांत येवं येता...' त्या पासत लागपी पयसो तीं आतांपासुन जमयतालीं.

बेलिंदाक दिसतालें सायमनान शिकप घेतनाच बरो मनीस म्हूणून मुखार येवचो. तें ताका इगर्जेंत आयकल्ल्ये देखदिण्यो काणयो सांगतालें. आपलेभशेन निती नेमाचे धडे दीत रावतालें. सायमन बेलिंदावरी मायेस्त सभावाचो आसलो. तितलोच भिजूड कसो आसलो. कसल्याय कामाचो ताका भंय पयलीं दिसतालो. खंयीय मुखार सरपाक ताका आवड नासलें.

बेलिंदा फोर्सान ताका इश्टां वांगडा खेळपाक धाडटालें. थंययी तो फाटीं फाटीं रावतालो. ताच्या ह्या सभावाक लागून वांगडचे ताची वाट लायताले. ताणीं तिडायलो. कुटलायलो जाल्यार वोग्गी

मार खावन घरा येतालो, आनी रडत बसतालो. मागीर बेलिंदा ताच्या इश्टांकडेन झगडूंक वतालें. तेय पासत ताचे इश्ट ताका चाळयताले... ''मामीगे इस्तिदा पोंदा माजोर'' म्हणून तिडायताले. मागीर सायमनाक तांचे वांगडा खेळूंक वचपच नाका दिसतालें. तो आवयक कितलो आडायतालो, ''... मांय, पाड पोडों तेंचें, तेंकां कांय विचारनाका हांव. तेंचे बाराबोर खेळों वोचना...'

पूण सायमनाचें रडत घरांत बसप ताका मानव नासलें. हरशीं शांत, मायेस्त बेलिंदा सायमनाच्या दोळ्यांत दुकां पळयलीं काय, खांण्यांक बशिल्ली कोंबी कोणय ततयां व्हरूंक येत म्हणून जशी चाळवता तशें चाळवतालें. त्या वेळार तें कोणाचेंच आयकनासलें.

सायमनाचो भिजूड सभाव काडून हुशार करपाक पिटरान आनी बेलिंदान जायते यत्न केले. ताका कराटेक लेगून घालो. तांच्या यत्नाक फळ आयलें. सायमन खऱ्यानीच हुशार जालो. 'आरे' म्हळ्यार 'कितले' म्हणपा इतलो हुशार जालो. पूण ताचो मुळचो मायेस्त सभाव मात बदललो ना. तो बेश्टो कोणाकडेन झगडीं किजीलां करनासलो.

सायमन हरशीं सगळो हुशार जाल्लो, पूण अभ्यासांत मात ताचें मातय लक्ष लाग नासलें. एका एका वर्गांत दोन दोन वर्सां बसोवनय ताची गाडी मुखार वचपानासली बुकां वाचप, बोर्डार घाल्लें बरोवन घेवप हाचोच ताका कंटाळो येतालो. नापास करून फाटीं दवरपना ह्या कायद्याखाला ताका दुसऱ्या वर्गांत धुकलचोच पडटालो.

पूण खेळूंक मात तो खूब हुशार आसलो. फुटबॉलांत तर तो सामको तरबेज आसलो. खेळामळार तडशीं इनामां ताच्याच नांवांर आसतालीं. ते पासत शिक्षक ताची तोखणाय करताले. आंतर शालेय सर्तींत सायमन आसल्यार तांचीच शाळा जिखतली हाची दुसऱ्या शाळांक लेगीत खात्री आसताली. ताचे शाळेक ताणें खूब इनामां मेळोवन दिल्लीं. अभ्यासांतय ताणें हुशार जावचो म्हणून शिक्षक खास लक्ष दिताले पूण बॉल जितलो फिशालकायेन ताच्या हातांत घोळटालो तितलें पेन ताच्या हातांत उर नासलें.

तो अभ्यास करिनासलो अशें न्हय, तो पुस्तक घेवन बसतालो. पूण वाचतां वाचतां थंयच न्हिदून पडटालो. मागीर बेलिंदा ताका कचकचायतालें. उदक हाडून ताच्या दोळ्यांर पच्च करून मारतालें. केन्ना-केन्नाय मारतालें लेगीत. आवयच्या भंयान सायमन पुस्तकां घेवन बसतालो. पाठय करतालो, पूण ताच्या लक्षांत उरनासलें. आतां पाठ केल्लें मागीर विसरतालो.

बेलिंदाक हाचीच खंत जाताली.

''बाबाक बरें शिकप दियन, तारवार धाडपा सोपन, सोपनच उत्तो कायी? एसेसी तोरी जावपा जाय बाबान, मागी केसल्याय कुर्सा घालों मेवता, केसो म्हूण शिकोवपा बाबाकू?''

होच भंय बेलिंदाक दीस रात सतयतालो. बेलिंदा सय करपा पुरतें शिकिल्लें. पिटरान इश्कोलांत चार वर्सां काडिल्लीं. तो ए, बी, सी करून हेराल्डावेल्यो हेडलायनी वाचतालो आनी खेळांपान वाचतालो. पूण सायमनाचो अभ्यास घेवपा इतलें गिन्यान ताका नाशिल्लें आनी पांसियेसय ताका नाशिल्लें.

ताणीं ताका शेजारच्या विजयागेर ट्युशनाक घाल्लो. तें बरें करून शिकोवपी. जायते भुरगे तागेर ट्युशनाक येताले. बऱ्या मार्कांनी पास जाताले. सायमन मात ताका आडवाद आसलो. सगळे भुरगे गेले तरी विजय सायमनाक सोडी नासलें. ताका बसोवन पाठ करून घेतालें. पूण फुडलें पाठ, फाटलें सपाट अशे तरेचो सायमन, ताका अभ्यासाचोच वाज येतालो. मास पासिंगाच्या कायद्या

खाला सातवी मेरेन फुडें धुकळूंक मेळटा. सायमनाक सातवेमुखार शाळाच नाका जाली. ताच्या वर्गांत तो वयानय व्हड आसलो.

इतले मजगतीं पी. टी. सरान ताका खेळांप्राधिकरणांत फुटबॉल शिकोवपाक नांव घाल्ले. थंय मात तो मनलावन शिकतालो. ताचो गायड ताचेर खूश आसलो... ''सायमनाक फुटबॉल चॅम्पीयन कोन्न दाखोयतां...'' म्हणून ताणें पी. टी. सराक सांगिल्लें. पिटर आनी बेलिंदा ताच्या खेळार मातय खूश नासलीं. तांकां ताणें शिकप घेतिल्लें जाय आसलें.

कोणें कोणें तांकां खाजगी इश्कोलांनी सांजेर क्लासी घेवन परिक्षेक बसयतात म्हणून सांगलें. ताणीं रोखडेंच सायमनाचें नांव त्या कोर्साक घालें. पूण सायमन क्लासीकच सारको वचना जालो. मागीर परिक्षा खंयची?

सकाळचो, सांजेचो तो खेळा सरावाक वतालो. बाकिचो वेळ तो आलमपेडयेर कसो फिरतालो. ताचे वांगडचे भुरगे एक तर इश्कोलाक वताले नाजाल्यार व्यावसायीक कोर्साक वेताले. पिटरान आपल्या एका इश्टाक सांगून तागेर मेस्तकाम शिकपाक धाडलो. थंय ताचें मन लागलें. तो घोस्तान शिकूंक लागलो. एकदां मेस्तकामांत लक्ष घालतकच ताचो खेळ उल्लो. ताचो गायड् ताका खेळूंक येवपाचो आग्रो करतालो. पूण बेलिंदाक आनी पिटराक तो खेळूंक गेल्लो नाकाच आसलो. ''खेळपाक गेल्यार चेडो पिड्यार जातलो'' अशें बेलिंदाक मनापसून दिसतालें.

ल्हानपणांतल्यान आवय - बापायन सायमनाच्या मनांत तारवार ना तर अरब राज्यांत वचून जोडपाचें पिशें भरिल्लें. ताणेंय तेंच आपलें सपन थारायल्लें. ताचें चीत्त मेस्तकामांत गुतिल्लें खरें, पूण भायर वचपाचें पिशें मातय कमी जाऊं नासलें. तो हाचे ताचेकडेन भायर वचपाक कितें कितें करूं जाय हाची चवकशी करीत आसलो.

तांचो एक तारवटी सोयरो रजेर आयिल्लो. ताणें आपल्या पुताच्या वाडदिसाची व्हड पार्टी दवरिल्ली. पिटर आनी बेलिंदा सायमनाक घेवन तांगेर गेल्लीं. खबरेक खबर येवन पिटरान रॉनी अंकलाक म्हळें,

– जाणा रॉनी, सायमना बोटीर कामा धाडपाचें चितिलां हांयें, केसो कूर्स केल्या बोरो तेणें?

– कूर्स आनी कित्या कोरपा जाय तेणें. हांव तेका येसो व्होरतां, खूंय तो?

भायलेवटेन इश्टांमदी गजालींक बशिल्ल्या सायमनाक पिटारान आपोवन हाडलो.

– सायमन, रॉनी अंकल कितें म्हुण्टा चोय.

– आं, सायमन बरो लांब जाला मुरे. येसलेच मुनीस उपकारता आमकां बोटीर. तुका बोटीर येवपा खोशी आसा?

– होय अंकल.

– इंग्लेज बोरी उलोवंक येता मुरे?

– यस् अंकल, बोरी म्हुळ्यार उलोयतां हांव... पूण...

– उलोवंक येता मुरे? जालें. केसलेंय काम सांगल्यार कोत्तोलो?

– होय.

– पिराय कितू तुगेली?

– फाटल्या म्होयन्या बायीस काबार जाल्यांत तेका. पिटरान उमेदीन सांगलें.

– तेशें जाल्यार पिटर, तुगे चेडो मुजेर पावलो. तेणे पासपोर्ट बा करपा वावरा लाग. तो मोडगावां विलीं फुर्तादो आसा न्हू? तिचे बोगलेक वोस. हांयें धाडला म्हूण सांग. तो सोगळें काम कोत्तो तुगेलें.

रॉनी अंकलान दिल्लें उतर रोखडेंच खरें केलें. ताणें सायमनाक आपलेच बोटीर कामाक व्हेलो. काम कसलें तें ताणें सांगू नासलें. पूण पगाराचो आंकडो सांगिल्लो. तो आयकून बेलिंदा आनी सायमन भुल्लुसून गेलीं. पिटरान ताचे ताचे कडल्यान रीण घेवन ताका धाडपाची तयारी केली.

इतलो तेप सायमनाक भायर धाडपाचें सपन पळोवपी बेलिंदा, आतां प्रत्यक्ष तो वचपाचो वेळ येतकच सतर – वितर जालें.

– मुगे खाक्यांतुलो बाब, आजून मेरेन मांयक सोडून एक रात लेगून खुंयी रावलो ना... आतां वोयतो तोय इतू पोयस... केस कोन रावतो तो तिंगा?... तेका थोंडी जोर आयल्यार कोण आसा तिंगा... भूके बाब मुजो पिसो, तेका वेळार जेवण मेळटो तिंगा?...

ह्या आनी अशा तरेच्या विचारांनी बेलिंदा चिंतेस्त जाल्लें. पिटर ताका थातारतालो खरो पूण मनांतल्यान तोय आकूळ – पिकूळ जाल्लो.

सायमन वतकच दोन म्हयने सुमार तीं दोगांय सैरभैर जाल्लीं. नुस्तें विकूंक वतकच पिटर तितले पुरतो सायमनाक विसरतालो. पूण बेलिंदाक खातना जेवतना, न्हिदतना सगळो वेळ सायमन दोळ्यां मुखार येतालो. मागीर ताची चीट येवपाक लागली. तो बेलिंदाकडेन उलयल्ले भशेन चीट बरयतालो. आपूण थंय कसो रावतां, कितें खालें, कितें जेवलो सगळें सारकें बरयतालो. कितें काम करता तें मात बरयनासलो. ताची चीट येवंक लागतकच बेलिंदाचो हुस्को मात्सो पयसावलो. वेतो कोणय मेळ्ळ्यार सायमन आतां खांवक, पयशेय धाडूं लागलो. आतां बेलिंदाचें मुखामळ चकचकूं लागलें. तारवट्याली मांय म्हणून ताका वाड्यारय भाव चडिल्लो.

एक व्हियाज मारून सायमन आयलो. ताणें पिटरान काडिल्लें रीण पावयलें. घरांत टी. व्ही., फ्रीज हाडलो. सायमनाक मेळूंक आयिल्ल्या गेल्ल्यांक बेलिंदान कितें ना कितें दितालें. चड करून चॉकलेटी.

सायमन दुसरी व्हियाज मारून येतकच ताणीं तांचें मातये घर मोडून शिमिटा घर बांदपाचें थारायल्लें. 'मागीर ताचें लग्न करप' अशें बेलिंदान मनांतल्या मनांत थारायल्लें. मोठ्यान म्हळ्यार सायमन ताका वोगी रावचो नासलो आनी पिटरय फकाणां करीत रावतलो आसलो. तरी लेगीत बेलिंदाक आतां सुनेची सपनां पडपाक लागिल्लीं. ताणें एकदोन चेडवां हेरून दवरिल्लीं. ''बाबा घोस्ता गेल्यापुरो एकलें तोरी. बरे देखी चेडवां... कोणी नाचरें घेयन येना जाल्यार पुरो बाब... मागी आमच्यानी कित कोरूं जाता? तोंड धांपून घरां घेयचें पोडटोलें...

हालीं सराक ताका होच हुस्को जातालो. पिटराकडेन उलोवपाची गती नाशिल्ली. ''सुकार लेगून दुखाक वेंगोवन रोडपा सोंवोय तुका' म्हणून ताचीं फकाणां करतलो आसलो.

पयलींच देखणो आशिल्ल्या सायमनाक तारवटी ही पदवी मेळिल्ली. ताचो रुबाब वाडिल्लो. गळ्यांत बारी पांच स लिब्रांची सरपळी आसली. हाताकय दाट माश्कोत आनी तिनय बोटांक तीन दाट मुदयो लकलकताल्यो. काळ्या सावळ्या सायमनाच्या आंगार भांगर उठून दिसतालें. जायतीं

चेडवां, तांचे आवय-बापूय सायमन येतकर ताच्या फाटीं- फुडें करतालीं.

दुसरे व्हियाजीक सायमन आयलो तो बरोच भागिल्लो. बेलिंदाक ताचे चुरचुरे दिसले.

– "कितरे बाबो, तिंगा जेवण घोस्ता मेयणा मुरे? तुका पोयलीं हें नाका, तें नाका. कितू भागला चोय. आतां दोने म्हयनेसुमार उरतो तूं मुजे बोगलेक. हांव घोस्ताचें जेवण कोन घालतां तुका, गोण्या तिजोन कोन दितोलें. कित दितां तें खाऊं जायें तुयें. वोयतना चोय वळकुपा येवपा ना तूं तेंकां."

बेलिंदा उलयल्ले प्रमाण पुताक बरीं बरीं खाणां-जेवणां करून घालतालें. जशें कितें वर्सभराचें खाण-जेवण दोन म्हयन्यांतच ताका घालूंक सोदतालें. पूण सायमन तितलो रूचीन खायनासलो.

– नाका गे मांय, फोर्स कोन्नाका. आतां येशें खावपा चोलना. गोळ्याको जोळटा मागी.

दोन मानायां काम एकटो सायमन कांय न्ही करून करतालो. पूण हालींसराक तो रोखडोच थकतालो. मात्सें काम केल्यार ताका खरस मारताली. गोंयांत आसतंना लेगीत ताका थंडी, जोर चडसो नासतालोच. केन्नाय चुकून आयलो जाल्यार आयलो. पावसांत लेगीत तो फुटबॉल खेळटालो आनी बांयचेर थंड उदक न्हातालो. मागीर बेलिंदा आड्डतालें.

– बाबा जोर येयल्या चोय, दोतरा बोगलेक व्होन्न सूय मान्न हाडटोलें.

सुयेक सायमन थर्त भितालो. कितलेंय कोडू वखत घेवपाची ताची तयारी. पूण इंजेसाव ताका नाका आसलें.

इतलो घट कुडीचो सायमन. पूण हालीं मात ताका परत परत थंडी जाताली. मात्सें जेला उदक पिलो जाली थंडी, आयस्क्रीम खालें जाली थंडी. बोटीर येत साकून थंड उदक तर तो न्हायच नासलो. थंडी जालीच म्हणून ना, ती थोड्यान निवळ नासली. गोंयांत ताणें थंडेक केन्नाच दोतोराचीं वखदां म्हणटात तीं घेऊं नासलीं. पूण आतां दोतोराच्या वखदा शिवाय ताची थंडी निवळच नासली. बोटीवेले ताचे हेर कलीग ताचीं फकाणां करताले.

ताका मदीं मदीं जोरय येतालो. एकदां जोर आयलो काय आठ – धा दीस हाल नासलो. ती गजाल रॉनी अंकलाक कळ्ळी. ताणें बोटीवेल्या दोतोराक ताची सगळी तपासणी करपाक लायली. गरज पडल्यार फोनाचेर दुसऱ्या दोतोरांक कन्सल्ट करपाक सांगलें. बोटीवयले दोतोर गरज पडटा तेन्ना दुवेंतीची खबर फोनार व्हडल्या दोतोराक कळयताले आनी तांच्या सल्ल्याप्रमाण वखतां दिताले. दुवेंत चडच सिरियस आसल्यार कॉस्टल गार्डाक कळोवन हॅलिकॉप्टर मागोवन दुयेंतीक हॉस्पिटलांत धाडटाले.

पूण सायमनाक हाची कित्याचीच गरज पडलीना. बोटीवयल्या दोतोरांनी ताका बरो करून तपासलो आनी सांगलें ताका बोट सिकनेस जाला म्हणून. हरशीं तो सामको बरो आसा. परत परत थंडी जोर आयिल्ल्यान अशक्तपणां वाडल्यांत. ताका कांय वखदां आनी टॉनिकां दिलीं.

दूद सायमनाक केन्नाच आवडनासलें. पूण दोतोरान टॉनिका वांगडा दूदय पिवपाक लायिल्लें. अंकल लक्ष दिवन ताका टॉनिकां, दूद, फळां घेवंक लायतालो. आतां ताचें आरोग्य सुधारूंक लागलें. दोने म्हयने सुमार ताणें नेमान टॉनकिां, दूद घेतलें. मागीर ताका वाज आयलो. तो हळूच अंकलाचो दोळो चुकोवन टॉनीक घेवपाचें चुकयतालो.

बोटीवेले सगळे कामगार आपल्या घरच्यांपसून पयस आशिल्ल्यान एकामेकाचे सोयरेच कशे वागताले. कांय आडवाद आसूं मागीर. सायमनाच्या बोटीवेले ताचे चडशे कलीग ताचे इश्ट आसले. सायमनाचो सभावच म्होवाळ, तातूंत ताका सगळ्यांकडेन मेळून मिसळून वागपाक आवडटालें. ताका लागून दुसऱ्यांकडेन वायट आशिल्ले लेगीत सायमनाक बरें करताले. ताच्या ह्या दुयेंसा वेळार ताच्या कलिगानी ताका मायेन सांबाळ्ळो.

चार - पांच म्हयने सुमार सायमन बरो उल्लो. मागीर ताका परतय अशक्तपणां आयलीं. जड कामां ताच्यान जाय नासलीं. ताचे कलीग ताचीं जड कामां करून ताका ल्हव ल्हव कामां दिताले. ताका यादीन टॉनिकां दिताले. आतां ताका जोरय येवंक लागलो. आनी धा - पंदरा दीस हाल ना जालो. ते भायर ताच्या पायांक खोरजेवरी चवनां कशीं जाल्लीं. तीं य पेकच नासलीं. मात्सो बरो जालो काय तो काम करपाक वतालो. पूण ताका रोकडीच धांप लागताली. पयलींच्या नेटान ताच्यान कामां जाय नासली.

ताचो मुखेलीय हालींसरा ताचेर बेजार जातालो. ताणें आपल्या वयल्या मुखेल्याक सायमनाची गजाल सांगली. ताणें रॉनी अंकलाकडेन भासाभास करून थारायलें, ''ताणें थोडे दीस रजेर वचचें. गोंयां वचून बऱ्याशा दोतोराक दाखोवन निवळटकच ताणें मागीर बोटीर येवचें.''

दिस्तच रॉनी अंकल त्या दिसांनी रजेर वचपा आसलो. ताणें आपल्या बरोबर सायमनाक गोंयांत व्हरतां म्हणून सांगलें.

सायमन परत परत बरो ना जाता ही खबर बेलिंदा आनी पिटराक कळिल्ली. तेन्नाच्यान तीं ताच्या हुस्क्यान जियेतालीं. आयिल्ल्या दिसा बेलिंदा दोळ्यांत दुकां हाडून आल्तारा मुखार दिमी मारून ताचे भलायके पासत मागतालें. पिटराचेंय आपल्या धंद्यावेलें लक्ष उडिल्लें. तोय हांगां थंय खुर्सा मुखार वाती जळयतालो. ताणें वालांकिनी सायबिणीक आंगवण केल्ली, सायमन येतकच ताका मद्रासाक घेवन भटेक येतां म्हणून.

सुकून भातकटो जाल्लो सायमन घरा आयलो. ताका पळोवन बेलिंदा व्हडा व्हडान रडूंक लागलें, पिटरय आकूळ पिकूळ जालो. सदां सायमनाचें येवप म्हळ्यार तांगेरच न्हय वाड्यार लेगून खोशी मनयताले. ताच्या इश्टांचें येवप वचप चालू जातालें आनी हांसपा-उलोवपाचे आवाज रस्त्यार पावताले. आतांय सगळे येताले, वेताले पूण मुकाट्यानी.

गोंयांत येवन चार-पांच दीस जातकच रॉनी अंकलान ताका बऱ्याशा दोतोराक दाखयलो. ताणें बारीकसाणेन सगळो तपासण्यो केल्यो. ताचो रिपोर्ट आयकून अंकल शॉक आयिल्लेवरी उसळ्ळो. सायमनाक एड्स जाल्लो.

अंकल सोमतो सायमनागेर आयलो. रिपोर्ट आयकून बेलिंदान एकच किळांच माल्ली.

-'ना, मुज बाबाक हो रोग केस्सो जावपा ना' म्हणटां म्हणटां तें साबुद्ध वचून पडलें. पिटर आनी सायमनाच्या दोळ्यांतल्यान भळभळीत दुकां गळटालीं. अंकलाचेय दोळे भरून आयिल्ले. कोणें कोणाक थारपाचें? तरीय अंकल मुखार सरलो, ताणें सायमनाक ह्या तीन वर्सांत बोटीर आसतना आपलो पूतच कसो वागयल्लो. सायमनाच्या रोगाचें नांव आयकून ताकाय शॉक बशिल्लो. पूण तांचें दूख केदें व्हड तें येवजून अंकलान सायमनाक आनी पिटराक थातारले. बेलिंदाक साबुद्देर हाडलें.

सगळ्यांकच अजाप जाल्लें. अंकल धरून तीं सगळी चिततालीं, ही रोग बाबाक येवचो कसो?'

पिटरान रडत रडत पुताक विचारलें,

– बाबा, तुजी पिराय पुणी कितू रे? केसो चेडवां बोगलेक गेलो रे तूं?

– ना पिटर, तुज्या बाबा पोयलीं तेजी गारांती हांव दितां. आजून तो तेसो वाटे वचूं ना. तेणे फ्रेंड लेगीत तेका चाळोयतात.

– खोरेंच पाय, हांयें आजून तेसलें कांय करूं ना.

– मागी, हो रोग तुका येवचो केसो?

– सायमन, तुका केदना आस्कीनेत बा जालेलो, रोगोत घालचें पोडलोलें.

– ना अंकल.

– मागी आनी केसो जाऊं येता?

सगळ्यां मुखार हेंच प्रस्नचिन्न आसलें? इतल्यांत अंकलाक कितें तरी येवजलें.

– हे भाशेन जाऊं येता... ॲन्थनी जालो तेसो...

– कित रे रोनी? कित म्हुण्टा?

– हांव चिंततालों, त्या उत्तोड्डे ॲन्थनी येसो कोन जालोलो.

– केसो?

– बाबा सायमन, तूं गार्बेज भोत्तना हाती ग्लोवज घालता मुरे?

रडत बशिल्लें बेलिंदा उसळ्ळें.

– कितें? मुज बाब बोटीर गार्बेज भोत्ता? हिंगा आमी केदना तेकोडें कोयरा पोतीं लेगीत दिलीना.

– व्होनये तुमी इंगा कित कोत्ता तें सोड. बोटीर वोयतोकच केसो काम पोडटा तें कोरचें पोडटा. शिकोप आसलेल्यांक तेशीं तेशीं कामां मेळटाय.

– मात वोगी बोस गे मांय. अंकल, तुयें गार्बेजी खोबोर कित्या काडली? हांव गार्बेज काडटोना केन्ना केन्ना ग्लोवज घाली नास्तोना काडटां.

– तेतुंतली सूय बा तुका केन्ना लागलोली?

– वोय जायते पावटीं.

– पाड पोडों तेंचें, ॲन्थनी येशें कोन जाल्लो. त्या सुयांनी तुजो घात घेयलो रे मुज पुता.

– म्हळ्यार अंकल ? कित म्होणूं सोदिता तूं?

– आरे आमकां पुणी सांगाय? कीत उलोयतात तुमी?

– व्होनये, केशें सांगू तुका? बोटीर एड्स बा आसलोले लोक येतात. तेंकां तोपलो डिस्पोजिबल इंजेसांव गार्बेजीं उडोयलां जातोलें. तें तुगे बाबा हाती लागलां देखून... देखून....

– हें कित जालें रे सायबा? मुज्यान सोंसू जायना... म्हणटां म्हणटां बेलिंदा साबुद्ध वचून पडलें.

●●●



Raj Excellency - Ribandar
RAJ HOUSING
PONDA
PICK THE BEST AND HAVE A GREAT FESTIVAL!
FLATS ■ OFFICES ■ SHOPS
ROW HOUSES ■ TWIN BUNGALOWS
INDEPENDENT VILLAS ■ PENT HOUSES
Raj Braganca Residency-Mapusa-Goa.
Rajdeep Galleria-Ponda-Goa.
Sairaj Park, Shantinagar-Ponda-Goa.
Celebrate Diwali
Raj Housing Development Pvt. Ltd. (TM)
email: info@rajhousinggoa.com
website : www.rajhousinggoa.com
Add.: S-1, Pai House, Sadar, Ponda-Goa. Tel.: 0832-2314647, 2312072.

दीर्घकथा

# ''काणी अेका आनंदाची''



अप्पा बुवा

सैमाची अपुरबायेची धूव 'सकाळ' निकतीच न्हावन तयार जाताली. सोबीत चली न्हावन भायर सरतकच तिच्या केंसातल्यान जशें उदकाथेंबे सकयल पडटात तशेंच दवाकण तणाच्या पातयेचेर अळंग पडटाले. सैमिक वातावरण आनंदी आनी प्रसन्न आशिल्लें. काळजान मोग रिगयताले. सवण्याचो किलबिलाट कानामनाक रिजयताल्ले. विश्वनाथ गुरूजीचो रेडिओ मोवाळ सुरान गीतां गायतालो. पुराय वाड्याचेर हो एकूच रेडिओ नेमान गायतालो. लोकांक लेगीत रेडियाचो आवाज आयकलेवगर सकाळ जाली अशें दिसनाशिल्ले. नगरपालिकेच्या नळाचेर कळशाचो कणकणाट चालू आसलो. घरांत उदक भरपाखातीर बायलांची सर्त लागिल्ली. पेपरवाल्या भुरग्यान निळतोच पेर घातिलो.

''बाबा तुमचो पेपर आयलो.'' नमीन गुरूजींक सांगले नमी हें गुरूजीचें पोसकें चली

''आयलो गो. पेपर काडून वयर दवर'' अशें म्हणत गुरुजी वल्त्यार घेंवन भायर बल्कावांन आयलें.

''आगो उदका खातीर कित्यांक झगडटात. सकाळी नळाचेर झगडप आनी दनपारा वांगडा बसून, सासू-सुनेच्यो खबरो करप.'' झगडपी बायलांचेर धेंगसो घालत गुरूजीन खुर्ची उक्ती केली आनी पेपर उगडो केलो. इतल्यान नमीन च्या हाडून स्टुलाचेर दवरली. गुरूजीक पेपरावांगडाचेर लागताली. हो तांचो सदचोच नेम. तांका क्रिकेट खूप आवडटालें देखून सदींच ते निमणें पान पयलीं वाचताले आनी मागीर सगळ्यांत निमणें पयलें पान वाचप. राजकारण आनी गुन्हेगारी वृत्तां पयल्या पानाचेर आसतालीं देखून सकाळीं फूडें असलें वाचप बरों न्हय असो तांचो भावार्थ आसलो. दोळे क्षीण जाल्या कारणान पेपर वाचपाक तांका वेळ लेगीत चडूच लागतालो.

''बाबा आनीक च्या जाय?''

''हय हाडल्यार चलता. आयज आयतार पुरवणी वाचपाक वेळ चड लागतलो.''

नमीन बेगीन हाडून च्यायेचो कप स्टुलाचेर दवरलो आनी वदळचो कप घेवन भितर गेलें. गुरूजीनी पुरवणी काडून कुशीक दवरली आनी पयल्या पानावेल्यो बातम्यो वाचपाक सुरवात केली. पयलीं पुराय बातम्याच्यो हेडलायन्स वाचप आनी मागीर विस्तारान त्योच बातम्यो परत वाचप ही तांची संवय. वाचतां वाचतां तांचे दोळे एका बातमेचेर थिरावले. गुन्हेगारांचे नांव वळखीचें दिसताले. ''आनंद वाघमारे'' सराईत घरफोड्या. आनंद वाघमारे अखेर जेरबंद. बातमेंत तांच्या कुकर्माची पुराय म्हायती दिल्ली. खूप दिस पुलीस तांकां सोदताले खंय! तांची नदर फोटोचेर गेली. हय! तोच तीळ! पूण कसो आसुयेत! अशे खुपशे हय न्हयशे प्रश्न तांकां पडपाक लागले. चडशे फावटीं असल्या लोकांची पुराय म्हायती दुसऱ्या दिसा दिसाळ्यांनी येता. पूण गुरूजीक दोन दीस रावपाचें पासिंयेस नाशिल्लें. ताणीं थारायलें ''बाबा च्या थंड जाली. इतली कसली खास बातमी आयल्या आयज''

''खास नासल्या पुरो. तूं अेक काम कर. ती थंड च्या व्हरून भितर दवर आनी त्या पेपराच्या संपादकाक म्हाका मात्सो फोन लावन दी.'' दिसाळें घेंवन नमी भिंतर सरलें.

''बाबा रींग वाजता बेगीन येयात''

गुरूजी बेगोबेग भितर गेलो. तेवटेच्यान हॅलो म्हणपाक आनी हेवटेन गुरूजिनी फोन कानांक लावपाक गांठ पडली. ''हॅलो हांव विश्वनाथ गुरुजी. हय! हय! तेचे ते. तुकाय नमस्कार!... काय म्हणजे...! आयज तुमच्या पेपराना जी वाघमारेबद्दल बातमी आयल्या ताची मात्शी म्हाका म्हायती जाय आसली... अशें?' ना मागीर फोन करतां.'' गुरूजीचो तर्क खरो आशिल्लो. तो आनंद तांचोच एक हुशार विद्यार्थी... सदींच गुरुजींचे आयकुपी... जाण्टयांक मान दिवपी... आनी आयज गूंड... घरफोड्या.... कशें शक्य आसा?... गुरुजीक सगळी भूंय गोल घुंवता अशे दिसपाक लागलें. पायांतली शक्त कोणतरी ओडून व्हरता अशे तांका दिसपाक लागलें. पंचवीस वर्सा फाटलो म्हजो आनंद कितलो वेगळो आसलो. घडये हो तो नासतच पूण संपादक कित्याक फटींग सांगतालो. तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां पडपाक लागिल्लीं. सुरकुत्यो पडिल्यान चेऱ्यावेली दुकां वाट काडत सकयल गुरूजींच्या धोपरार पडटालीं. तांका दिसलें आनंद हांगां पावपाक तेच जापसालदार आसात. ताणींच एक हुशार भुरग्याचो गळो घोंट्टील्लो. पूण गुरूजी ह्या नात्यान ताणीं फकत आपलें कर्तव्य केलें. पूण तेन्ना तांचो विवेक तांच्या ताब्यान नाशिल्लो. जे किते घडले तांका नियती खुपवटेन जबाबदार आसा. गांवगिऱ्या जीणेच्यो अपेक्षा हांका कारणीभूत जांव येता. पूण कितेंय जांव एत मळबाक वेंग मारपाक सोदपी जीण मळबाकूच बुराक करताली. गुरूजींच्या दोळ्यासामकार इतिहास पानां उगडपाक लागलो. मिर्गाच्या पावसाक सुरवात जाल्ली. गिमाच्या दिसांनी, बनियान काडून उडयल्लेवरी दिसपी दोंगर नवे ताल्ल खोमीस घातिल्लेवरी दिसताले. हरयाळी कोमेरताली. सगळेकडेन उदकाचे व्हाळ दिसताले. इतले दीस झाडाच्या पायांकडेन खात खुतल्यो करपी वाली झाडांच्या हड्ड्याकडेन खेळटाल्यो. त्यो लेगीत जुवान जाल्यो. सगळीं झाडां पेडां न्हावन धुवन एकामेकाक वेंग मारपाचो यत्न करतालीं. लोकांचीं शेतांचीं कामां नेटान चलील्लीं. जण एकलो धांवपळ करतालो. पावसाचें व्हांवपी उदक आनी मनीस हाचेमदीं सर्त

लागिल्लेवरी वातावरण आशिल्लें.

सैमीक गिरेस्तकायेन भरिल्या अशा मेळावली गांवान विश्वनाथ आयज गुरूजी म्हण प्रवेश करतालो. सावंतवाडी - बेळगांव हांगासल्ले खुपशे लोक मॅट्रीक पास जाल्या उपरांत गोंय सरकारच्या सेवेंत शिक्षक म्हण रुजू जाताले. विश्वनाथूय असोच मॅट्रीक जाल्या उपरांत शिक्षक जाल्लो. गोंय सरकारान तांची नेमणूक मेळावली गांवान केली. राजकारणाक लागून शिक्षक हांगा चडवेळ राव नासले. पूण आव्हान म्हण विश्वनाथान हो गांव वेचिल्लो. सैमिक गिरेस्तकाय तोखेत विश्वनाथ गांवांन पावलां मारतालो. पयल्या पावसाक लागून सगळेकडेन उदक आनी चिखल आशिल्लो. विश्वनाथाचें भुरगेपण खेडयान गेल्याकारणान ताका असल्या रस्त्यांचेर चलतना चड त्रास पडले ना. ''शाळा खंय आसा'' अशें विचारीत तो पावलां मारतालो. लोकूय हो कोण तिरायत म्हण ताचेकडेन पळयताले. ल्हान गांवानी परकी मनीस रोखडोच वळखुपाक येता. लोंकाचो तो चर्चेचो विशय जाता. शेवटाक शाळेकडे विश्वनाथ पावलो. सरकारी शाळा ती. बांधकाम कमी दर्जाचें म्हण कळटालें. पोरण्या वाड्याचें स्वरूप आशिल्लें शाळेक. दोन कुडींची शाळा. शाळा ल्हान पूण खेळामळ व्हड. शाळा बंद आसली. पयलींचो गुरूजी परत येवंक नाशिल्लो. दाराक फाट तकोवंन दोन-तीन म्हशी थंय रवंथ करताल्यो. पडवेचेर बरेंच शेण मातील्ले. शाळेची जनेंला उक्तीं. उक्त्या जनेलांतल्यान भुरग्यांनी भितर शेवटील्ले फातर नदरेक पडटाले. खेळामळार खुपशी भुरगीं चिखलान फाणकुलां मारुन गड्ड्यानी खेळटालीं. इतल्या मजगती एक ल्हानसो भुरगो पिराय आसत सात वर्सां धावत शाळेकडेन आयलो. शाळेंत भितर सरनाफुडे नाल्लाच्या सोणकुलाना ताणें शेण निवळ केले.

''सगळ्या शाळेचो गोठो करून दवरला या गोरवांनी अशे म्हणत कुशीकची बडी घेंवन तो गोरवांक हामुडपाक लागलो. सख्या शाळेकडेन पळय, आनंद तुज्या गोरवांक बडी घेंवन मारता'' डाव्या हातान शेंबूड पुशीत अेका भुरग्यान म्हळें. विश्वनाथाक कागाळ करपी त्या भुरग्यांचो मात्सो राग आयलो. तशे पळोवपाक गेल्यार आनंद बरें काम करतालो. आपल्या गोरवाक मारता तें पळोवन सख्याक घडये राग आयलो आसतलो. तोवूय आनंदाच्या पिरायेचो पूण आंगलोटान घटमूट दिसतालो. ''आनंद म्हज्या गोरवाक हात लाय नाका. दोके मोडून गळ्यांन बांदतलो'' वाक्य सोंपयताना पोजडिशी गाळ ताणें आनंदाक माल्ली.

''आरे पूण तुज्या गायांनी पुराय शाळा घाण केल्या मरे. सगळेकडेन शेणाच्यो खारसाणी जाल्यात.'' विश्वनाथाक दिसलें आनंदूय आपल्या वाक्याचो शेवट गाळयेन करतलो पून अशें जालें ना. ताच्या आवाजाते एकप्रकारचो समजुतदारपणा आशिल्लो. ताचे शब्द ओडलायणे आसले. विश्वनाथ ताचे लागीं गेलो. ''आनंदा'' म्हण ताणें ताका उलो मारलो. आनंदाक अजाप दिसपाक लागलें. एक अनवळखी मनीस सरळ येवन ताच्या खांद्यार हात दवरता आनी ताका नांवांन उलो मारता हांचे ताका अप्रूप दिसपाक लागले.

''कोण तू?'' आनंदान ताका विचारलें

''आरे हांव तुजो इश्ट समज. चल आमी दोगूय मेळून शाळा निवळ करुंया. म्हजेकडेन अेक बडी दी, हांव हामुडटां तांकां. तू शेण एकठांय कर.''

''नाका तो सखो धड न्ही. तुमकां पोजडयो गाळी घालतलो. ताची आवय लेगीत रोखडीच

झगडुपाक येता.''

''तू भियेंव नाका. तो म्हजे वाटेक वचचो ना. ताची आवय लेगीत म्हाका जाप विचारची ना.'' अशें म्हणत ताणें

गोरवां आमुडपाक सुरवात केली. सख्यान हें पळयले आनी खेळ सोडून धांवत गोरवां सरीं आयलो.

''कोण तूं? म्हज्या गोरवांक कित्याक मारता?'' सख्यान विश्वनाथाक विचारलें.''

''हांव ह्या गांवचो नवो शिक्षक. हांव आता ह्या शाळेन तुमकां शिकोवपाक आयलां.''

''कितें गुरूजी?'' अशें म्हणत तो आनी तांचे हेर वांगडी खिणाभितर त्या वाठारांतल्यान नाच्च जाले.

''आनंदा शाळेची चावी कोणाकडेन आसता?''

''शाळेची चावी सरपंचागेर आसता. गांवचो राजा तो.''

''चल या आमी तागेर... म्हाका दाखयता घर तांचें?''

''चलात हांव दाखयतां तुमकां?'' तणाक हात पुसत आनंद म्हणपाक लागलो. गांवांतले लोक परिस्थितीकडेन जुळोवन घेतात. आनंदाच्या हाताक शेण लागिल्लें पूण धुवपाक तो उदक सोदत बसलो ना. पावसाच्या उदकान तणाच्या पातयेचेर ह्या दिसांनी उदकाचो थर आसता. ताकाच आनंदान हात पुसले. सैमाच्या प्रत्येक कणा कणामदी मनशाच्यो गरजो पुराय करपाची तांक आसा. चेड्डेक हात पुशीत आनंदा उबो आसलो.

''आरे तुका त्रास कित्याक? तूं म्हाका रस्तो दाखय हांव वतां''

''त्रास जावचे ना म्हाका, म्हजें घर सरपंचाच्या वाड्याफाटल्यान आसा. तांच्याच जमिनीन घर बांधला आमी. म्हजी आई तागेरुच वावराडी म्हण काम करता.'' आपलें म्हणप विस्तारान सांगपाची ताची ढब विश्वनाथाक आवडली.

''अशें? चल या तर. तुज्या वांगडा गजाली करपाक मजा येतली'' गोरवांक आमुडपाक हाडिल्ल्यो बडयो आनंदान शाळेफाटल्यान व्हरुन दवरल्यो.

''बडयो सांबाळून शो दवरल्यो तर? आतां शाळा सुरू जातली. आतां गोरवां येवचीं ना हांगा. आतां हांगा आमी आसतले न्हय?''

''ना गुरुजी आमच्या शाळेन भुरगे सगळे तवनास. तांकां मारपाक त्यो. हांव खुपशो बडयो एकठांय करून दवरतां. फाटले सगळे गुरूजी म्हाकाच धांवडायताले बडी हाड म्हण तुमकां लागतली ती देखून सांबाळून दवरल्या.'' आनंदा गालांतल्या गालांत हांसता अशे विश्वनाथाक दिसपाक लागले. ते एका आळिंतल्यान मुखेल रस्त्यार पाविल्ले. सामकार सांतेरीचें सोबीत देऊळ आशिल्लें. संवयेप्रमाण विश्वनाथान देवाक हात जोडले.

''पून आनंद तुज्या बडयांनी तुकाच केन्ना मार पडलो ना?''

''छट्! केन्नाच ना. हांव अभ्यास करतां न्हय! देखून म्हाका हाचेपयली खंयचेच गुरुजीन मारलो ना. फाटलो गुरुजी तर म्हाका आपलेवांगडा शारान व्हरपाक तयार जालो पूण आईन धाडलो ना.''

''पूण हांव शिकयताना बडी घेंवचो ना. भुरग्यांक माये-मोगान शिकयतलों हांव'' विश्वनाथान म्हळें.

रस्त्यावेल्यान वतना जण एका घराची तो विश्वनाथाक वळख करून दितालो. त्या घरांन कोण रावता? कितली मनशां तांचो सभाव. तांतुतली ताका कोण आवडटा. सगळें ताचें तोंड चालूच आसलें. उलयतां उलयतां ते सरपंचाच्या घरा पावले. बरो मोठो वाडो. तीन मजली घर. मुखेल दरवाजाच्या दोनूय वटेन सिंहाच्यो बावल्यो आसल्यो. म्हजो पांय उंबऱ्यार आसा मात ''नानाऽ ये नानाऽ नवीन गुरुजी आयला तुका मेळपाक!'' नाना येंवच्या पयली खुपशे लोक जनेलांतल्यान तकली भायर काडून नव्या मास्तराक पळोवपाक लागले. इतल्यान मधल्या दारांतल्यान पन्नास वर्स पिरायेची अेक व्यक्ती भायर आयली. आंगान धवेताल खोमीस. मिरयांचे धवेच फुडवे. चलपांत एक डौल. मिशो रुपाक एक प्रकारचो भारदास्तपणा हाडटाले. चलपात राजाचो थाट. दोळे आकर्शक, होच नाना हें समजुपाक वेळ लागलो ना. नाना भायर येयनाफुडें जनेलांतल्यान भायर सरील्यो तकल्यो नाच्च जाल्यो. जशो मनशाच्या पावलांची सुलूस लागतकीर कुल्यो नाच्च जाता दर्यावेळेर.

''बसात मास्तर. उबे कित्याक. आरे रगल्या उदक घेंवन यो. त्या कस्तुऱ्याक च्यायेक उडय म्हण सांग.'' तांच्या आवाजन एकप्रकारचो शेक आसलो. हांसत येंवन ते विश्वनाथासरी बसले.

''गांवांन खंयचे?'' नानान विचारले

''हांव सावंतवाडीचों. शारापासून बारा किलोमीटरचारे गांव म्हजो. अंदूच मॅट्रीक जालां.'' इतल्यानं रगल्यान च्या हाडून दवरली.

''घेयात च्या घेयात. पावसाचे दीस. तुमी थंडावले आसतले.'' ''हय घेतां. हें म्हजें नेमणूक पत्र.'' अशें म्हण ताणीं आपलें पत्र नानाकडें दिलें. ''बरें आसा'' अशें म्हणत ताणीं तें वाचून ताका परत केलें.

''रगल्या सुनेक सांग आयज मास्तर आमगेर जेवपाक आसतले. मात्शें घोस्ताचे रांदपाक सांग. आनी ती आयदानां मात्शीं बरीं धुवपाक लाय रगल्या. शिकिल्ले मनीस जेवपाक आसात.'' नानाचो सभाव विश्वनाथाक खुब मानवलो. समोरच्या मनशाचो मान कसो राखप हें तांका बरे तऱ्हेन समजतालें. दोन खिणाभितर विश्वनाथाक ताणीं जिखून घेतिल्ले. घडये तांच्या ह्याच सभावाक लागून ते इतलीं वर्सां सरपंच म्हण निवडून येता आसूं येत.

''मास्तर दोन दीस तुमी वाड्यार रावात. शाळेच्या कुशीक तुमची खोली आसा. मानायांक लावन काम करून घेतां. खूब दिस जाले बंद आसा ती. शाळेचें लेगीत काम करपाचें आसा. भुरग्यांनी फातरावन वाट लायल्या आसतली. मात्शें रंगकाम करून घेवया. तुमी प्रवासान थकल्या आसतले मात्शे विसव घेयात. हो रगलो तुमकां जाय नाका तें पळयतलो.

''तुमचें सामान खंय''?

''बशीकडेन च्यायेचो गाडो आसा थंय दवरलां.''

''रगल्या मानायक धाड आनी मास्तराचें सामान हाडून घे. आयज वयर माळयेर दवर. तांच्या कुडींचे काम जातकच सामान परत थंय पावय'' बरें, नाना असो भितरल्यान आवाज आयलो. ''मास्तर हांव मात्सो पंचायतीन वचून येतां. तुमी माळयेर विसव घेयात. दनपारां जेवपाक मेळया.

रगल्या चल रे पंचायतीन या. जिपीची चावी घे. सगळेकडेन चिखल जाला आसतलो.'' रगलो बहुतेक तांचो खास मानाय. तांकां प्रत्येक कामाक रगलो लागतालो. दोगुयजाण वाड्याभायर सरले. इतल्यान नानाची सून फुडे सरली

''चलात मास्तर वयर वचून बसात. कितें जाय जाल्यार म्हाका उलो मारात''

''तो आनंदा हांगाच रावता न्हय?''

''हय हांगाच फाटल्यान. तुमच्या जनेलांतल्यान उलो मारात धांवत येतलो.''

''तशें जल्यार म्हाका कितेंय जाय पडल्यार हांव ताकाच उलो मारतां. तुमका बेठोच त्रास नाका.''

''तुमकां जाय तशें'' अशें म्हणत नानाची सून भितर गेली आनी विश्वनाथ माळयेचेर.

आयची सकाळ, विश्वनाथाच्या जिवितान नवीन चित्रां घेवन आयिल्ली. इतले दीस 'तो विद्यार्थी आसलो. आयच्यान तो शिक्षक जालो. पयल्या दिसाची सुरवात बरी जांवची म्हण विश्वनाथ कोंब्यासादार उठलो. बांयचेर वचून घसघशीत पांच-स कळशो आंगार रकयल्यो. पावसाचें वातावरणा, मात्शें र्शी आशिल्ले, पूण परक्या गांवांन ताका उदक कोण तोपोवन दितलो रगल्याक सांगल्यार जातालें पूण इतल्या फांतोडेर ताका त्रास करप बरें न्हय अशें म्हण विश्वनाथान थंड उदकाचो अभिशेक करून घेतलो. काळ्या कुपाखातीर भायर अजून काळोख मारतालो. पूण हातान दिवो घेवन विश्वनाथ भायर सरलो बद्द देवळाच्या रस्त्यार. नव्या जिविताची सुरवात सांतेरीक एकवीस प्रदक्षिणा घालून करची अशेंताणें चितलें. सांतेरी देवळान कोणूच नाशिल्ले. गर्भकुडीक कुलूप आशिल्ल्या कारणान भायरुच ताणें कापूर जाळलो आनी प्रदक्षिणा मारपाक सुरवात केली. प्रत्येक प्रदक्षिणा जाल्या उपरांत तो एक कापरा कुडको जाळटालो देखून पुराय देवळान उजवाड जाल्लो. सांतेरीचे आशिर्वाद घेवन तो मोठ्या उमेदीन वाड्यार पावलो. येन्नादर चडशे लोक उठून कामाक लागिल्ले. रगल्यान वचनाफुडें ताका च्या व्हरुन दिली. फांतोडेर देवळान वयतलो हें ताणें रगल्याक कालूच सांगिल्ले.

''मास्तर तुमची शाळा तयार आसा. आनंदान काल सगळ्या भुरग्यांक वचून सांगलां आयच्यान शाळा सुरू म्हण. तुमची रावपाची कुड लेगीत तयार आसा. तुमी दोनूय जागांचो ताबो आयच्यान घेवपाक कांय हरकत ना. पंचायत शाळे लागसार आसा. पंचायतीन जाय तेन्ना येवचें. तशेंच प्रत्येक आयतारा जेवपाक आमगेर येवपाचें. रगल्या मास्तराचें सामान जिपीन घाल. सगळ्यां देव बरें करूं म्हण विश्वनाथ जिपिन येंवन बसलो. धांवत फाटल्यावटेन आनंदा येवन बसलो. आयज तोवूय शाळेन गाडयेन वचपाचो. शाळेच्या पयल्या दिसाची उमेद विश्वनाथापरस ताच्या चेऱ्याचेर चड चकचकताली. आनंदा आतां दुसरेक वचपाचो. संवयेप्रमाण ताची गाडयेन बडबड चालू आशिल्ली. शाळेन पावल दवरनाफुडें विश्वनाथाचें हड्डें भरून आयलें. कितेंतरी करून दाखोवप ह्या विश्वासान तो भितर सरलो. शाळा रंगोवन चकाचक केल्ली. पावसाक लागून रंग ओलोच आसलो. पुराय शाळा नितळ जाल्ली. शाळा म्हळयार दोन खोलयो. एका कुडीन दोन वर्ग. शाळेचो सगळो दस्ताऐवज पंचायतीन आसतालो. बसपाक जण एक भुरगो आपापलो साक घेवन आयिल्लो. बांकडे ही संकल्पना ह्या ल्हानशा गांवान अजून येंव नाशिल्ली. शिक्षक म्हण विश्वनाथाचो पयलो दीस, ना म्हळयार तोवूय मात्सो काचाबूल जाल्लो. वेळ जालो म्हण खुपशी

भुरगीं धांवत – धांवत येतालीं. प्रत्येकाच्या हातांन साक आनी दुसऱ्या हातान पाटयेची पिशवी. पुस्तकां पंचायतीन मेळपाचीं. भुरग्यांनी भितर येवन आपली बसका घेतली. विश्वनाथाक सगळें समजावन रगलो थंयच्यान कडसरलो. दोळे बंद करून विश्वनाथान देवाचें नांव घेतलें आनी वर्गात प्रवेश केलो. ''गुरुजी नमस्कार'' म्हण एका सुरान भुरग्यांचो आवाज कानार पडलो आनी ताणें दोळे उघडले. काळजाच्या कुपांनी खोल – खोल सांठोवन दवरपासारखो खीण. भुरग्यांची चुळबूळ सुरू जाली. भुरगीं अजून सुटयेच्या मुडांत आसलीं. पयलेच फावट शाळेंत आयिल्ल्या भुरग्यांच्या चेऱ्याचेर भिरांकूळ सया दिसताली. मानसीक दडपण घेवन तीं भितर सरिल्लीं. कांय पोरांच्या नाकांतल्यान शेंबूड अजून व्हांवतालें. शेंबडाचो सर्रर असो आवाज लक्ष ओडून घेतालो. भुरग्यांक शिस्त नासली. विश्नाथान थारायलें ह्या भुरग्याक अभ्यासावांगडा समाजात वावरप कशें हे लेगीत शिकोवचें पडटलें.

पळयतां पळयतां दोन म्हयनाचो वेळ केन्ना गेलो कांय कळळें ना. विश्वनाथ आतां गुरूजी जाल्लो. पुराय गांव ताका गुरूजी म्हण उलो मारतालो. गांवान एक मान आसलो. परीस्थितीकडेन ताणें जुळोवन घेतिल्लें. भुरग्यांनी लेगीत सुटयेचो मूड मात्सो पयस केलो. खुबशीं भुरगीं बेशिस्त आसलीं. आनंदा मात अभ्यासान खरेंच हुशार आसलो. खुबशे फावट विश्वनाथ दुसरी आनी तिसरेचे वर्ग घेतलो तर आनंदाक पयली आनी दुसरेची उजळणी दिवपाक लायतालो. गांवगिऱ्या वाठारान असल्या हुशार भुरग्याक देवान कित्याक धाडलो काय हो प्रश्न विश्वनाथाक पडटालो. शारान हो भुरगो फाकिवंत जावपाचो. वर्गापरस हेर भुरग्यांचें लक्ष खेळामळार जाल्ल्या चिखला-चेर चड आसतालें. पाडे पाठ करचे परस गाळयो तांका रोखड्याच पाठ जाताल्यो. शिक्षक म्हण विश्वनाथाचें पयलेंच वर्स. हांकां कशे शिकोवप हो ताका प्रश्न पडटालो.

अजुनमेरेन तरी विश्वनाथ तांकां मायेंन – मोगान लार्गी घेवन सांगतालो. भुरग्यांक मारप म्हटल्यार पाप अशें ताका दिसतालें. ते प्रत्येक भुरग्याक आनंदाची देख दिताले. तो हुशार आसा फाल्यां ताका सरपंच शारान शिकपाक धाडटलो तो मागीर व्हड मनीस जातलो. शारान घर बांधतलो. तुमी हांगाच गोरवां आमडीत रावतले. कांय भुरग्यांक ही मात्रा लागू जाताली. ते अभ्यासान लक्ष घालपाचो यत्न करताले. चडशे भुरगे आनंदाचीं गणिता तशाच्या तशीं कॉपी करून दाखयताले. पूण स्वतः मेहनत घेंवपाक तांकां जम नासलें.

दिवाळीची सुटी जावन शाळा परत सुरू जाली. विश्वनाथ चवथेच्या भुरग्यांचो अभ्यास घेतालो. हेर वर्गान भुरग्यांचो बोवाळ सुरू आसलो. एक मनीस कोणाकोणाक म्हण सांबाळटालो तरी आनंदा खातीर ताका मात्सो आदार मेळलो. पयले दुसरेच्या भुरग्यांची उजळणी वा पाडे पाठ करून घेवपाचे काम तो ज्युस्त करतालो. वर्ग चालू आसतनाच रगलो शाळेंत आयलो. भुरग्यांचो बोवाळ आयकून रगल्यान कानांत बोटां घातलीं आनी विश्वनाथाक उलो मारलो ''गुरूजी तुमकां नानान आत्तांच्या आत्तां पंचायतीन आपयला. ह्या तवनास भुरग्याचे बापूय एकठाय जाल्यात पंचायतीन. तुमी सुटयेन घरा गेले तेन्ना ह्या गावकऱ्यांनी तुमच्या नावान बरोच शंक केला. येयात तुमी बेगीग, हांव वतां फुडें.''

विश्वनाथाक कळना जालें ताचें कितें चुकलें तें. ताचे खातीर गांवान लोक एकठाय जावप हें ताच्या मनाक पटना जालें. खंयच्या भुरग्यान कागाळ बीन केली काय म्हज्या विरुद्ध असो प्रश्नूय तांका पडलो. पूण फाटल्या पांच म्हयन्याभितर एकाय भुरग्याक ताणें हात लांव नाशिल्लो.

कितें आसा तें पळोंवया म्हण ताणें पंचायतीन वचपाचें थारायलें. दुसरेच्या वर्गान आनंद भुरग्यांक पाड्यांची उजळणी दितालो. विश्वनाथान ताका भायर आपयलो. ''हे पळय आनंदा हाव मात्सो पंचायतीन वतां. तूं भुरग्यांक तो मेरेन पाडे शिकय पयलेच्या भुरग्यांक कवीत म्हणून दाखय.'' भुरग्यांचो बोवाळ चालू आसलो. दोळे मोठ्ठे करून ताणें तांका वोग्गी रावपाक सांगलें. हाताक खोडवाचो रंग लागिल्लो. हात झाडीत तो पंचायतीकडेन चलपाक लागलो. शिरतांनी ना म्हळ्यार उजो पेटील्लो. पुराय कुड धाकधुकताली.

पंचायत कार्यालय शाळेकुशीक आशिल्या कारणान दोन धेंपानीच तो थंय पावलो. संरपंचाच्या कुडीन सगळे जमिल्ले. बऱ्या ताजाच्या खुर्चेन नाना बशिल्ले. हेर पंच वागंडीय आशिल्ले. लोकूय कूब जमा जाल्ले. विश्वनाथ थंय पावनाफुडें लोकांची चुळबूळ सुरू जाली. हेर विशय कुशीक पडले आनी शाळेची चर्चा सुरू जाली.

''मास्तर येयात. हांगा अशे लार्गी बसात'' अशें म्हणत नानान विश्वनाथाक उपसरपंचाच्या कुशीक बसपाक सांगले. हेर पंचांपरस विश्वनाथाक मात्सें वयलें कदेल दिलें. विश्वनाथाक मात्शे, त्या सन्मानाक पळोवन बरें दिसलें. ''मास्तर आयज हरशीं आमची ग्रामसभा. आमच्या पंचायतीन ग्रामसभेक हरशीं लोक येनात. आयज पयलेच फावट इतलो लोक आयला. विशय फकत एकूच ''शाळा''. गांवकऱ्याल्यो तुमच्याबद्दल खूब कागाळी आसात. तांच्यो कागाळी वैयक्तीक ना. तुमचो सभाव तसो बरो. लोकांच्यो कागाळी तुमीच आयकात. सांगात रे. ''अशें म्हण नानान जमिल्या लोकांकडेन पळयलें. लोक घडये ह्या खिणाची वाट पळयताले ''म्हजो म्हादू पयलेक वचून 'स' म्हयने जाले. ताका अजून 'श्री' काडपाक ये ना.''

''पोरुंचो मास्तर आसतना म्हजो झील सांजचो अभ्यासाक बसतालो. पूण आतां दनपारां दफ्तर दवरून वता तो एकदम रातचो घरा परत येता. परत दफ्तराक हात लायना. अभ्यासाक बस म्हळयार बापायक पोजडयो गाळी घालता.''

''म्हजे मंगला म्हण्टा रातचो घरा करपाक मास्तर अभ्यासूच दिना.'' लोक खूप कितें उलयताले. आयकून विश्वनाथाची तकली घुंवपाक लागली. नाना उबो रावलो तशे लोक बोवाळ घालपाचे बंद जाले.

''मास्तर आयकलें तुमी लोक कितें म्हण्टात ते. हाचेर तुमचें म्हणें किते तेंवूय लोकांक कळपाक जाय.''

नानान ताका मात्सो आदार दिलो.

''हांव म्हजेतरेन भुरग्यांक बऱ्या तरेन शिकोवपाचो यत्न करतां. प्रत्येक भुरग्याक घराकडेन अभ्यास करात म्हण सांगतां. पूण भुरगी अभ्यास करिनात हांतून म्हजो दोश कितें. नानाच्या वाड्याफाटल्यान रावपी आनंदाक लेगीत हांवूच शिकयता. ताका सगळें येता. शारांतल्या भुरग्यापरस ताची तकली वेगान धावता. तो दुसरेंक आसा पून चवथेचो अभ्यास ताका पाठ आसा. पालक म्हण तुमचेंय कितेंतरी कर्तव्य आसा हें तुमी कशें विसरतात. तुमच्या भितरले चडशे रातचे सोरो पियेवन घरा वतात मागीर तुमचीं भुरगीं तुमकां मान कशीं दितलीं. तुमचे कित्याक म्हूण आयकतलीं तीं.'' विश्वनाथाची उतरां सगळ्यांक भाल्यासारखीं तोंपली. खुपशा लोकांक तो अपमान कसो भावलो. रागाच्या भिरकेन विश्वनाथ उलोवन गेलो. पूण ताकाय कळून आयलें आपूण कितेंतरी

स्फोटक उलयलां.

तिसरेन शिकपी म्हादयाचो बापूय उठलो. तो पंच आसलो. ''मास्तर तुमी बरोबर उलयले ना. तुमच्या चुकिचें खापर तुमी आमचेर फोडूंक सोदतात. सरपंच हांव तरी म्हण्टां पोरुंच्या मास्तराक परत हाडुंया. त्या मास्तरान भुरग्यांक शिस्त लायिल्ली.''

''आरे त्या मास्तराक शाराच्या शाळेन बरी नोकरी लागली. तो आतां येवपा ना.'' नानान सगळ्यांक समजायलें. लोकांची फुसफूस चालूच आशिल्ली. विश्वनाथ मात निश्चल जावन ''सगळ्यांकडेन तटास नदरेन पळयत राविल्लो. कायद्याप्रमाण तो अजून नोकरेंत कायम जावंक नासलो. पंचायतीन आपल्याविरुद्ध कागाळ केल्यार नोकरी वचपाचो भंय आसा. धाडस केलें आनी तो परत उबो रावलो. ''म्हजेकडल्या तुमच्यो कितें अपेक्षा आसात सांगात. हांवेन भुरग्यांक कशे तरेन शिकोवचें अशें तुमकां दिसता. तुमकां जाय तसो हांव वागतां.'' मास्तर लागीं लागीं ह्या गांवगिऱ्या निरक्षर लोकाक शरण गेल्लो. इतल्या मजगतीं शाळेंतलीं चडशीं भुरगीं शिकप सोडून पंचायतीन पावलीं. गावकऱ्यांचो तांकां हांगा पळोवन चडूच थयथयाट जालो. ''मास्तर हो पळयात तुमचो धाक. पयलींचो मास्तर भुरग्यांक शाळेन बसयतालो आनी शारांन वचून नुस्ते घेवन येतालो. भुरगीं जाग्यावयल्यान हालपाचे नांव काडी नासली. आयतारा सुटये दिसा लेगीत मास्तर रस्त्यार दिसत जल्यार लेगीत गड्ड्यांनी खेळपी भुरगो चड्डी ओली करतालो. तसो धाक आसलो ताजो.'' उपसरपंच उलयलो. विश्वनाथाक वाटोवपाखातीर नाना उबो रावलो. आनंदा कडल्यान मास्तर कसो बरो हांची म्हायती तांकां मेळिल्ली. भुरग्यांक तो प्रेमान शिकयतालो. पूण मास्तराचो हो प्रेमळ स्वभावूच तांका म्हारग पडला म्हणपाचे तांका कळून आयलें. ''मास्तर ही शारांतली भुरगीं न्हय. तीं भुरगी वेगळ्या संस्कारान वाडटात. हीं आमची भुरगी रानटी तांकां तुमची ती मोगाची भास समजुपाची ना. हांकां फकत धाक जाय. हांकां फकत माराची भास समजता. फाल्यांच्यान शाळेंन बरी वेंताची बडी व्हरात.''

''हय! हय! सारके नानाचें. हांका बरो पेट घालात'' गर्देतल्यान आवाज आयले.

''मास्तर आयकले मू. गांवचे सरपंच नात्यान म्हाका लोकांचे आयकुचें पडटा. तांच्या भुरग्यांचो फुडार तांकां बरो जाल्लो जाय. भुरग्यांनी शिकचें अशे प्रत्येकाक दिसता. तालुक्याच्या ए. डी. आय. हांका आमकां रिपोर्ट दिवचो पडटा. अजून 'स' म्हयने आसात. नोकरी सांबाळप काय ना तें तुमीच थारायात.'' सगळे लोक मात्सो वोग्गी जाले. ''चला आता मिटींग सोंपली. हे भुरग्यानू चला शाळेन. मास्तर येतलो.'' रगल्यान सगळ्या भुरग्यांक धांवडावन घातले. ''चलात वचात आतां. छडी बजे छम् छम... सुरू तुमकां आतां.'' रगल्यान भुरग्यांक भंय घातलो तशीं सगळीं भुरगीं जिवाच्या आकांतान शाळेकडे धांवलीं. लोकूय आपापल्या घरा गेले. फक्त पंचवांगडी आनी नाना आसलो. रगल्यान सगळ्यांकच्या हाडून दिली. विश्वनाथाची चायेची वासनाच गेल्ली. तरुय हेराचो मान राखपाखातीर तो दोन घोंट पिलो. बसकेंक एकावरांभितर ताणें कितलेशेच अपमान पचयले. अपमानाचे घोंट अजुनय ताच्या ताळयांत शिरकून उरील्ले. पुराय शिरंतरांनी उजो पेटील्लो. भुरग्यासामकार गावकऱ्यांनी ताका नागडो केल्लो. उजो पेटतकच जसो पालो जळटा तसोच गांवकऱ्यांच्या शाब्दीक उज्यान तांच्याभितरली माया. ममता ल्हासून उडयली. तांच्या कुडिंतल्यान कितेंतरी भायर पडटाले पूण कितें? हाची जाप ताचेकडेन नाशिल्ली.

ताची पांवलां शाळेकडेन वतालीं. वाटेर एका झाडाचो खांदो बागोवन वाऱ्या झेतार वयर-सकयल जातालो. विश्वनाथाक बेठेच दिसले झाडाचो खांदो ताका चाळयता. वाऱ्या नेटार झाडाचो जितोपालो फसफसतालो. ताका दिसलें सगळें झाड ताका हांसता. ताच्यो बकछायो करता. रागानच ताणे त्या झाडाची शिलपी तोडली. पयलेच फावट ताच्या हातान बडी दिसपाक लागली. ताका कांय खीण तरसाद कशी ती दिसपाक लागली. शाळेन बोवाळ चालू आसलो. विश्वनाथ लागीं पावलो तसो ताच्या हाताातली बडी पळोवन आवाज कमी जावपाक लागलो. घडये बडयेचे परिणाम जांवये. ''नमस्कार गुरूजी'' भुरग्यांनी म्हळें पूण ताचें भुरग्याकडेन लक्ष नाशिल्लें. मेजावेल्या तांबयातल्यान ताणें दोन घोंट उदक पिलें. आनी नदर भुरग्याचेंर थीर केली.

''आनंदा सगळे एका ओळीन उबे रावात. तुमका हावेंन सांगिल्लें हांव पंचायतीन वचून येतां तुमी अभ्यास करात पूण म्हजे फाटल्यान तुमी वेगळे थंय पावले. आता तुमकां शिक्षा करचीच पडटली. आयज ख्यास्त दिल्यार फाल्यां सुदरतले. चला येयात. एक एकलो.''

''गुरूजी पयलीं म्हजेर मारात. तुमी म्हाका वर्ग सांबाळपाक सांगिल्लो. हांवूय भुरग्यांक थाबोवपाक शकलों ना.'' आनंदान हात फुडें केलो. सपासप करून बडी तापार हातार पडली. सगळ्या भुरग्यांभितर फुसफूस सुरू जाली. कांय जणांच्या पांयाक भंयान कापरो भरलो. आनंदाच्या दोळ्यान दुकां आयलीं. मागीर प्रत्येक भुरग्याच्या हातार बडी पडली. खूब तेंपान शाळेन बडी नायिका जाल्ली. इतले दीस तिका स्थान नाशिल्ले.

''आनंदा कोण-कोण गैरहजर आसात पळय.''

आनंदान वर्गाचेर नदर भोंवडायली. तुकाराम, रघुनाथ आनी बाबलो पंचायतीतल्यान घराकडेन गेले. दफ्तरां शाळेनूच आशिल्लीं. ''आनंदा तू त्या चौथेच्या धा भुरग्यांक घे आनी तांकां आसा थंयसरून उखलून हाडात. उठात बेगीन. कांय खिणाभितर सगळी सेना भायर पडली.

''कालची गणितां कोणें कोणें केल्यांत. हात वयर करात'' एकूय हात वयर आयलो ना. विश्वनाथाक आनिकूय राग आयलो. ''चला एक एक करून फुडें सरात. पांच - पांच वडयो खावच्यो पडटल्यो.'' माराच्या भंयान भुरग्यांच्या काळजान कल्‌कल् सुरू जालो. पूण मार चुकलो ना. पांच बडयो आतांच्यो आनी वदळची एक अशो स बडयो खावन भुरग्यांचे हात तांबडेच जाल्ले. सगळींच जाणा हात चोळीत बशिल्लीं. खुपशा भुरग्यांच्या दोळ्यान दुकां व्हावतालीं. तांच्या तोंडार भंय आज नदरेक पडटालो. बोवाळ खंयचेंखय नाच्च जालो. शाळेक सुतक लागिल्लेवरी जाल्लें. इतल्या मजगतीं वदळ भायर गेल्ले धा जाण गैरहजर आशिल्ल्या तिगाकूंय मोरया करून घेंवन आयले. तिगूय जाण किळच्यो मारताले आनी या धा जाणान पोजडयो - पोजडयो गाळी घालताले. तिगांयचो अवतार पळोवन विश्वनाथान बडयेक हात घातलो. ''गाळी सांगता सुण्यानू'' अशे म्हणत तो तिंगायच्या पांयाचेर बडयो मारीत सुटलो. तिगांयच्यो किळेच्यो आनी रडपान पुराय शाळा सुन्न जाल्ली. खूबतेंपान शाळेच्या वण्टीनी रडप आयकल्लें.

त्या दिसा उपरांत मारप आनी रडप हें सदचेंच जालें. भुरग्याच्यो ल्हान - सान चुको लेगीत तांची फाट सोलून उडोवपाक लागली. माराच्या भंयान शाळा चुकयली जल्यार विश्वनाथ तांचो मोरया करून शाळेन हाइटलो आनी मरसर बडयतालो. गांवकरी मात्शे सुखावलेले. भुरगीं नेमान शाळेंन वता तें पळोवन ते धादोशी जावपाक लागले. आनंदाकूय मजगती दोन-तीन फावटी मार

पडिल्लो.

आनंदाची भयण आनी भावोजी काल तांच्या घरा आयिल्ले. घरान तांची उपस्थिती पळोवन कालचो दीस तो भारावन गेल्लो. पुराय आयतार भयणींची उठ-बस करपाक गेलो. आयतार सुटयेचो दीस म्हण गुरुजीन ताांका बरोच गृहपाठ दिल्लो. पूण भावोजीच्या बोवाळान तो मागीर करया म्हण उल्लोच. आयची सकाळ जावची न्हंय अशें आनंदाक दिसतालें. पूण सैम कोणाक रावता. कोंब्यान साद घालीच, वांगडा आवयन ताका साद घालो. हरशीं शाळे-खातीर नेटान उठपी आनंदा आयज आपखोशयेन उठलो ना. तोंडार मरगळेची सया मारताली. च्या-भाकरी खावन दप्तर घेंवन तो भायर सरलो पूण शाळेचो रस्तो धरचे जाग्यार ताणें शेताचो रस्तो धरलो. विश्वनाथ ताचेर मोग करतालो. देखून ताका दिसलें. शाळेन गेल्यार मार पडटलो पूण शाळेन ना गेल्यार फाल्यां मास्तराक सांगचे दुयेंत आसलो म्हण. फटिंगपणा केल्यारुय गुरूजीक ते खरेच दिसतले असो ताचो भावार्थ आसलो. नानाच्या शेंतान मळणी जावन जाग्या-जाग्यार कड्डाचे दोंगर केल्ले. आड्यापोंदच्या राशीचेर वचून ताणें कविता पाठ करपाक सुरवात केली. ताणें थारायल्लें शाळा चुकयल्या पूण अभ्यास चुकोवपाचो ना. ताचो अभ्यास चालू आसतानाच शेतान पयस ताका ताच्या शाळेच्या भुरग्यांचो चोंबो येता तो दिश्टीक पडले. ताच्या काळजान धस्स् जाले. पाय लकलकपाक लागले. शेतान येतान ताका दोन तीन लोकांनी पळयल्लो. घडये ताचेकडल्यान खबर ह्या भुरग्याक पावलीं जांवयेत. शेंतान भुरगीं ताका सोदपाक लागलीं. ''आनंदा बेगीन भायर यो. आयज तुका गुरूजी कुटलायता. चड वेळ करशीत जल्यार चड मार पडटलो.'' माराची उतरां आयकून आनंदा चडूच भयाकृंत जालो. आपूण ह्या भुरग्याग दिसचो न्हय म्हण तो देवाचें नांव घेवपाक लागलो.

''आरे हें पळयात आनंदाचे चप्पल. आनंदा ह्या राशीचेर आसा. बेगीन येयात धांव मारचे पयलीं.'' आनंदाच्या चपलान ताचो घात केलो. भुरग्यानी ताचो निमणे मोरया केलोच.

शाळा चालू आसली. रडत आनी हुयेली मारत आनंदाचो मोरया शाळेंन पावलो. भुरग्यांनी व्हरून ताका विश्वनाथासामकार देवयलो. आतां ल्हव ल्हव आनंदाक कापरें सुटील्लें. गुरूजीची बडी तितलीच ताका दिसताली.

''आनंदा शाळेक दांडी कित्याक मारली. तूं एक हुशार भुरगो. आयज मुखेल कार्यालयातल्यान इन्स्पेक्टर आयिल्ले. सगळ्या भुरग्यांनी म्हजें नांव घाणायलें. तूं आसल्यार म्हजे हड्डें मात्शे फुलपाचें पूण दळडीऱ्या तुवेंन आयजूच दांडी मारची. विश्वनाथाच्या मुखामळाचेर ताच्या आनी एका अपमानाची सया मारताली.'' कारण नासतना तूं आयज शाळेन येवंक ना. आतां तुका ख्यास्त दिवचीच''

''चूक जाली गुरूजी. परत अशें करचो ना. हावेंन काल गृहपाठ केलो ना देखूय शाळेक दांडी मारली.''

''म्हणजे एकाच वेळार तुवेंन दोन चुको केल्यो. म्हणजे डबल ख्यास्त. तुज्या कानान घडये वारें वचपाक लागलां. तुका आतांच सरळ करपाक जाय. नाजल्यार तूं लेगीत हाताभायर वयतलो.'' अशें म्हण पच करून एक बडी ताणें आनंदाच्या उक्त्या पांयार मारली. एकाच बडयेन आनंद वळवळलो. ''मारूं नाका गुरूजी. परत अशें करचों ना.'' रडत रडत बडी मारला तो जागो चोळत

आनंदान विश्वनाथाक विनंती केली. पूण विश्वनाथ आयकुपाच्या तन्द्रेन नाशिल्लो.

"हात फुडें कर"

"ना गुरूजी ना"

"हांव म्हण्टा हात फुडे कर"

"ना गुरूजी. मारुं नका" अशें म्हणत आनंद ल्हव ल्हव फाटीं सरपाक लागलो. आनी कितें कळचे पयलीच जोगूल कसो शाळेंतल्यान नाच्च जाल्लो." धरून हाडात रे ताका. सोलून काडटां" विश्वनाथान वदळच्या भुरग्यांक फर्मायलें. ते सरशीं आनंद धांवलो त्या दिकेन ते चारुय जण धांवत सुटले.

आनंद परत केन्नाच कोणाक दिसलो ना. ताची धावंडी खुब्ब पयसुल्ली थारली. पुराय गांव हळहळपाक लागलो. पुराय गांवचो तो लाडाको आसलो. लोंकाक दिसलें थोड्या दिसानी येतलो परत. लोकांनी खुपकडेन सोदलो ताका पूण तो केन्नाच कोणाक दिश्टी पडलो ना. ताच्या आवयन रडून एकूच आकांत केल्लो. हेवटेन विश्वनाथाच्या काळजाची असंख्य भगलां जाल्लीं. दिसाच्यान ताणे शाळेत वचप सोडून दिलें. लोकांनी ताका खूब समजायलें. पूण ताचें उत्तर एकूच. "देवळांन वचून फायदो किते. मुर्ती खंय आसा थंय. शाळा न्हय मसणभूंय ती" अशें म्हण फातरासारखो मनीस तो मोठ्या-मोठ्यान रडटालो. आपल्याखातीर भुरग्याचे लुकसाण जावचे न्हय म्हण मार्चाची परीक्षा जायनाफुडें ताणें निकालाचे सगळे सोपस्कार करून ती शाळा सोडली आनी तो गांव लेगीत सासणाचो.

ताका दिसतालें गाव सोडून गेलो म्हण कितें जालें. जंय आसा थंय आनंद सरस्वतीची पुजा करतलो. हॉटेलान काम करीत पूण शिकतलो. पूण आयज वस्तुस्थिती वेगळीच आसली.

"बाबा तुमच्या दोळ्यांन दुकां कित्याक. कितें जाले?"

"कांय ना बाय. दोळयांतली दुकां पिर्शी तीं. मनशाक चड दुःख जालें म्हण्टकच. तें दुःख व्हांवन व्हरपाखातीर धांवत येतात. मनशाचें मन ल्हव करपाखातीर"

"पूण तुमकां कसले दुःख जालें तर"?

"ती मोठी कथा आसा. हांव मात्सों मुबंय वचून येतां."

नमीच्या तोंडार मोठ्ठें प्रश्नचिन्ह

"बाबा मुंबय लार्गी ना. आनी अशें कितें घडलां तर अचकीत मुंबय वचपासारखे"

"तुका सगळें येवन सांगतां. म्हाका जाता तितके बेगीन वचपाक जाय. चल बेगीन म्हजें बॅग भर."

नमीन एक फावट ताका पळयलो आनी दुसऱ्या नदरेन दिसयाळ्यांक पळयलें.

फात्यापारार तें मुंबय पावले. रिक्शा करून तडक जेलीकडेन. जेलीच्यो त्यो मोठ्यो वण्टी पळोवन कोणायच्या काळजान धस्स जावपाचें. वण्टीपरस भयांकृत तें दार आसले. दाराभायर बशिल्ल्या गार्डाक तात्या आपूण कित्याक आयला ते सांगले. पंधरा मिनटानी ताका फक्त धा मिनटा उलोवपाची संद मेळ्ळी. वांगडा एक गार्ड घेंवन विश्वनाथ गुरूजी आनंदाच्या कुडीकडेन पावलां मारपाक लागले.

“नंबर 313 तुका मेळपाक कोण आयला.” कुडीच्या गजाकडेन उबो रावन गार्डान आनंदाक उलो मारलो. गजाकडेन उजवाड आशिल्लो पूण भितर काळोख पातळिल्लो. 313 ल्हव ल्हव पावलां घालीत गजाकडेन येंवपाक लागलो. एक जाण्टो आपणाक मेळपाक उबो आसा. कोण काय? म्हाका सो मेळपाक असले असंख्य प्रश्न तांच्या कपलाच्या मिरयांचेर बरयिल्ले. कितलेतरी वर्सांनी दोगुयजाण मेळटाले. दोंगायच्या चेऱ्याचेर, आंगलोटाचेर बदलाची ल्हारा आसली. चेरो बदललो तरी दोळे केन्नाच बदलनात. हय तेच दोळे “आनंदाऽऽऽ” म्हण गुरूजीन मोठ्यान उलो मारलो. आवाजान कंप आशिल्लो पूण आवेग जोगलाचो आसलो. आनंदाकुय आवाज वळखिचो दिसलो.

“आनंदा हांव. आरे पळयता कितें असो. हांव गुरूजी तुजो विश्वनाथ गुरूजी.”

गुरूजीन इतले म्हळा मात आनंदान आपली फाट भोंवडायली आनी गजाक फाट तेकंयली.

“आनंदा अजून राग वचुंना ना रे पुता?”

“ना मास्तर तुमकां तोंड दाखोवपाक लज दिसता.” अशें म्हण ताणें आपली फाट परत भोंवडायली आनी गुरूजींच्या नदरेक नदर दिवन रडपाक लागलो. गुरूजींच्या दोळ्यांत लेगीत दुकां व्हांवताली. आपल्या गुरूजींक मिठी मारची म्हण आनंदान हात लांब केलो पूण दोंगायच्यामदी दोन गज आसले आनी दोन गजांमदी एका हाताचें अंतर आसलें. वेंग मारपा खातीर फुडें केल्ले हात दोंगायनी एकमेकाच्या हातीन घेतले. दोगांयनी एकमेकाचे हात कुरवाळपाक सुरवात केली.

“गुरूजी म्हजी आई कशी आसा. खुप मायेस्त आसली ती. म्हजें तारू भरकटलें गुरूजी. आई म्हाका माफ कर. गुरूजी म्हजी शाळा... हांव सगळ्यांचो गुन्हेगार... गुरूजी! शाळेचो उल्लेख जालो आनी दोगूय निशब्द जालो.

“आनंदा खरो गुन्हेगार हांव. तूं न्हय पुता. जमता आसत जाल्यार फातरांतल्यान मुर्ती घडोवप पूण हावेंन मुर्तीतल्यान फातर घडयलो.” अशे म्हणून गुरूजी ताच्या पायाक हात लावपाखातीर वागवलो. त्याच खिणाक गुरूजीचे पवित्र हात आपल्या पांयाक लागत म्हण आनंदान पाय फाटी काडले. या बोवाळान नेटान ताची तकली लोखंडाच्या गजाचेर आदळली आनी गरम रक्ताचे दोन थेंबे गुरूजीच्या हातार पडले. आनी इतल्यान “चलऽ चल भायर सर. तुजो वेळ जालो.” असो गार्डाचो आवाज दोगांयच्या कानार पडलो. गुरूजीचे पांय हालना जाले.

“आरे पापया मात्सो राव ताच्या तकलेतल्यान रगत येता मात्शी जखम बांधतां तरी”

“तें आमचें आमी पळोवन घेतां. येदिशी जखम ती, मरचो ना तो. चलात बेगीन” अशें म्हणून गार्डान विश्वनाथ गुरूजीक ओडून कुशीक काडलो.

“आरे देवान तुमका काळीज बसयलां काय त्या जाग्यार फातर बसयला रे. मातूय मनीसपण ना मेरे तुमकां. ‘अशे कशे रे तुमी इतले निश्ठूर? हीं उतरां गुरूजींच्या मनात आयलीं पूण ओंठार आयलीं नात. कित्याक तांचे अंतर्मन ताका विचारताले हे फातरा काळजाचे मागीर तुमी कसल्या काळजाचे? परत परत मान बागोवन ते आनंदाकडेन पळयताले आनी हुंदको आवरुपाचो यत्न करताले. मोठेल्या दाराचो दरवाजो धपकन मोठ्या आवाजान बंद जालो आनी एक आर्त स्वर गुरूजींच्या कानार पडलो “मारू नाका गुरूजी”!

●●●

लेख

# ाजोर्ड्या वेळेर चान्यांतली रात

भुरगेपणांतल्यान वेळेदेगेर वचून बसपाची भोव आवड. दर्यादेगेर बसून पाय उदकांत सोडप आनी सूर्य दर्याचे पोटांत वता हे पळोवन तोखेवपाची म्हाका खरी खोस; आजमेरेन हांव म्हज्या घोवावांगडा 31 डिसेंबर आनी 25 जानेराक ही खोशी मनयता. तांतूंत एक वेगळीच गोडी आसा. म्हांेवाळपण आसा, अशें ह्या म्हज्या पिशा मनांक दिसता.



सुफला रुद्राजी गायतोंडे

दीस भराच्यो, पावसांतल्यो, गिमाच्यो शियांच्यो, सांजेची अश्यो कितल्योतरी पिकनीको काडपाची जबाबदाऱ्यो हांवें घेतल्यात. आनीक त्या पिकनिकेत 12 ते 80 वर्सांच्या लोकांनी उमेद भोगल्या. भुरगीं उमेदीच्या भरांत जाण्टी जाताली आनी जाण्टी भुरगीं जाताली म्हळ्यार अतिताय शक्ती जावची ना.

अशोच मे मयन्याचो रखरख सुरू जालो. गिमांतली पिकनीक. तेन्नाच थोडे दिसा पयली जाल्ली मळबांत काळ्या कुपांचे कायच कुरू दिसनासाली. अशे म्हजे मनाक दिसले. वा पावसांचे चिन्ह ना तेन्ना वैशाखी पुनवेक रातची आमच्या गांवचे वेळेर चान्यातली एक पिकनीक काडया. दुसरेंच दिसा हांव म्हज्या घरांत म्हळे आनीक वाड्यावेल्याय लोकांच्या कानार ही खबर घाली. सगळ्यांक उमेद जाली म्हज्या घराकडेन पुनवेदिसा सांजेच्या 5 वरांर एकठांय जावपाचे थारायले थंयच्यान माजोर्डेच्या वेळेर वचून रातभर चांदण्यातली पिकनीक मनोपाचे थारायले. म्हजेवाड्यांवयलीं म्हळ्यार 160 लोक वचपाचे थारायलें. तांतूत हिंदू - मुसलीम आनीक चड किरीस्ताव भावडां सगळी आसली.

त्या दिसा पूनव म्हणजे सगळ्यांनी अेकाच तरेचे जेवणखाण हाडचे अशे थारले. भाजी, चपाती, पाव, फळां चॉकलेटी, वेफर्स आनी दूध. पिवपाक फकत उदक हाडप आनीक कितेंच ना अशे हांव तांकां सगळ्यांक फर्मायील्ले. सगळ्यांनी म्हज्या मनांसारखेंच केले बी. कांय जणांनी आपल्या

कुळारा, नातलगांक, वळखीच्यांक पिकनीकेची खबर सांगतगीर तांकांय आमचे पिकनीकेत सहभाग जावचें शे, दिसले. जाले, पिकनीकेच्या कितली जाणां येवपाची म्हूण पळय तर 390 लोकांनी नांव दिल्ली एकेवटेन बरें दिसलें पूण दुसरेवटेन हांवे एक जबाबदारी घेतल्या तरी पार पडूंक जाय आसली देव देवतांचेर भार घालून हांवे फुडले पावल घाले. आनीक एक विचार आयलो लग्नाक लो जमील्यावरी पिकनीकेक जमल्यात तेन्ना हांवे म्हजे भावाल्या चलयेची बावली आनीक भयणीच्य चल्याचो बावलो ताका घेवंक सांगले आनीक आमचे वाड्यावेलो भट पिकनीकेक येवचोच आसल ताका त्या बावल्या बावलेचे लग्न लावंक सांगपाचे थारायले. तेन्नाच म्हजे शेजरा वृंदाताईचे ल जाल्ले. करो, अंतरपाट, दाली, वल्ली हाजी सगळी तयारी हांवे केली. कागदाच्यो 400 बश्यो, पेढे बेसनलाडू, केळी शेव, खारीबिस्कीट हांवे सगळ्यांखातीर घेवन एक लग्न सुवाळो करपाचो थारलो पयली कोणांचेच कानां दोळ्यांक कळू दिले ना. थंय वचून बश्योभरतना सगळ्यांक समजले आनीव हो सुवाळो सगळ्यांक आवडलो बी.

वचचे पयली मनांक दिसताले असली पिकनीक केन्नाच कोणे केल्ली आयकूंक ना. आमी पिशेपण बी केल्ला न्हंय? दुसरे मन म्हण्टाले थोडी पिशेपणा केल्याबगर मनांक उमेद भोगूंक कशी मेळत आजसुद्धा याद केली तरी त्या पिकनीकेची उमेद काळजांत उफेता. माजोर्डेचे ग्रामपंचायतीक सांगू वेळेर वचपाचे वाटेर लायटी खाब्यारय काळोख करूक सांगिल्यान सारकी चान्यांची रात सगळ्यांक पळोवक मेळील्ली. मे मयन्याची गर्मी आनीक दिसभर कामांत शीणील्लो जीव ह्या जाग्यार पावतगी सगळे विसरला. लागसारा आशिल्या घरातली लोक न्हीदीले पूण तांचे पोर्सातली फुलां आपल्य परमळान आमका सुखायताली. येवकार दिताली.

दर्याचे रेवेंत पांय रोयतना काळजांक मायेची ओळसाण लागताली. केदो व्हडलो दर्या तो उसळपी ल्हारां. ल्हारांवागडा तो धवोच फेणेर मनार मोरापांखां भोंवडायता. ही फेसाळील्ली ल्हारा मुखमुखार येवन दर्यादिगेर आपटून परतताना जे दुसरे ल्हार येता नकळतच तेन्ना पयले ल्हार शेणट तेन्ना हो आपालीपांचो खेळ खिदल्यांवरी दिसता, आनीक हो खेळ पळयतना मन तृप्त जाताच जाता. सुकती भरतीच्या वेळार रेंव आनी उदकाच्यो तल्लीन जावन मारील्यो खबरी मन सुखायता आनीक म्हाका तरी त्या वेळावयल्यो तांच्यो गजाली अनोळखी आसून वळखीच्यो दिशील्यान हांव तर दर्या दुःखातलेगीत सुखी आसता.

ह्या पिकनीके सगळी जाण्टी वयान जाण्टी आसूनय भुरगीं जाल्ली कोणाक जाय ताणी जाय तश्यो कार्यावळी थारायील्लो. मनमेकळी वागणूक, तऱ्हेतऱ्हांचे खेळ खेळटना सगळी आपले वय विसरील्ली. मनाची बेचैनपणा त्या दर्याचे ल्हारार फेस आशिल्यावरी ना जाल्लो. जशी वेगवेगळी रुपां तशी वेगवेगळी मनां तरातरानी पिकनीकेक वागतात आनी जण एकलो धादोशी जावन वता. गायन, खेळ, नाच, मस्तेपणा, फकाणां करून ही पिकनीक खरेच रंगली त्या वांगडा आपआपल्या जेवणांरूच घेतना मन तालार नाचताले. कोण बारकेल्या कुल्ल्यावांगडा धावताली तर कोण शिपयों, शंक एकठांय करताली. थोड्यानी रेंवेंचे लाडू केल्ले तर थोड्यानी हात रेवेंत घुरचायलें. मुठयेंतली, रेंवल्हवूच गळटाली रिकामी जाल्ली मुठ परत भरताली. होटयेंत एकठांय केल्ले ह्यो शंक शिपयो वेगवेगळ्या रंग वा आकाराच्यो आसताल्यो. मन पिकनीकेत पिशें जाल्लें. ह्या सगळ्यांमदी मन सुखावील्लें. मायेची मनशां पिकनीकेक लागी आशिल्ल्यानच माजोर्डेच्या वेळेर एक रात ह्या नितळ चान्यात धादोशील्ली म्हूण ही पिकनीक न विसरपी आजमेरेन याद उरपासारकी म्हज्या काळजांत उरल्या. ●●●

कथा

# चुक कोणाची



सौ. शर्मिला वि. प्रभू

सकाळी फुडें पेपर हातांत घेतलो आनी ती बातमी वाचून मन खिन्न जालें. तशी बायणाची वेशावस्ती केन्नाच सरकारान मुळासकट हुमटावन वडयिलीं. हालीच्या तेंपार थंयच्यान विस्कटिलीं पोरां हांगां थय केन्ना हॉटेलानी तर केन्ना वेळेर सापडटाली. पुलीसांची धरपकड चालूच आसली. आतां ती खाशेली खबर उरूंक नासली.

'मधुमिता उसकयकार' हे चलयेक पुलिसांनी वायट धंद्यांत अडकल्या म्हण अटक केली. इतलो तेंप म्हजो हे गजालीचेर विश्वास बसनासलो. 'मनिषा' म्हजा कानांत मधुमिताविशी वायट गजाली फुतफुततालें आनी हांव मनिषाचेर दुसऱ्याचे नांव पिड्ड्यार करता म्हूण मनांतल्या मनांत जळफळटालें. हांव आनीक किते करतलें 'मनिषा' ऑफिसात म्हजें बोस आनी आपली पात्रांवगीरी ते म्हजेर बेसबरी चलयतालें आनी हांव 'अडला हरी गाढवाचे पाय धरी' करीत ताजी ती बोसगीरी पचयतालें.

'मधुमिता' म्हजी कोलेजांतली इश्टीण. हें उर्मट सभावाच्या मनिषाक खबर आसलें तशें कोलेजीत पावल दवरतनाच आमची दोगांयची वळख जाली. हांव एक खेड्यांतल्यान आयिलें वा आनी ते खेडवळ! दोगांय गावडळांची जोडी मस्त जमली. आमकां कोण इश्ट ना सोयरे! खेडवळांकडेन इश्टागत करपाक कोण फुडें सरतली? तशी कांय नाटकी पोरां हाय बाय करीत इश्टागतीचीं सवंगा रंगयताली. ताका कारणय तशेंच आसले. आमी दोगाय शिकपाक हुशार आसलीं. फेशन-बोयफ्रेंड' असले आमच्या कायद्यांत बसनासलें. लेक्चर बंक करप तर साप्प ना. सदांच हजेरी लावपी पोरां म्हण प्रोफेसर आमचेर खुश आसले. हांकां जाय ते नोटस् परिक्षेच्या वेळार ह्या सवंगड्याक आमच्याकडून मेळटाले. आमी मात तांकां चड

लागी घेयनासली. सगळेच 'हाय-बाय' पुरते मर्यादित - दिसयभर अभ्यासाचेर लक्ष. वेळार कोलेजान वचपाचे आनी परते वेळार घरां पावपाचे. घरां येतगच आयदना, कपडे असल्या घरांकामाक लागपाचे नाजाल्यार भाटांत काम करपाचे.

बरें शिक्षण घेवन वयर सरपाचे एकच ध्येय दोळ्यांमुखार आसले. गरिबीत जल्मल्यासावन आमकां घेरून आसली. आपल्या परिस्थितीचो आमकां समज आसलो. शिक्षणांच्या निमतान शारान पावली आनी आमच्या आनी गिरेस्ता मदले अंतर समजूक लागले. हांतूतल्यान भायर सरपाक एकूच मार्ग आसलो तो म्हळ्यार बरे शिकप आनी बरी सर्विस करप. स्वताचो कसलोय धंदो उभारपाक भांडवल खंयचे?

मधुमिता मात्शे भावार्थी. आपलें दुःख, वेदना आपल्यो भावना ते कवितेतल्यान व्यक्त करताले. ताच्यो कविता इतल्यो सुंदर आसताल्यो की त्यो आयकतल्याचे मन सामके हालोवन सोडटाल्यो, दिसपाकय ते स्मार्ट सोबित सांवळी बावली कशी! फुलां आसता थंय भंवरे आसतातच! ह्या फुलांवेल्यान त्या फुलांर उडटना काय वेळा तांची नजर मधुमिताचेर पडटाली. मधुमिता मात केन्नाच फटवले ना पार्टी, पिकनिकेक ते केन्नाच वचनासले. रानटी जांवनय बारावी आमी दोगांय फस्ट क्लासांन पास जाली. सगळ्यांनी आमचे कौतूक केले. बरीचशी बक्षीसा, स्कॉलरशिपि (जो गरीब विद्याथ्याखातीर आसतात) त्यो आमकां मेळ्ळ्यो. आमची उर्बा वाडली. गिन्यानाच्या बळाचेर पदवी मेळोवपांचे थारायले. आमी कॉलेजीन प्रवेश घेतलो. म्हयनो जावचो पयली मधुमिताचो बापूय दम्याच्या दुयेंसान पिड्ड्यार जालो. घरांत जाण्टी आवय, शाळेत, इस्कुलात वचपी चार भावंडा. मधुमितान शिक्षण सोडले. एका व्हडल्या बिल्डराकडेन ताका खाजगी सहाय्यक म्हुण नोकरीय मेळ्ळी. म्हाकाय परिस्थितीकडेन झगडचें पडलें. वेळार सांबाळून घेवचें पडलें. पयलींच म्हजीं आवय म्हाका सोडून गेलीं. नाईलाजान भावाचे आयकूचे पडले. भाव म्हजापरस व्हड, घरांन सवायशीण बायलमनीस कोणच ना म्हजे लग्न केले बगर तो लग्न जावपाक तयार नासलो. भावाच्या उतराक मान दिवपाक हांव लग्नाक तयार जाले. मनांन आसून लेगीत फुडले शिक्षण हांव घेवक शकलेना. जेवन - खावन सुखी आशिल्या एका बऱ्या र्निव्यसनी चल्यावांगडा म्हजा भावान म्हजे लग्न करून दिले. दिसपट्टी घरकाम आनी ल्हानशी सर्विस ह्या धावपळीन दिस कशे पासार जाताले ते म्हाका कळनासलें.

एक दीस मधूमिता म्हाका बाजारात मेळ्ळे. ताच्या रंगात, कपड्यात, वागणूकेत म्हाका खुप बदल जाणवलो. मधूमिता एकदम फॅशनेबल जालें. म्हजे म्हाकाच हे एक कुवाडें कशें जालें. एक दिस आमच्या पात्रांवाक मेळपाक ते आमच्या ऑफिसांत आयलें. ताणें म्हाका तितले बरें हटकिलें ना. पूण सगळ्या दादल्यांची नजर ताजाकडेन पळयतना वेगळीच भासली. सगले दादले भुरगे ताजाकडेन पळवन भुल्लूशील्ले बशेन करूंक लागले. ताचे ते कपडे पळवन म्हजी म्हाकाच लज दिसली. ताच्या मुखामळार आता खुप बदल घडील्लों. साद्या - सुद्या म्होंवाळ सोबितकायेच्या जाग्यार एक मादकता म्हाका दिसली. जिणेत कितें तरी मेळवपाखातीर ताणे कितेतरी वगडायलां हे म्हाका आतां कळून आयलें. आमच्या पात्रावाकडल्यान ताणे म्हजो

फोन नंबर घेतलो. केन्नाय रातचे म्हाका ते फोन करताले. तोंडार मेळततर चड उलयनासले.

ते आपल्या पात्रावाच्या मोगान पडलां हे फोनावेल्यान म्हाका समजले. थोड्याच दिसांनी दोगांय लग्नय जावपाची आसली. मधुमितान तन-मन-धन आपल्या पात्रांवाच्या पायार ओपिले. पात्रांव ताका जाय तशे आधार दितालो. भावा-भयणिच्या शिक्षणाक लागोन पयसोय दितालो एक दीस ते म्हाका बाजारात मेळ्ळें. घोवान म्हाका ताच्या वांगडा उलयनाका म्हण धमकायले. मध्यमवर्गिय मनशा आमी पती परमेश्वरान शिटकायीलें उतर मानचे पडले. हांवे मधुमिताक ताज्या पात्रांवां वांगडा भोवतना खुप वेळा पळयीलें. ताका हडकिवपाची ताक म्हज्या आंगात नासली.

एक दिस मनिषाचे (आमच्या पात्रावाच्या) चलयेचे लग्न ठरला अशें कानार आयले. व्हड बिजनेसमेन व्हड, व्हड बिल्डीगो बांधपी बिल्डर हेवूय कानार गेले. कांय दिसांनी व्हडा दबाजान साखरपुडो जालो. अशेच एक दिस मनिषाचो नव्हरो खयच्यातरी पार्टेक व्हरपाक ताका आमच्या ऑफिसान आयलो. बोसाल्या जांवयाक सगळी व्हडा उमाळशीकेन पळेत रावली. मनीषा आनी गर्वान हड्डें फूडें काडून नेटान ठाक् ठाक् करीत ताज्या वांगडा गेले. मनीषाच्या नवऱ्याक पळयतगच हांव मात अजापले. हांवे रातचो लिपचोरया मधुमिताक फोन केलो. म्हजो दूबाव सामको खरो ठरलो. मनिषाचो नवरो मधुमिताचो मोगी हे सामके मनांक पटले. ताणे दिलें लग्नाचे उतर खरें मानून मधूमितान आपले तन-मन ताज्या सुवादिन केलें. मधुमिता भोगाच्या बाबतित फटवलें ना तरी संवसार करपाची सपना मात ताची विरून गेलीं.

आता मधुमिता खूप शिटूक जालें. सुडाच्या इगळ्यावरी धकधगपाक लागलें. ते आपल्या फोटकिऱ्या मोगाचो फास श्रीमंत घराब्याच्या पोरांक लायतालें. ताचे रुप, मोंवाळ सभाव, गोड उतराक पोरां फसताली. मधुमिता मात खोऱ्यानी पैसो ओडताले. हजारांनी रुपया जोडप हे एकच ध्येय घेवन ते जगतालें. ताच्या पात्रावा वांगडा मनिषाचे लग्न जालें तरी तो मधुमिताक पैस करूक तयार नासलो. मधुमिता ताका जाय तेन्ना ताजा वांगडा वताले. पात्रावाक सदांच तृप्त दवरताले. एका काळार कॉलेज जिवित घडयतना आमी कश्टाची, सत्याची सपना चोयताली. पुण फकत परिस्थितीक लागून आमचे जिवित बदलले. आमि दोघांय दोन मोडणार उभी आसली. दोघायचीय सपना अर्धकूटी. प्रतिष्ठा, मर्यादा हाच्या बंधनात हांव घुस्पलें. मधुमिता मात सगळे विळखे तोडून मुक्त जालें. पेटत्या इंगळ्यावरी धगधगताले.

यादीच्या विळख्यात घुस्पून ऑफिसाक वचपाक म्हाका वेळ जालो. पेपर तसोच वडोवन हांव ओफिसाक वचूक भायर सरले वाटेर बसीनसून मधुमिताक फोन मारलो. मधुमिता सामके बिनधास्त आसले. ताजा फाटीक पयशाचे, ओळख्यो हांवे बळगे आशीले. न्यायदेवतेन दोळ्यार केन्नाच पट्टी बांधीली. ह्या समाजान ताका प्रामाणिकपणान वागून लेगीत मान सम्मान दिलो ना त्या समाजाक तरी ते किदे दितले? पयशांचे बळगें हे लजेच्या बळग्यापरस व्हड हें कोडू वखदतर ह्याच समाजान ताका पाविलें. मधुमिता गुन्यांवकार कशें? म्हजा मनांच्या कोर्टात तर ते साप्प निर्दोश!

●●●

# Department of Co-operation
# Govt. of Goa, Panaji - Goa

The Department of Co-operation has brought out various welfare schemes for the development of Cooperative movement in the State of Goa. It is the movement of the mass people where under, the all roun progress can be achieved through the village coop. Societies by availing all the facilities, which could also help them to improve their economic and social conditions.

The various types of Coop. Societies are being povided with the financial assistance through the Registrar of Coop. Societies to strengthen their financial base in the form of :

i) Govt. Share Capital
ii) Managerial Subsidy
iii) Loan / cum-Subsidy for construction of Godown.
iv) Guarantee scheme for Deposits mobilized by PACS/TFSCS
v) Furniture Fixture Loan / Subsidy

**SALIENT FEATURES**

- KNOW YOUR OWN COOPERATIVE SOCIETY
- USE THE SERVICES OF YOUR COOP. SOCIETY
- KEEP FAITH & TRUST IN THE COOP. SOCIETY
- BE HONEST & SINCERE IN DISCHARGING RESPONSIBILITIES IN THE COOP. SOCIETIES.
- CONTRIBUTE YOUR EFFORTS FOR DEVELOPMENT OF COOP. SOCIETIES KEEPING THE BASISC PRINCIPLE OF ONE FOR ALL & ALL FOR ONE.
- TO DEVELOP YOUR VILLAGE, DEVELOP YOUR VILLAGE COOP. SOCIETY.

ISSUED BY :

**REGISTRAR OF COOPERATIVE SOCIETIES**

GOVT. OF GOA, PANAJI - GOA

कथा

# घुस्मट



सौ. तेजश्री गोपाळ प्रभु गांवकर

अच्युदादाचें वय जाल्लें. मित्राबाय ताचे परस स सात वर्सांनी ल्हान. पुण ती तितली जाण्टी दिसनाशील्ली तिचे केंस पिकूंक नाशिल्ले आणि बरी कुटकुटीत दिसताली. प्रसन्न रावताली.

अच्युतदाद जाण्टो जाला म्हणचे परस अर्धांगवायुसारख्या वायट दुंयेसान ताका अंाड घाल्लो. उजवो हात, उजवो पांय आणि तोंडाचो उजवो भाग काम करीनासिल्लो.

चार भुरग्यां जाल्ली. दोन चले, चलयोय दोन. पुण व्हडलो पूत आणि धाकटी चली सोडल्यार, भर वया वेली, मदलीं दोगांय भुरग्या बारीकशें निमत्त जांवन देवाक जाय जाली.

मित्राबायेन दोगांयच्च्याय वेळार काय वर्सां रडून काडलीं. खंय भायर सरप ना. देवळांत वचप ना. बरें खावप, जेवप ना. पुण दीस गेले, तशें दुःख फाटी पडत गेलें.

मित्राबाय तशी हांसमुख. तिणें हे एक दोन प्रसंग सोडल्यार, केन्नाय आपल्या खुमण्यार दुःख दाखयलें ना. घरांत किते शिजता काय ना हें दुसऱ्याक कळ्ळें ना. तिच्या आंगात तशे बरें कलागुण आशिल्ले. दोन बुकां ती शिकिल्ली. भुरग्यांनी हाडल्लीं काणयांची पुस्तकां ती वाचताली. शिवाय मारूती स्तोत्र, व्यंकटेश स्तोत्र तिका पाठ आशिल्लें. दुःखाच्या दिसांनी दुकांक वाट करून दिवपाक हीच स्तोत्रां तिज्या सांगातक आशिल्ली. आपले पोलके आपूण बेतून ती शिवताली कोणे आपलोय मात्सो शिवून दिगे म्हळ्यार शिवून दिताली. गोजड्यो मांडताली. कपयाळी घडयताली. पापड, लोणची घालून दिताली. मजा म्हळ्यार शाळेच्या भुरग्यांच्या सांस्कृतिक कार्यक्रमाक भुरग्यांक वीरबाला साडी न्हेसवप. तांचे शेंडे बांधप ही कामां करपाक शाळेंतल्यान तिका मुद्दाम आपयताली. शेंवतें गोड फोडून ताची फांती, मदी मदीं बोकोड्यो, आबोली, झीगी धरून ती

इतली सुंदर घालताली की खरेंच पळोवपासारखी. ताईबाय सदांच तिचे कडल्यान फाती घालून घेवन चार, चार दीस माळटाली. तशो गोटलां शेंवंतीं, मोगरी, आबोलीं जायो सगळीं फुलां तीं गुथूंक जाणा आशिल्ली.

भुरग्यांक आयतारा बुधवारा वखद घालूंक जाय. मित्राबायेक आपोवप. कोणागेर समरादना, देवकारे आदाराक मित्राबाय हजर. देवळांतली म्हातनां, सोयकातूंक शिनून मित्राबाय पयलीं.

बारीक शिरशिरीत गोरी गोमटी मीत्राबाय णववारी पातळां कास मारून न्हेसताली. हांसतना तिच्या गालार सुंदर खळी पडताली. पुण चेहऱ्या मानान नाक मात्से लांब दिसताले.

आतां अच्युतदाद हातुणार म्हणतगीच मित्राबायेचो घुसमट जातालो. कारण ताका दिसतालें मित्राबायेन बरें न्हेसचें फुलां माळचीं. आणि आपल्या मुखार बसून रावचें. फक्त आपली सेवा करची. कितले दीस पुण अशें चलतलें. ताका दिसतालें आसुये सावीत्रीबशेन तिणे मरणाच्या दारांतल्यान ताका परतो हाडचो. पुण तें शक्य आसा व्हय. तो सत्यवान थोडोच आशिल्लो. कुट्टू कुट्टू करून गांठीक बांदीले पैशे, वखदांक काबार जाल्ले. तो बरो जावचो म्हूण 'घारुक'ताका तेल लावपाक आपयिल्लो. 'बिळंबटा' साकून स्पेशल वखद हाडिल्ले पुण सगळें फुकट. दोन वर्सा जाली. तीन जाली, अशी स वर्सां अच्युत दाद हातुणार उल्लो.

ताका धुवप, पुसप, गू मूत काडप. फोकाणां खबऱ्यो, मित्राबायक सामकी उबगली. देवा ह्या त्रसांतल्यान हाका सोडय. म्हणतना तिच्या डोळ्यांतल्यान घळ्ळ करून दुकां व्हांवली.

तांच्या जुवान पणान ताच्या वांगडा तिणे जायते घष्टे काडिल्ले. खंडीभर बियांचे शेत ती दोगांय रोयताली. काजू तेपार धा एक साक काजू बियो करताली. सुपारी, नाल्ला, बोडो आशिल्लो. त्याच मालवजाचेर संसार चलतालो. ना नोकरी ना चाकरी.

जंय लोकांक भुरगीं जातात तशी तांकाय भुरगीं जाली. पुण जाय जाय म्हणून, ती जाल्ली अशें दिसना. अच्युत दादान केन्नाय फुटक्या तोंडान तिची तोखणाय केली ना. वर्साक दोन पातळां शिवाय कांय ना. लग्नात तिका काळ्या पुट्टुकांचो दोऱ्यार गुंतील्लो मणी शिवाय कांय ना. कुळारच्यानय तिका एकच सरपळी घाल्ली. बारीक सूत कशें जालें परत केन्नाय तिणें कुळार पळयले ना. पुण आपलो घोव ह्या निष्ठेन, कसोय जांव कुकमाच्या टिळ्याचो आधार म्हण आनि जन्माक आयिल्ल्या भुरग्यां खातीर ती घष्टे काडत रावली.

मधल्या ह्या सात वर्सांत खूप घडामोडी जाल्यो. चलो लग्न जालो. तारी पलतडीन कामाच्या निमतान बायलेक घेवन रावपाक गेलो. एक मास्तर तांगेर बिराडाक रावपाक आईल्लो. जुवान शर्मिलाचेर ताचो डोळो गेलो. मुळांतच पयलें लग्न जाल्ल्या ह्या मास्तरान मित्रा बायेक आपल्या गोड उतरांनी भुंललें. आपल्या पयल्या लग्नाची वाम वार्ता तांका लागूंक दिली ना. मीत्राबायेकय दिसले आयते चलयेचे लग्न जाता करूंया अच्युतदाद काय हातुणावेलो उठपाचो ना. महाराष्ट्रांतल्यान आशिल्या ह्या मास्तरान मोठ्या कळाशेन रजीस्टर करीनास्तना लग्न केलें.

लग्न जावन म्हयनोभर जाता थंय आसा. शर्मिलाक दीस गेले. मास्तराची बदली जाली. पान खायऱ्या ह्या मास्तरान बायलेक घेवन नवे बिराड केले. आणि पयल्याच दिसा रातीकडेन एका दोस्ताक हाडलो. शर्मिला वांगडा रुमान घालो. दोगय पीवन तायट आशिल्ले शर्मिलान जनेलातल्यान बोबो मारल्यो शेजारी, पाजारी धावन आयले. शर्मिलाच्या गांवचे एक चली लग्न करून ह्याच वाड्यार

दिल्लें. ताणे ताका आपल्यागेर दवरून घेतले. आनि दुसरे दिसा घरा पावयले. फुडें मास्तर सस्पेड जालो ती गजाल वेगळी. पुण मित्राबयचें दुःख घुसमट कमी जावपाचो तो आणिकच वाडलो. दीस गेले शर्मिला बाळंत जावन चलो जालो पुण खावपाची तोंडां वाडली ताचे कितें? तशें फाटल्या दारांत न्हाणये खोपीचेर दुधनीची वाल. बांयच्या कुशीक पोपायेची झाडां न्हाणये उदक व्हावन वता थंय दोन केळी, चार दोन फुलझाडां पणसार मिरवेल वाडयेर पानवेल फुलल्यान दारांत मसंगा रूख आनी एक लिंबणीचे झाड. लोक गरजेक मागून व्हरताले म्हणून दोन पैशे मेळूक लागिल्ले. अच्युतदादाची परिस्थिती लोकांकय खबर आशिल्ली. गोजड्यो शिवन कितलेशे दुडू मेळटले. पोरसांतलो तेरो खावन कितले दीस काडतलीं? शर्मिलाय आता गोजड्यो शिवपाक लागले. पुण घोवाक सोडून आयिल्लें.

मागीर एक दीस देवान याद केली आनी अच्युतदाद गेलो.

गिळटलें एक तोंड कमी जालें अशे म्हणप न्ही. पुण अच्युतदाद तिका सदांच नवे नवे करून वाडपाक लायतालो. केन्ना शिरों कर. केन्ना शिखळ्यो कर. केन्ना सान्नां कर. तर केन्ना पुरणपोळी कर. आज गांथनिच्या नुस्त्याचे हुमण कर. बिचारी मित्राबाय शक्य तशें करताली. कोणाक सांगतली?

पुण तकलेंत विचार येता जर अच्युतदादाच्या जाग्यार मित्राबाय जर हातुणार पडिली तर तिचे कोण काडतलो आशिल्लो म्हाका दिसना एक तर ती सात वर्सां काडतली आशिल्ली. शिवाय दादलो मनीस बायले बगर रावपाक शकना. कोण पुण गरजेक आयिल्ली ताका चली दितलो आशिलो. जर अच्युतदाद पन्नासा भितर आशिल्लो तर.

सोड, अच्युतदाद गेलो. आतां तरी मित्राबाय निवांत रावतली. छे बाराव्या दिसा पुतान तिका आपल्यागेर व्हेली.

लोक म्हणतले न्हीं, कसलो पूत हो. आवयक अशी एकटी सोडल्या.

मित्राबाय बी शर्मिलाचेर घर सोपोवन गेली. हांगा आता सुनेचे घर. मित्राबायेक चोरा वरी जावपाक लागलें. बसून खाता म्हणटली. म्हणून तांदूळ वेंच, वानार वांटून दी. करता करतां आई तुजें हुमण बरें जाता. म्हणून हुमण कर. आनी मागीर तीच रादूंक लागली. पयली घोवाचें गू, मूत काडलें आता नातरांचें काडपाक लागली. आयती बिन पगारी मेळील्ली. रानपीण कम वावराडी. हो मनाचो घुसमट ती कोणाक सांगतली?

हातुणार पडिल्ले कडेन फक्त बुळू बुळू रडपा शिवाय तिच्या हातात कांय नाशिल्ले. ''ह्या पुतान बापुय हातुणाचेर आसा म्हण एक पैशाची मदत केल्ली ना आतां हाका आवय जाय दिसल्या. खरेंच घर मातयेचें आसलें तरी तें म्हजें. जांव पोरसांतलो तेटो तायकिळो खावन पोट भरचे पडले तरी हरकूत ना आनी तिणें मनात एक निर्धार केलो.

वर्स सोपलें आनी वर्सश्राद्धा निमतान ती घरा आयली. आजपर्यंत दुसऱ्या खातीर जगत आयली मीत्राबाय नव्या निर्धारान उबी रावली. आता आपल्या समाधाना खातीर जगप दुसऱ्यांक दुखयनास्ताना. उरील्ले आयुष्य मनासारखें जगप. हय फक्त म्हज्याच इत्सेनुसार मरसर जगप.''

अशें मनांत म्हणून मित्राबायेन एक लांब हुस्कार घेतलो आनी लांब हुस्कार सोडलो.

फात्यापारार सवण्यांच्या गायनान तिका जाग आयली. हांडीर कोळसो घेवन ती बायचेर गेली.

●●●

कथा

# एकवचनी



विठ्ठलराय भट

''येयले, येयले वाजयात रे वाजयात.'' पिटिमास्तर भगवान सावंतान मायकावयल्यान ऑर्द दिली आनी केन्नधन्न शाळेच्या गेटीकडेन पोजिशनात उबें राविल्ल्या बालवीर आनी वीरबाला पथकान बँड वाजोवपाक सुरवात केली.

व्होड पोलीस व्हॅन भुर्रकन गेली मुखारल्यान फुडें सरलें. ताज्या फाटल्यान पोलीस जीप. मिंटाभरात धवी फुल्ल कार हळुहळु गेटी मुखार येवन रावली. तांतुतल्यान रुबाबदार मनीस गोंयचो मुखेल मंत्री अवधूत कामतेकर उतरलो. पाच सवायशिणीन तांका उंवाळलो. शाळा कमेटीचो अध्यक्ष विश्वनाथ नायक हाणे तांका हार घालो आनी शाळेच्या आद्य संस्थापक, रामचंद्र शणैन फुलांचो झेलो दिलो.

''कितें रामबाब! बरो आसा म्हु'' मुखेल्या मंत्र्यान खांदार हात दवरत रामबाबाक आदरान आनी प्रेमान चवकशी केली. सगळे जाण व्यासपीठाचेर वचून बसतसिक विश्वनाथ नायकान सगळ्यांले स्वागत केले. शाळेचे आद्य संस्थापक श्री. रामचंद्र पुतू शेणै उर्फ रामबाब हे विद्यादानाचे पवित्र कार्य चाळीस वरसां करून काल रिटायर जाल्यात. आज तांचो आनी तांची घरकान्न सौ. सितामाय हांचो सत्कार गोंयचे मुखेलमंत्री श्री. अवधूत कामतेकरान करचो असो हो आजचो कार्यक्रम आसा. विश्वनाथ नायकान मुखेल्या मंत्र्याल्या गळ्यान हो व्हडलो गुलाबांचो हार घालो. मुखेल मंत्र्यान मागीर रामबाबाल्या गळ्यान हार घालो. हार धव्या साळकांचो आशिल्लो. रामबाबाक नाल्ल दिलो आनी ताका शाल पांगुरलें. नायकाली घरकान्न लली हिने सौ. सितमायेली साडीचोळी दिवन व्होट भरली आनी तिका चांदीचो कुकमा करंडो दिलो. हेडमास्तर बाबल कामतीन रामबाबाक चांदीची सरस्वतीची मुर्त आनी महात्मा गांधीले फोटो दिलो. विश्वनाथ

नायकान सांगलें ''प्रोविडंड फंड आनी ग्रेजुटी धन्न राम बाबाले चाळीस हजार रुपये जातात. तांतूत संस्थेन धा हजारांची भर घालून पन्नास हजारांचो चेक तांका दिता. ताजो ताणी स्वीकार करचो.'' सगळ्यांनी ताळयो वाजयल्यो.

इल्लेशे खांकरून मुखेलमंत्री भाशणाक उबे रावले. मायक वयरसकल करपाच्या निमित्तान पिन्टी मास्तर भगवान सावंत दोन चार वेळार स्टेजीर येवन भाव खावन गेलो. स्टेजीर येतावताना तो हासतेर नवीन टीचर नयना बाणमारेक पळोवन हासतालो. ती पुण आपल्या दोळ्यांनी ताका प्रतिसाद दिताली. तें पळोवन स्टेजीर बशिल्ल्या हेडमास्तराल्या दोळ्यांतल्यान उज्या किट्यो भायर पडताल्यो.

''श्री. रामचंद्र शेणै हांणी चाळीस वरसां पयली ह्या उद्याशा गांवांत विद्यादानाचें बी रोंयलें. ताजो आज केदो व्हड रुख जाल्या हे तुमी पळयतात. ह्या रुकाच्या सावळेत गांवांतलीं आनी आजूबाजूच्या गांवांतलीं भुरगीं येवन शिकली. सुशिक्षित आनी सुसंस्कृत जाली. व्हड जावन जिवनात खंय खंय पावली. तुमचो गांव आता उदरगतीक आयला. व्हड शहर जालां. ह्या शाळेचे नांव जरी 'महात्मा गांधी विद्यालय' आसले तरी लोक 'राम मास्तराली शाळा' म्हुणच वळखतात. तातूंतच रामबाबाल्या व्हडपणाची साक्ष आसा. रामबाबाक देव भरपूर आयुष्य आनी उत्तम आरोग्य दिवूं दी. अशी प्रार्थना करता. आतां दोन घोषणा करतां –

''तुमची शाळा आदर्श शाळा' ह्या कॅटेगरीत शासनान घेतल्या तशें म्हण दर वरसाक शाळेक पन्नास हजार रुपयांचें विशेष ग्रेंट मेळतलें. रामबाबाक शासनाकडचान दर म्हयन्याक आजीव दोन हजार रुपये 'आदर्श शिक्षक गौरव निधी' म्हूण मेळतलें.'' ताळयांच्या कडकडाटांत मुखेल मंत्र्यांचे भाशण सोंपलें.

रामबाब सत्काराक जाप दिवपाक उबो रावले. मुखेल्या मंत्र्याचे आभार मानीत ताणें भाशणाक सुरवात केली –

''आज मज्या आयुश्यातलो परम आनंदाचो दीस. चाळीस वरसां पयली तीन भुरग्यांक घेवन ही शाळा सुरू केल्ली. ताजे आज सार्थक जालें. सत्कार बित्कार जावपाक जाय म्हुण हांवें हो खटाटोप केलो ना. अंतरात्म्याचो आवाज आयकून घेवन मुंबयतलो 'ब्रिटिश पेंट कंपनी'तली बऱ्या पयशाची नोकरी सोडन ह्या खेडेगांवांत आयलो. तेन्नां म्हाका जाय त्या जाणांनी 'पिसो' म्हुण हेडायलों. काय बरो नोकरी सोण्ण ही भिकेची कट्टी हातात घेतल्या म्हण टिंगल केली. नोकरेन रावतालो तर आज बंगलो बांदून घेवन सुशेगाद रावतालो अशें म्हणताले. म्हाका असल्या लोकांचें केर ना. शाळेत शिक्षणा शिवाय भुरग्यांलो सर्वांगीण विकास जावचो म्हुण जाय ते प्रोजेक्ट चलयले. शाळेक डिबेट कॉपिटीशन, स्पोर्टस, नाटक हांतूत उजनगटल्यो ट्रोफी मेळयल्यात. हीं सगळीं कामां करतानां म्हाका घरकान्नीन फुल्ल सपोर्ट केलो. घर तिणें सांबाळलें म्हुण हांव शाळा सांबाळूक शकलो. आज तिगेले जाहीर आभार मानतां.''

''निमाणें सांगपाचे म्हळ्यार शाळेन दिल्ले पन्नास हजारांत म्हगेले हजार घालून एकावन्न हजार हांव शाळेक देणगी म्हुण जाहीर करतां.'' ते आयकतकच मैदानात जमिल्ल्या हजारो लोकांनी पाच मिंटा परयंत ताळयांचो कडकडाट केलो आनी आपली खुशी जाहीर केली.

स्टाफ रुमात चापाणी जातकच मंत्री महोदय परते गेले. सगळ्यांले निरोप घेवन रामबाब

बायलेक घेवन घरा वचपाची तयारी करपाक लागलो तेन्ना विश्वनाथ नायकान म्हळें - ''रामबाब कारीन तुमका घरा पावयतां.''

रामबाबागेर थोडो वेळ बसून चा पीवन विश्वनाथ नायक वचपाक उठलो आनी परतो बसलो-

''रामबाब हांव तुज्यापेक्षा वयान, शिक्षणान, अनुभवान ल्हान आसा. अपरबुद्दीचो मनीस हांव. बापायन दुडू जोडून दवरिल्ले म्हण हांव शाळेचो ट्रस्टी जालो हें जाणां तूं. हात जोडुन तुका एक विनंती करतां...

''सांग रे कितें सांगपाचें आसा तें. विनंती बिनंती कसली करता?''

''शाळेन दिल्ले पन्नास हजार रुपये तुवें व्होड मनान शिक्षण संस्थेक परते दिले. पुण आज म्हागाय कितली जाल्या? दिवसेंदिवस हनुमानाच्या शेपटे परमाण म्हागाय वाडतेर गेल्या. शिवाय ती कम्मी जावपाचें नांव ना. तांतूत बाबू आनी तुमचें पुण वाकडें आसा. हांव जाणां ती गजाल. तुमचें दोगांचें जीवन आसा, म्हातारपण आसा, दोतोर वकदां आसात. हातांत दुडू आसा तितलो कमी पडतलो. विचार कर. ते पयशे तु खरचा खातीर दवरून घे. ना म्हण नाका.'

''शाळा म्हळ्यार म्हजी माय. तिगेली दुदाची शाय भायर पडपाक ना - ती दुदांतुच जिरोवपाक जाय म्हुण हांवे तशें केलां. हांव एकवचनी मनीस. तें जाणा तू. केल्ली जाहीर घोशणा फाटी घे म्हणता? तूच सांग?'

''रामबाब, हांव कितें सांगता तें शांतपणान आयकून घे. ते पन्नास हजार रुपये हांव भरतां आनी पावती तुज्या नांवांन फाडता. आतां तरी हां म्हण. कोणाक कांयच कळचें ना. ही गजाल आमच्या तिगांतुच रावतली. कशें?'

''अरे पिशा कितें उलयता तू हें? तशें केल्यार हांवें म्हाकाच फसयिल्ल्या म्हणकी जालें न्ही रे? शें शें शें तशें केन्नाच जावचें ना. शब्द दिलो म्हळ्यार दिलो. बस्.''

''सितमाय, तूं तरी सांग गे हाका कितेंतरी?' विश्वनाथ नायकान काकुळतीन सांगलें.

''हांव जाय तें सांगन रे बाबा. सांगतल्यान सांगलें तरी आयकतल्यान आयकुवपाक जाय न्ही रे? आयुष्यभर हाणीं मजें कितें आयकला म्हण आतां आयकतले? त्रेता युगातल्या प्रभु रामचंद्रा नंतर कलियुगातले हेच एकमेव राम.' एक वचनी मनीस. हांगेले दाखोवचे दांत वेगळे आनी खावचे दांत वेगळे. तुका खबर ना.'

वातावरणात एक तरेची गंभीरताय पातळिल्ली. विश्वनाथ नायकाक कितें उलोवं तेंच कळना जालें. जड पावलान आनी जड मनान तो परतो गेलो.

सांज जाली म्हुण सितमायेने दिवे पेटयले. आनी रामबाब स्तोत्र म्हणपाक बसलो. ह्या दीस दोगांय एकमेकांकडेन उलयली नात.

सदीच्या म्हणसर रामबाबाक सकाळी बेगीनुच जाग आयली. इतलें बेगीन उटून कितें करतलो? आज तर शाळेत वचपाचें काम ना. परतो न्हिदलो. पुण नीज खंय येता? देवापुजेक फुलां हाडपाक म्हण बागेत गेलो. ताटली भन्न नानारंगांची आनी नाना वासांची फुलां मेळिल्लीं. 'आज मनासारकी सुशेगाद देवाची पुजा करूया' ओ विचार रामबाबाल्या मनात झळकलो. न्हावन संदी केल्या नंतर

रामबाबान पिसुंडी घेवन देवघर लकलकी केले. वोल्या कापडान देवारो पुसून घेतलो.

'पितेळेच्यो मुरत्यो आनी जांबयांची उपकन्नां काळीकाळी जाल्यात. येवच्या एकादशीक दीसभर चिंचेच्या उदकांत बुडोवन दवरतां म्हळ्यार त्यो निवळ दिसतल्यो' मनातलो हो विचार रामबाबान बायलेक म्हण्ण दाकयलो पुण ती कांयुच उलयली ना. पूजा आटपून रामबाब पितांबर बदलावपाक म्हूण भितरल्या कुडीत गेलो. थंय धोतर न्हेसतना 'पोस्टमन' आनी फट् कन्न काय तरी पडिल्लो असो आवाज आयलो.

''पळय गो कितें आयला तें?''

सितमाय पदराक हात पुसतेर रांदच्या कुडातल्यान भायर आयली. तिका एक लखोटो पडिल्लो दिसलो. तिणें बाबुले अक्षर जुस्त वळकलें आनी हावरेपणान कागद काण्ण वाचलो. मजकुर वाचून तिका हर्षवायु जालो. खोशयेन नाचपाचें तितलेंच बाकी रावलें.

''आयकलें? बेगीन भायर येयात. आनंदाची बातमी आसा.'

भायर येवन मांचार बसत रामबाबान विचारलें. –

''कोणालें कागद आयला आनी कसली आनंदाची बातमी? सांग तरी, आयकुवयां.''

''बाबुलें कागद...''

''तुका आयिल्लें उरतलें?'' रामबाबान कपलार सतराशेंसाट मिरयो घालून तुसडेपणान म्हळें. ताजेकडेन पळयलें ना पळयलें अशे दाखोवन सितमायेन सांगलें.

''कागद तुमगेल्या नांवांनच आयलां आनी मजकुर बिन तुमकांच बरवला. सून बाळांत जावन भुरगो जाला, आमकां नातु जाला. बारशाक मुद्दाम येयात म्हुण आग्रेवान आपयला. तुमकां तर खास बरयलां की फाटले सगळें विसरून नातवाक पळोवपाक याच्च म्हण घेवन.''

हां हुं करनासतना रामबाबा गप्प गप्प बसून रावलों निश्चल पुतळ्या म्हणकी.

''आतां तरी ताजेवयलो राग मनातल्यान काण्ण उडयात म्हळ्यार. कितें जालें तसे तो आमच्या रक्तामासाचो भुरगो आसा.''

''म्हाका तत्वग्यान शिकयनाका तू? ग्रेजुयेट जातरीक आमगेल्या शाळेनूच टीचर जावन गांवातच राव म्हळ्यार केदो व्हडलो फोग उटयलो चांडाळान. याद आसा की ना तुका! जल्मभर् हांवें ताजेर केल्ले संस्कार फुकट फुकट गेले.''

''तुमगेल्या मनाप्रमाणे ताणें ती एकूच गोश्ट केली ना तें खरें. त्या शिवाय वायट आनी ताणें कितें केलां? लग्नाची गोश्ट म्हळ्यार तुमी कांयच मनार घेना जाले. कोणुय सोयरीक घेवन आयल्यार तो म्हाका मेला' असे सांगून तांका धावंडायताले. मागीर तो कितें करतलों आपल्या पसंतीन प्रेमविवाह केलो. लग्नाक ताणें आग्रेवान आपयिल्लें पुण तुमी तर गेलेच नात आनी म्हाका पुण वचपाक दिलें ना. आज परयंत हांवें सुनमुख पळयलें ना. आतां नातवाक तरी पळोवयां. पांय पडतां तुमकां. ना म्हणनाकात!'

'पाड पडुं दी तुजें तें पांय पडपाचें नाटक! तागेल्या लग्नाक भितरल्यान तुजी फुस आशिल्ली. हांव जाणां तें सगळें. पुण हांव गप्प रावलो, वोगीच केस्तांव नाका म्हण.''

''लग्नाक गेले नात ते नात. ताका पत्रान आशीर्वाद तरी धाडपाक जाय आशिल्लो. तें तर रावलेंच

बाजूक, उलट ताका बरयलें खबरदार बायलेक घेवन हांगा मेळपाक येवशीत तर. एक खेपेक घरा भायर पडलो तेंच निमाणें समज. हांवे तुका मेलो आनी तूं म्हाका.'' हेंच तुमचें तत्वग्यान? लोकांक गांधीजीले आनी विनोबाले व्हडले व्हडले विचार सांगता. कितें उपेग ताजो! 'दिव्या सकल काळोक' म्हणतात तेंच खरें. उज्या रान्नीत व्हर्न घालात तुमचें तत्वग्यान. मनांत क्षमाशीलपणा ना!' सितमाय हुंदक्यान हुंदक्यान रडत बसली. रडपाचो वेग थोडो कमी जातकच तिने विचारलें –

''तुमी वच्चे ना ते नाच्च. म्हाका तरी वचपाक दियात. एक फावटीं नातवाक पळोवन येतां!'

''तुका वचचे आसल्यार तूं वच. हांव ना म्हण ना. पुण थंय गेल्यार आनी परते हांगा म्हण येवपाचें ना. सांगून दवरतां!'

''कितें उलयतात तुमी हें? जल्माचो दुस्मान सुद्धां असली उतरां उलोयचो ना. काळिज नाशिल्ले मनीस तुमीं. मनीस कितें राक्षस. आवय पुताली कायमची ताटातुटा करतात तुमी.'' रडत रडत सितामाय रांदची कुडीत गेली.

त्यादिसा दनपाराचें जेवण आनी सांजचो चा मोन्यानीच जालो. तीं एकमेकां कडेन उलयली नात इतलेंच न्ही तर ताणी एक मेकांकडेन नदर वयर करून पळयलें ना सुद्धां.

सांजेचा मायत्यार रामबाब गांवात पासय मान्न येवुयां म्हुण गेलों. नी तरी घरातलें वातावरण गरमागरमच आशिल्लें.

गांवांतल्या लोकांले नमस्कार चमत्कार घेत घेत रामबाब गांवां भायर आशिल्ल्या तळये कडेन गेलो. तळयीत साळकां फुलिल्लीं. सांज जाता तशी ती साळकां एकेक कन्न बंद जावन कळ्यां म्हणकी दिसपाक लागली. रामबाबाक तरणेपणातली याद आयली. एक खेपेक तो बाबुक घेवन तळयेकडेन आयिल्लो. फुलां बंद जावन परत कळे जातात हें पळोवन तो भोव खुश जाल्लो. ताणें ताळयो पेटवन आपलो आनंद व्यक्त केल्लो. आपल्या विचारांच्या तनरेंत रामबाब गुंग आसताना दोन शेजारी धांवतेर थंय आयले.

''रामबाब, रामबाब चल चल बेगीन. घरा वचूयां.' तांचीं भिवकुरीं तोंडां पळोवन रामबाबान विचारलें –

''कितें रे कितें जालें? तुमी वाग फाटी लागिल्ल्या भाशेन कित्याक धांवतेर आयल्यात?''

''रामबाब घात जालो. तुमी पासयेक म्हुण हेवटेन आयले आनी तेवटेन सितमायेन आंगार चिमणेल वोतून घेवन जळोवन घेतले. तिणें फाटल्या फुडल्या दोनी दारांक खिळयो घालून घेतिल्ल्यो. मास आनी केस जळिल्लो घाण वास येवपाक लागलो आनी तुमगेल्या घरातल्या खिडकेतल्यान धुंवर भायर पडपाक लागलो म्हण आमी दार फोण्ण भितर गेले. पळयल्यार कितें? सितमाय जळून कोळशा म्हणकी काळी ठिक्कर जावन पडल्या. बाजूनच बाबुलो फोट्टो पण्ण आसा. तो मात्र जळूक ना. चल वचूयां.''

रामबाबान उटपाचो प्रयत्न केला पुण घुंवळ येवन धप्पकन्न पडलो.

●●●

एकांकी

# जगचे खातीर



कवींद्र फळदेसाय

(माचयेर उजवाडा येता तेन्ना हरदास आनी दोन कुमारी दिसतात. तांचो नाच चल्ला. नाचता नाचतां दोगूयजाणां अचकीत रावतात)

हरिदास : आरे अशें नाचप कित्याक थांबयलें?

कु. 1 : खरें सांगपाचें म्हळ्यार कंटाळो आयलो.

कु. 2 : सामको वीट आयलो.

हरिदास : कसलो कंटाळो? कसलो वीट?

कु. 1 : पिशावरी नाचपाचो कंटाळो

कु. 2 : काळख्या जिणेचो वीट आयलो.

हरिदास : शाण्यानो, हें सगळें रितीप्रमाण चलत आयलां.

कु. 1 : रिती मोडूंक येनात?

कु. 2 : निदान कांय काळाखातीर सोडूंक येनात?

हरिदास : म्हणपाचें तरी कितें आसा तुमकां? अशें कोड्यांत उलवचे परस स्पष्ट सांगल्यार चड बरें जातलें.

कु. 1 : आमकां मुक्ती जाय.

हरिदास : मुक्ती? कसली मुक्ती?

कु. 2 : ह्या काळखापासून, ह्या रुपड्यांपासून

कु. 1 : कांय खिणाखातीर कांय जायनाका पूण आमकां स्वातंत्र्य जाय.

कु. 2 : ह्या जिणेचो उबग आयला मात्सो बदल जाय.

हरिदास : लक्षांत आयलें म्हज्या पूण कालो अर्ध्यार सोडून वचप, बरें दिसतलें तें?

कु. 1 : आमी कालो अर्ध्यार सोडून खंय वतात तर?

कु. 2 : आमची जबाबदारी सोपतकच तूं सोड आमकां.

हरिदास : (विचार करता) एका अटीचेर.

कु. 1 : अट? कसली अट?

हरिदास : श्री देव गजाननाचें आगमन जालेबगर तुमी वचप ना.

कु. 2 : जायत, पूण मागीर.

हरिदास : मागीर तुमी तुमचींरूपडीं काडून दवंरूक शकतात. तुमकां दोगांकूय एका वर्साचें स्वातंत्र्य मेळटलें.

कु. 2 : (उमेदीन) कितें? एका वर्साचे स्वातंत्र्य?

कु. 1 : (उमेदीन पळयतूच रावता)

हरिदास : हय, एका वर्साचें स्वातंत्र्य उपभोगपाचें. ही काणीं तुमच्या वांगडाच घेवन वचपाचे. फुडल्या काल्याची सुरूवात जावचे आदीं हांगां पावूंक मात विसरूं नाकात ना जाल्यार....

कु. 1 : ना जाल्यार कितें?

हरिदास : फुडलो कालो सुरू जावचे आदी जर रुपडीं चडोवन देवळांत पावले ना जाल्यार वाट्याक येतली सामान्य् मनशाची जीण. ती जीण कशी आसतली, केन्ना सोंपतली हें मात हांव सांगूंक शकचो ना. आनी मुखार जें कितें घडटलें ताका हांव जबाबदारूय आसचो ना.

कु. 2 : कांयच हरकत ना. युगांयुगां काळखांत काडलीं.

कु. 1 : पळोवया तरी उजवाडाचें एक वर्स अणभवून, अवतींभोवतीं दिसता तरी कितें तें पळोवया.

(दुसरो देखाव सुरू जाता तेन्ना फाटसून एक रस्तो मैलाचो फातर दिसता. एक ल्हानसो गांव. सगळे लोक उमेदीन नाचतात. गायतात एकामेकांक पेडे वांटतात. ह्या बोवाळांभितरूच कु. 1 आनी कु. 2 प्रवेश करतात. सगळ्या वातावरणाक अजाप जावन पळेत रावतात. तोखेत रावतात)

कु. 1 : दोळे दिपकवल्यावरी जातात.

कु. 2 : जातलेच. इतलो उजवाड पयल्याच फावट पळयतात न्हू रे आमी (इतल्यान सदा येता.)

सदा : येयात – येयात ज्युस्त वक्तार पावले तुमी.

कु. 1 व कु. 2 : (अजाप जावन पळयत रावतात)

सदा : दुसरे कोणाक न्हू. तुमकांच म्हणटां हांव.

कु. 1 : पुण आमची आनी तुमची वळख...

सदा : हांव म्हूणटां वळख कित्याक आसूंक जायी? वळख नासल्यार कितें आतां करून दिता न्हू वळख. म्हाजें नांव सदा.

कु. 1 : हांव भीसो

कु. 2 : हांव पीसो

सदा : आसों, आसों. पयली पेडे घेया.

कु. 1 : पेडे कित्याक?

सदा : उमेदीचो दीस न्हू आज.

कु. 2 : आमच्या गांवांन उमेदीच्या दिसाक कातलेकुडके घाल्ले फोव.

कु. 1 : ना जाल्यार पंचखाद्य....

सदा : आमगे हिंगा पेण्यांनी बोंडी. ओली पार्टी, कोंबडी तें सगळें रातीकडे.

कु. 1 : आं!

सदा : पेडे घेयात दोन दोन काडात. तोंड गोड करात.

कु. 2 : पूण कारण सांगूक ना तुवें.

सदा : वाघ खावों! तेंच इसरलों पयल्या वाड्यावयल्या परशुरामान सॉरपिओ काडल्या.

कु. 1 : कितें काडलां?

सदा : (गाडयेची ॲक्शन करता) सॉरपिओ, सॉरपिओ

कु. 2 : गाडी घेतल्या!

सदा : म्हागेलोय इचार आसा मारुती काडपाचो आसों. परुशरामबाबो सोयरे येयल्यात रे गांवांक.

परशु : येलकम! येयात येयात.

कु. 1 : अभिनंदन, आयज तुमच्या जिणेतलो उमेदीचो दीस. (परशु हातांन हात दिता.)

परशु : सेम टू यू! हांये व्हडलेंशें कांय केले ना. बारीकशी गाडी काडल्या. (हातांतलें माश्कोत मुद्यो दाखयत मोबायलाचेर उलयता.) पोक्या, याद आसा मरे. म्हागे लज काडशीत नाटक नाका रे. कास्ता ओर्केस्ट्रा हाड. नाचों दिरे लोकांक म्हागे पोझीसांव कळों दी तेमकां कितें? आपयला तेका आपयला. म्हागे घट्ट न्हू रे तो! बेगीन येता मरे तूं (मदेंच थांबता) शांबो, त्यो क्रेटी देवोवन घे रे. चील्ड आयसां घालोन दवोर (फोन) तुका न्हू रे. शांबो सांगतालों. हय वयता तर सरलो होपळय भायर सरलों. (दोगांकूय) लजप ना जाय ते घेवपाचें कितें? शांबो, हेंचेकडेन मात्शें पळय. मात्सो मारगांत बसोन येता.

शांबा : बरें पात्रांव!

कु. 2 : पात्रांव! बरोच खोशयेन दिसता तुजो पात्रांव!

शांबा : दिसतलोच. तेगे मनासारखें घडला न्ही थोडे कश्ट घेतले ना तेणे त्रास काडल्यात म्हूणोन फळ हें.

कु. 2 : बरीच मेहनत घेतल्या दिसता तुज्या पात्रांवान.

शांबा : तें कितें हांये सांगू जाय? हिंगाच्यान पणजे, पणजेच्यान हिंगा, हिंगाच्यान फायस्टारांक थोड्यो काडावडी काडल्यो ना तेणें.

कु. 1 : इतल्यो काडावडी कित्याखातीर?

शांबा : दिल्लीच्यान कोणतरी पैशेकार येयलो जमीन इकती घेवोंक. पात्रांवाली वडिलोपार्जित जमीन. पात्रांव बोडान हुशार. येयली जमीनीची कोट्यांनी किंमत पात्रांव सोडटा! विकोन वडयलां! (इतल्यान सदा येता)

सदा : आख्खो गांव शाणो जालो. इकोन वडयली जमीन दर एकल्यान.

शांबा : कालपयरमेरेन पात्रांवांक पुरश्या म्हणटाले आतां परशुरामबाब जाला.

कु. 2 : सगळी जमीन विकली तर?

सदा : इकली म्हणोन कितें इचारता. दर एकल्यान गाड्यो काडल्यो. फाल्यापरां मागे मारुती येता.

कु. 1 : म्हणजे तुमी सगळे सुखी तर.

सदा : तें कितें इचारप जालें?

शांबा : पात्रांवालो बापूय कां कूं करतालो पुण पात्रांव कमी? पात्रावांन पयलीं बापायक गुटलायलो.

कु. 2 : बापायक गुटलायलो म्हणजे तो... (वयर पळयता)

सदा : चे! चे! तेणें आपल्या भाशेन तेका समजायलो. मागीर सगळें जाग्यार पडलें.

कु. 1 : म्हणजे बापायच्या मनांक नासलें तर गाडी बिडी घेवपाचें.

सदा : कुड्या-इडी आनी बैलगाडी, हेंतूकच समाधान मानतल्यांक सोरपीओचें कोणे सांगला? जाण्टेलो आजून परवतां.

शांबा : तुमी बसात हां. म्हागे थोडें काम उरलां. पात्रांवान सांगलेलें.

कु. 2 : पात्रांव!

सदा : पयलीसावन बोडान हुशार.

कु. 1 : आं परशुराम बोडान हुशार. फकत गाडी घेवन वोगी रावलो ना.

सदा : रोकडीच इलेसांवा तयारेक लागलो. कोणाक सांगी नाका इलेसांवाक वाटपाक दोन लाख दवरल्यात. आयज पार्टी कित्याक तर?

कु. 2 : कित्याक

सदा : गाडी घेतल्या तेची पार्टी तें जालेंच. पात्रांवाली तयारी चल्ल्या. ती पंचायतीच्या इलेसावांची, तुमी हांगाच बसात. लोक येवपाक लागले. हांव तयारेक लागतां. बसात हां (तो वता. हळूहळू उजवाड फकत माचयेर बशिल्ल्या कुड्डमातेचेर उरतां. माचयेर बाकी काळोख, रिमीक्स गाणी, हांसप नाचप, पार्टेची मजा हाचो आवाज कानार पडटा.)

कु. 1 : उमेद ही अशी आसता तर! पळय पिशा कितल्या व्हडल्या आनंदाक मुकतालो आमी. असलीं गाणी, असलें संगीत केन्ना कानार पडिल्लें? हांवे थारायलें एक वर्स हो आनंद उपभोगपाचो!

कु. 2 : भिशा, ह्यां गीतसंगीतांक तुका कोन्याच्या रडपाचो आवाज आयकना?

कु. 1 : रडपाचो... ना रे बाबा....

कु. 2 : मायंक.... आयक... खंयतरी, कोणतरी रडटा. हांगाच ह्याच गावांन कोणाचें तरी

अंतकरण दुखावलां... हांगाच कोणाच्या तरी काळजाक घावो जाला... कोण तरी तडफडटा.

कु. 1 : भास जातात भास. म्हाका तर दर एकल्याच्या काळजांत दिसतात ती खोशयेचींच ल्हारां... फकत खोशयेचीं.... दिसतात ती लख्ख उजवाडांत न्हावपी उमेदीचीं घरां.

कु. 2 : पैस खंयतरी... ह्याच गांवांक... म्हाका जाणवतात तीं किण्ण काळखांत कुडपी वेदनेची घरां कित्याक देव जाणां. ह्या खिणांक म्हजें मन लागना. तीं वेदनेची घरां म्हाका आपयतात... (हळूहळू काळोख)

माचयेर दुसरे वटेन उजवाड येता तेन्ना घराच्या पडवेर वोग्गी बशील्लो एक जाण्टेलो दिसता आपल्याच विश्वात मग्न. ताची बायल घरांतल्यान भायर येता.)

कल्पना : कसलो इचार करतात?

तो : (वोग्गी बसला)

ती : जिवा कसलो तरास बी जायना मूं?

तो : (तरीय वोग्गी)

ती : (ताका जागो करीत) घडलां तरी कितें?

तो : आवय मरतकच येगळें तरी कितें घडटलें? काळजाकूच घावो पडला आयज.

ती : कोणाची आवय? कसलो घावो?

तो : वर्सांनवर्सां आमकां पोसताली ती आवय. सवताच्या आवयक इकोंक तयार जाले गुखायरे! म्हागेलेंच चुकलें, चुकलें तें म्हागेलेंच हेंचेंकडसून अपेक्षा दवरल्यो थंयच चुकलें. सगळेंच घट्टाण केले. घट्टाण.

ती : आसों! कितलोय चुकलो तरी आमचोच पोर न्हू तो.

तो : तेंच तर म्हागेलें खरें दुःख. खोट्या सुखाफाटल्यान हांव तर केन्ना धांवलोच ना. पेज, नीस जें मेळलें तांतूंक समाधानी. हेचेर केन्नाय असले संस्कारूय केले ना हांये.

ती : तेमगेली सपना वेगळीं, सपना साकार करपाचे मार्ग वेगळे.

तो : सपना पळोंवक म्हागेलो खंय इरोध आसा तर. इरोध आसा तो सपना साकार करपाखातीर निवडिल्ल्या मार्गाचो. म्हागेलें मन आजून सांगता म्हाका की हो मार्गच चुकीचो.

ती : मार्ग चुकीचो तुमगे नजरेन. तेमगे दृश्टीन तोच बरोबर... तेमगे भास, तेमगे सपनां आमकां कळचे न्हीं.

तो : सांगल्यार कळचें मगे तीं? समजायल्यार कळचेली हेमगे सपनांक एक पैशांचे झाड.... दिसरात तेमी तें हालोवपाचें... खंयय पाळामुळां दुखत हेची मातूय जाणीव ना... तेमकां कसली काळजीय ना.

ती : गाडी काडल्या खंय चेड्यान आयज.

तो : आयकलां हायें. धूळ वडयत वयतली रस्त्यावयल्यान गाडी... धूळ वडयत... मागीर आमगे जिणे गाडी धूळ खायत खायत मुखार सरचेली.

ती : तेर्रासाचें घर बांदचेलो इचार आसा म्हणी चेडो.

तो : तेमकांच ती तेर्रासांची घरां. काळजां फातरांची घरां तेर्रासाचीं. तेमकांच सोबचेली तीं. पूण तुका पयलींच सांगोन दवरता... ही म्हागेली खोप सोडोन हांव ना वयचों.. निखालस ना!

ती : पूण कित्याक?

तो : ज्या घराची बुनियाद फंटीगपणाचेर घाल्या तसल्या घरांत रावपाची म्हाका इत्साच ना... खरेंच ना.. हांव... आसां तसोच बरों आसां. पुर्वजाचें दायज साबांळोंक शकलो ना हाचेंच दुःख... बाकी कांयच ना... कोणाकडच्यानूय कसल्योच अपेक्षा नात... म्हागेलें ठरलें... तुयें थारावपाचें.

ती : म्हणजे?

तो : तुका खंयच्या दिकेन वचपाचें आसा तें तुयेंन थारावपाचें... तें स्वातंत्र्य तुयेन घेवपपाचें. म्हागेलें म्हणणें कांयच ना.

ती : ती दिशा हांयेन चाळीस वर्सापयलींच थारायिल्ली. ज्या दिकेन तुमीन वचपाचें थारायलां त्याच दिकेन हांव वयचेलें.

तो : (हांसता) त्या वाटेर मोगरे कळे नासतले... घडये इंगळे आसतले.

ती : म्हाजेवांगडा हांसत इंगले माडोवपी तळवे आसतले.

तो : सावळी नासतलीच आसतलें रखरखीत वत.

ती : आसों! तुमगेली सावळी आसताना तें वत कसलें.

तो : वाट दिसता तितली सोपी ना.

ती : जावों! थारायलां न्हय ती वाट चलपाची. लागया चलोंक.

(दोगूय जाणां हांसतात. पूण तातुंतय खीन्न भाव जाणवता. हळूहळू उजवाड कमी जाता तेन्ना ते दोगूय स्पश्ट दिसतात. पार्टी आनी घर हे मात्शें मंद उजवाडांक)

कु. 1 : (पार्टेकडेन पळेत) खोशी ही अशी आसता. हेंच तर खरें जगणें. बेधूंद जावन जगपाचें. आपलेच मस्तेंत!

कु. 2 : (घराकडेन) बेधूंद जावन जगपाचें आपलेच मत! लिपोवपाच्यो सगळ्यो वेदना, लिपोवपाचे सगळे त्रास. दिसता घाव पेकलो म्हणून पूण तो आसता समज. घाव केन्नाच भरून येना.

कु. 1 : कसलो घाव?

कु. 2 : (पार्टेकडेन) एका थंड जिणेक उठील्लें वादळ हें. हय एका निरोगी शरीराचेर जाल्लो घाव.... 'भळभळपी जखम ती.

कु. 1 : (घराकडेन) सारकी पेकनाशिल्ली जखमच ती... केणेल्लें रगत पूण ताका तेच जबाबदार.

कु. 2 : सारकें तुजें. सूख समाधान हाची व्याख्याच कळली ना हांका.

कु. 1 : (घ.) वय तरी आसा तांचे हें समजोवपाचें.

कु. 2 : मृगजळाफाटल्यान धांवतात हे... मृगजळाफाटल्यान.

कु. 1 : कितेंय जांव एक वेगळोच अनुभव घेतलो आयज. आयजमेरेन केन्नाच घेवंक ना

असलो.

कु. 2 : खरेंच सामको वेगळो अनुभव. खरेंच हें केन्नाच पळोंवक नाशिल्लें.

कु. 1 : (पा) फाल्याचो नवो दीस नवी रात. नवे अणभव त्या बाटलेंतल्या बुडबुड्यावरी खोशयेचे.

कु. 2 : (घ) घडये अशे अनुभव... जखमेचे... वेदनेचे... बुडबुड्यापरी पट् करून कोणालें तरी काळीज तोडटले! (देखाव सोंपता)

(देखाव सुरू जाता तेन्ना एका बाजून चकाट्यो मारीत उबे आशील्ले परशुराम, शांबा, सदा दिश्टी पडटात. प्रत्येकाची सवंगा वेगळीं. इतल्यान थंयच्यान 'तो' वता.)

सदा : जाण्टेल्यो खंय वयता?

तो : कांय जाप दिना.

परशु : सदा जाण्टेल्याक मात्सो पावोवन यो.

सदा : (हात लावन) जाणटेल्या, राव मात्सो हांव पावोवन येतां तुका.

तो : म्हाका हात लायनाका. सांगोन दवरतां! आनी म्हाका कोणेय खंय पावोवपाची गरज ना. येयली ना म्हाजेर ती परिस्थीती आजून पावयता खंय.

सदा : बेश्टोच तिडकता कित्याक? पावोन येतां.

तो : सदा! भास कळटा मरे मागेली? आं? पायें चलोंक जाणात म्हजे. आजून लागोंक ना तेंका संवंय गाडयेंक बशचेली.

शांबा : दादो, पात्रांव पावोवन यो म्हणटा न्हूं तुका.

तो : पात्रांव, हेका पात्रांव कोणे केलो रे? उठतासूठता कोणूय पात्रांव जाता हिंगा. स्वतःच्या बापायक फटवपी तुमचो पात्रांव!

परशु : कोणे फटयला रे तुका? आरे अडोन बसलेलों तुजेवरी हांव. अडोन बसलेलों जाल्यार पडटा आसलें हें सूख पदरांक.

तो : सूख! हेका सूख म्हणटा तूं? आवयक इक्रेक काडोन मेळलेल्या पैशांक सूख म्हणटा तूं? घरदार काबार केलें... तेंतूंक कसलें आयलां सूख?

परशु : घरदार? कसलें घरदार? खंयचे घरदार? दरवजांक वांयटी लागल्या.

तो : वाळटी दरवंजाक लागलेली. घरांतल्या सुखाक लागों नासली, ती तुयें लायली. तुयें लायली वांळटी. जमीन इकोन वडयली...

परशु : म्हागेली इतली जमीन आसा तितली जमीन आसा. बल्कांवार बसोन गजाली करपाच्यो कितलो तेप म्हणोन किरवटीक लावून भोंवपाची ही जमीन? भांगराचें मोल येयलें इकोन उडयली! जगोंक जाय पैसो.

तो : फकत पैसो आसलो म्हणोन सगळें गांवतलें?

परशु : कित्याक ना? गाडी, बंगलो आनीक कितें जाय.

तो : चेड्या हीं खरी सुखां न्हू. मनाच्या सुखाचें, अंतकरणाच्या समाधानाचें कितें? आनी सगळेंच इकोन वडयल्यार फायच्या पिळगेन जगप तरी कशें?

परशु : फायचें कोणेन पळयलां. तेमचो इचार तेमी करचेलो.

तो : आमी कोणाचो इचार करपाचो.

परशु : फकत आमगेलो. आनी हो पैसो तेमकां राज्याक पुरो.

तो : उरतलो? तेमच्यामेरेन पावतलो.

परशु : तेमचेमेरेन पावतलो म्हणजे? पावतलोच!

तो : मडको, जुगार, सोरो, पार्टी... वळणां घेयत वयतलो... पावतलो!

परशु : (बेजारून) बाजारांक वयतालो मरे? सदा हेका मात्सो व्हरोन सोड पळोवया.

तो : हांयेन तुका पयलींच सांगलां म्हाका उपकार नाकात. हेगेले उपकार तर नाकातच.

परशु : (रागान पळयत रावता)

सदा : हेंणे मोगान सांगलें म्हणोन इस्वास दवरिलो. दिसलें घराक बरे दीस येयले. चेडो बापायवांगडा मोगान उलोंवक लागलो. हेणें मोगान उलोवन गळो कापलो... हालीं सगळेंच मोगान सांगोंक लागला तो म्हणोन भिरांत दिसता. (ते गाडयेन वयचो ना मुरे, मागीर तेगेल्या गाडयेन मागे ये)

सदा : तेगेल्या गाडयेन वच ना मरे मागीर मागे गाडयेन यो!

तो : रोगाची लागण ही. राशीनी पैसो येयलो. जित्या मनशांचे आंगठे लायले... मेलेल्यांचेय आंगठे लायले... आतां रात खोरजोंक लागले... फाल्यां हो शांबाय गाडी घेतलो.

परशु : तेतूंक कितें चुकलें तर?

तो : चुकलें कांयच ना! पूण इकिल्ल्या जमनीचें कितें?

परशु : जेणी घेतल्यो ते पळयतले! तेमगे टेंशन आमगे बोडार कित्याक?

तो : दर्यादेगेर वचपी त्या पायवाटांचे कितें. ज्यो तेणी गिळून वडयल्यो?

परशु : पाड पोडों त्या पायवाटांचे.

तो : सांवळ झडपाक गेल्लेकडेन तान भागवपी त्या झऱ्याचें कितें जो तेणी आपल्या नांवार केलो?

परशु : हेका आतां कितें सांगो? कशें सांगो? बाजारांक वसोंक भायर सरला मरे मागीर वोस पळोवया बाजारांक. कांयच समजून घेना!

तो : जगपाचें कोणाखातीर? स्वतःखातीर कांय सगळ्यांखातीर. स्वतःखातीर जगपाचें हें जर सत्य आसत जाल्यार तूंच बरोबर, म्हागेलें चुकता पूण अशें स्वतःचें अस्तित्व वगडावन स्वतःखातिरूच जगप शक्य तरी जातलें? म्हाका भिरांत दिसता... सामकी भिरांत दिसता.

शांबा : दादो म्हणोन सांगता हांव वांगडा येता म्हणोन.

तो : तुजेवरी लोक अवती भवती आसात म्हणोन तर चड भिरांत दिसता म्हाका... भिरांत दिसता.

सदा : कसली भिरांत?

तो : कोण येतले हांगा? कितें जातलें हांगा? म्हागेले मत थरथरता. सदीं इबारता. आमचे गावांक आमीच परकी जावचे ना मूं? पांयवाटो सोडोंक सोदतात सामकेच रस्त्यार येवचे ना मूं? (देखाव सोंपता)

(ते दोगूय दिश्टी पडटात. सामके विचारमग्न. मंद उजावाडांक एकटोच बशील्लो तो दिश्टी पडटा. दोगूय ताचेकडेन एकटक पळेत आसात.)

कु. 1 : मूर्ख! सामको मूर्ख मनीस!

कु. 2 : कोणाविशीं म्हणटा तूं?

कु. 1 : हो तो जाण्टेलो कांय अक्कलच ना.

कु. 3 : (हांसता) कित्याक देव जाणा. पूण म्हाका तर इतल्या सगळ्यां भितर तोच शाणो दिसता. तोच हुशार दिसता.

कु. 1 : दारांत आयल्या ती धनलक्ष्मी लाथाडपी शाणो कसो जांवूक येता. तो पिसोच.

कु. 2 : ताका जिणेचो खरो अर्थ कळ्ळा देकून तो शाणो.

कु. 1 : हरशींय जाल्यार तुजें कितें तरी जगावेगळेंच. या तरणाट्यांचे विचार म्हाका पटतात.

कु. 2 : कोण? हे! तरणाटे? खरें सांगू म्हाका हो एकटोच तरणाटो कसो दिसता! हे बाकी सगळे मनांक पोंग आयिल्ले म्हातारे... खरेंच.

कु. 1 : आसूं! व्हडलो विचार कित्याकच करचो ह्या गजालीचेर? कांय खीण मात मजेन गेले. वेगळ्या विश्वाचें दर्शन घडलें.

कु. 2 : खरेंच, एके वेगळें विश्वाचें दर्शन. जातूंक एक व्हड मनीस आसा मळबायेदो व्हड आनी एक ल्हान मनीस गांयडोळ कसो आपल्याच सुखाच्या चिखलांत वळवळपी.

कु. 1 : आसूं रे! कित्याक बोडाक विचार करता इतलो.

कु. 2 : तीच तर एक बरी गजाल घडल्या जिणेक. विचार करपाची संद तरी आयल्या वाट्याक. (हो देखाव सोंपता)

(मुखाल्लो देखाव सुरू जाता. तेन्ना तो आनी ती एकेवाटेन बशील्लीं आसता. दुसरेवटेन सदा, शांबा, परशुराम बशील्ले. कांयच संवाद नात. कोण मोबायलाचेर गेम खेळटा, कोण गाणी आयकता तर तिसरो बेश्टोच हेवटेन तेवटेन पळोवन शिटी घालता.)

दिगू : इट्ठल माड्डीतळपार कसली तरी खण येता म्हणोन कानार येचलां. गजाल खरी रे?

तो : पंचायतीक लॅटर येयलां खंय कसलेंतरी कोण म्हणटा खरें कारण वेगळेंच आसा म्हुणोन.

दिगू : येगळें कारण

तो : येगळेंच कितें येवपाचें आसा खंय हिंगा लोकांचे लक्ष दुसरेवटेन करपाचो प्रयत्न चल्ला खंय खाणीचे नांवांन.

दिगू : पूण अशें कितेंय घडलें जाल्यार अरिश्ट कोसळटलें.

सदा : अरीश्ट? अरीश्ट कसलें तितूंक. ती तर बरी गजाल.

दिगू : बाये घोव रे हेच्या. हेमगे शिक्षणाचो न्हू कसलोच उपेग ना. बरी गजाल खंय.

शांबा : हय, बरीच गजाल ती.

दिगू : मडें तुजें. आख्खो वाठार काबार जातलो.

तो : (खीन्न जावन) शेतांभाटां नश्ट जातली. मागीर पोटापाण्याचें कितें?

सदा : कंत्रांटा मेळटली! टिप्परी काडोंक मेळटल्यो, जोडच जोड.

दिगू : हेचे वाघ खालें रे! रस्ते उरतले टिप्परीखातीर.

तो : हात खरजता... पैशांचो मद मारला... बरें वायट चितपाची बुद्धच नश्ट जाल्या... ताचोच भंय दिसता दिगू.

दिगू : बुद्ध आसल्यार मरे तेमकां.

शांबा : अशें कित्याक म्हणटा तूं?

दिगू : गांडीक शेपटी घालोन हेचेतेचे फाटल्यान भोंवपांचे व्यसन लागलां हेमकां. चिकन – सोऱ्याच्या वासाखातीर बोडां घाणांक दवरल्यात हेणीं. कितें मेळटा तें भितर भरपाचे. स्वतःचेंच चिंतपाचें.

सदा : तितूंक आमचें कितें चुकलें तर?

दिगू : फुडल्या पिळगेचो इचार कोण करतलो?

परशु : आमी बेकार रावल्यार चलता दिसता.

दिगू : तुमकां बेकार रावोंक कोण सांगता. कामां करात कामां.

परशु : कसलीं कामां?

तो : शेतांभाटां सांबाळात काम करात.

दिगू : कशें वोग्गी रावले पळय. एके रातीं भीतर व्हड जावोंक सोदतात.

परशु : व्हड जावोंक कितें चूक आसा तर?

तो : चूकीच्या मार्गान व्हड जावोंक आसा.

दिगू : शिकील्ले पोर तुमी, आमचेपरस चड कळोंक जाय तुमकां.

तो : झाडापेडां तीगलीं ना जाल्यार मातीच खांवची...

सदा : म्हणजे आमी आसलेले तशेंच रावप. प्रोग्रेस करप ना.

तो : कसली उदरगत! आपल्याच घरांन परक्यावरी भोंवचें पडलें जाल्या तातूंत कसली आयल्या उदरगत? उदीकाखातीर लोकांक टेंकराची वाट पळोवची पडटली तिंतूंक कसली आयल्या उदरगत?

परशु : सगळ्यो मुखावयल्यो गजाली. अशें जातलें तशें जातलें. जातलें तेन्ना पळोवया. आतांच कित्याक हो विचार.

तो : घडोन वयतलें तेन्ना इचार करोकं येळच मेळचो ना. पैसो येयला हातान... तेन्ना पैशाचोय कांय उपेग आसचो ना... मुखावयलें चितूं पडटा...

परशु : तुमीच चिंतात मुखावयलें. आमी ह्या खिणाचें चिंततात.

तो : कोणाकडच्यान कांयच अपेक्षा नात. दर एकलो जेकातेका जाय तसोच वागतलो. जें घडटा तें म्हाका पटना. हायेंन जाय तशें वागप गांव जळटा जोळोन वचों! गोबोर जावं. हावेंन पोटली बांदोन पळूप म्हाका गांवाचें कसलें सोयरसुतक!

परशु : जाण्टेलो आतां सारखें वुलयलो. आमी तर तेंच सांगता तुकां. आमी आमचोर विचार करया. खिणभर अशी मनशाची जीण मजेन घालोवया. इनजॉय करया.

तो : आमचे अशे वागप्यान भुंयेचो स्राप आमकां लागतलो तेचें कितें?

परशु : परतो मूळ पदार येयलो!

तो : तुमचेतरी पाडसावयलीं कुवाळीं कशी जगप म्हाका शक्य ना.

परशु : मागीर तुका जायो तसो तूं जग. आमचे वाटेक मात येनाका... पयलींच सांगोन दवरतां. (वचूंक लागता)

तो : राव! आयकोन घे. जो मेरेन जिवांक जीव आसा हांव आतां तुमचे वाटेर आडवो येतलोंच. जावों दी जें जावपाचें आसा तें.

परशु : एकटोच पडटलो. कोण वांगडा येवचो ना.

सदा : सगळ्या गांवकऱ्यानी जमीन इकल्या.

शांबा : जायत्या जाणांनी गाडयोय घेतल्यात.

तो : हांव मात आजून स्वतःच्या पांयांनी चलतां. एकटो पडपाचो भंय घालतात कोणाक ह्या ईट्ठलाक? हो एकटो इट्ठल कितें कोरोंक शकता तें दाखयताच तुमकां!

परशु : सदा, चल या आमी. या जाण्टेल्याचें बोड फिरलां. (वतात.)

तो : (आड्डून) सारकें! बोड फिरलां म्हाजें! म्हाजें लागीलेगीत येवू नाकात. गोबोर जातले. आवयक पावणेर काडोंक उठल्यात गू खायरे बोड फिरलां... तुमच्या कर्तुपांनी... हो इट्ठल...

दिगू : हे तरणाट्यांक सांगोन कांयच फायदो ना. तेमी आपलें तेंच खरें करतले.

तो : आतां हायेंन थारांयलां... पेटोंन उठपाचें... परतोन पेटून उठपाचें. पोर्तुगेजांच्या तावडींतल्यान गोंय सोडवपाक पेटोंन उठले... झुंजले... आतां भूंय मुक्त करपाक आमचेच लोकांकडेन झुंजपाचें... मरणाचो भंय कोणाक आसा... आतां पेटोन उठले ना जाल्यार... फुडली पिळगी भोगतली... तांच्या वाऱ्याक येतल्या त्या यातनांचो विचार केल्यारूच भंय दिसता... पोरतोन तरणे जावचेंच पडटलें... भूंय वाचोवपाक (देखाव सोपता)

(आतां ते दोगूय दिश्टी पडटाट. तल्लीन जावन ही घटणा पळयत रावल्यात.)

कु. 2 : पळयलें हांवे तुका सांगील्लेंच की होच खरो तरणाटो.

कु. 1 : हांव म्हज्या मतार ठाम आसां की हो सामकोच मुर्ख. पेंटून उठपाची भाशा करता. हाका जमतलें?

कु. 2 : ताच्या मनात होमखण पेटलां. पेटून उठप जमल्यार फकत ताकाच.

कु. 1 : पुण ताकाच सोसचें पडटलें...

कु. 2 : ताची तयारी आसा.

कु. 1 : आरे पूण शेवटाक नुकसान ताचेंच जातलें.

कु. 2 : पळेत राव तूं. नुकसान कोणाचें जाता तें. आतां तो पेटून उठतलो मागीर आनी कोणतरी उबो रावतलो... मागीर संघर्श... न्याय अन्यायाची लढाय.

कु. 1 : (पिशेवंतल्यान रुपडें काडटा)

कु. 2 : हें कितें करता तूं?

कु. 1 : देवळांन वचपाची तयारी. हांगां आतां कितें जातलें सांगूंक नजो. म्हाका असल्या भानगडींक पडपाचें ना. जिवाक नसते त्रास. चार दीस मजा केली पुरो. फोव आनी

कातले कुडकेच बरे... काळोखूच बरो.. या उजवाडाखातीर झगडचें पडटा.

कु. 2 : (आपलें रुपडें ताका दिता) हें रुपडें हरिदासाक व्हरून दी.

कु. 1 : आनी तूं?

कु. 2 : हांव परतून देवळांक येवचो ना. कुड्ड्यामाची जावन तर केन्नाच ना येवचों.

कु. 1 : मागीर तुका सामान्य मनशाची जीण जगची पडटली.

कु. 2 : तीच तर जगपाची आसा म्हाका. कितली सुंदर आसता पळय ही समान्य मनशाची जीण.

कु. 1 : आरे पूण...

कु. 2 : चल तूं... हरिदास तुजी वाट पळेता आसतलो. हांव मात येवचो ना. हांव वतां त्या साठ वर्सांच्या तरणाट्यावांगडा पेटूंन उठपाक... आवडले म्हाका ताचे विचार... भिडले काळजाक आरपार.

कु. 1 : आरे पूण हें सगळें कोणाखातीर?

कु. 2 : म्हजेखातीरुच. हय म्हजेच खातीर. काळजांतल्या ह्या भुंयेखातीर. उजवाडाच्या गीताखातीर... दादो, हांव येता तुजेवांगडा... जगपाखातीर (ल्हवल्हव उजवाड कमी जाता. तेन्ना दुसरेवटेन हरिदास, शंखासूर, मस्त्यावतार दिश्टी पडटा. शंखासूर वध सुरू आसा.)

कु. 2 : सगळें म्हजेखातीर, जगपाखातीर, हय जगपाखातीरूच.

(समाप्त)

कथा

# सुंदर दोळ्यांची सुलभा!



यज्ञेश्वर निगळे

सुलभा देखणी आशिल्ली. विशेशकरून तिचे दोळे विलक्षण सुंदर आशिल्ले. पूण सुलभांत एक वैगुण्य आसलें. तिचो दावो पांय खूब अपंगूळ आसलो. त्या पांयांन सुलभा रखडत चलताली. हमाल गल्लींतले तिचे शेजारी तिची ती अवस्था पळोवन खूब हळहळटाले. सुलभा कशीबशी धावी पास जाली. फुडलें शिक्षण घेवप अवघडच आशिल्लें. घरांतली परिस्थिती गरिबीची. सुलभाचीं धाकटीं भावंडा शाळेंत शिकतालीं. तांचीं पुस्तकां, वह्यो इत्यादींचो खर्च बापायक परवडपासारखो नाशिल्लो.

'कशें जातलें गो बाय तुजें?' आवय सुलभाकडेन पळोवन म्हणटाली. तिका सुलभाच्या लग्नाचो हुसको लागून राविल्लो. हे पांगळे बायक कोण पतकरतलो? आयुश्यभर हिचो सांबाळ आमकांच करचो पडटलो काय कितें देवाकच खबर अशें म्हणून बापूय वैताग करतालो. पूण सुलभा समंजस आशिल्ली. तिका परिस्थितीची जाणीव आसली. तिणें आपल्या लग्नाचो प्रस्न आपणेच सोडयलो! पूण गुपचूप पणान, आवय-बापायक कळनासतना. अरुण फेरिवालो पेल्यान, मजूर पायणींत रावतालो. ताची हालपी हातगाडी आसली. खेळणीं, प्लॅस्टिकचीं आयदणां इत्यादी वस्तू हातगाड्येवेल्यान तो प्रत्येक पायणींत फिरून विकतालो. पूण हातगाडी धुकलतासतना अरुणाक कश्ट पडटाले. कारण ताचो उजवो हात खूब आंखूड आसलो.

अरुणाची हातगाडी एक फावट हमालगल्लेच्या नाक्यार आयली. पायणितल्यो अस्तुऱ्यो नाक्यार आयल्यो आनी अरुणाकडेन हुज्जत घालून आयदनां विकतीं घेवपाक लागल्यो.

'ए गाडीवाल्या, प्लॅस्टिकच्या ह्या टबाचे तूं कितले पैशे घेतलो?' – रखडत रखडत हातगाड्यार वचून सुलभान अरुणाक सवाल केलो.

'धा रुपये' अरुणान शांततायेन जाप दिली.

'कितले पैशे आसा तें नक्की सांग.'

अरुणान घासाघीस करपी गिरायकाकडेन फाटल्यान पळयलें. आनी तो अजापीत जालो! इतली आकर्शक चेऱ्याची आनी सुंदर दोळ्यांची चली अरुणान आयजमेरेन पळोंवक नाशिल्ली.

'नक्की किंमत आसा धा रुपये. पूण तूं फकत आठ रुपये दी. पूण तशें नाका. तू फकत पांच रुपये दी. ना जाल्यार तू अशें कर.

'कितें करूं?'

'तूं एक पयसो लेगीत दिवं नाका. हो टब तूं म्हाका पयशे दिनासतना असोच, फुकट व्हर.' एकाद्र्या पिशा मनशाभशेन उलयत राविल्या त्या तरणाट्या फेरीवाल्याकडेन सुलभा पळयतच रावली. तिच्या चेऱ्यार एकदम हांसो फुललो!

'हें पळय फेरीवाल्या, म्हाका तुजी वस्त फुकट नाका. कोणाच्याच कश्टाची वस्त फुकट घेवची न्हय. तू नक्की किंमत उलय.' सुलभाच्या आग्राखातीर ते वस्तीची किंमत म्हूण अरुणाक धा रुपये घेवचेच पडले. ताचे उपरांत अरुण हमालगल्लींत जायतेदां येत रावलो. ताका आपलो म्हाल ते गल्लींत खपोवपाचो आसतालो तर केन्ना केन्ना ताका थंय आपली उदारी वसूल करची पडटाली. प्रत्येक फावटीक ताची सुलभाकडेन मेळप जाताली. ताका सुलभाकडल्यान अनुकूल असो प्रतिसाद मेळटालो. अरुण – सुलभा हांच्यो गांठी भेटी जायतेदां जावपाक लागल्यो. आनी दोगांय एकमेकांच्या मोगान केन्ना पडलीं हें तांकांच कळलें ना. अखेरेक हमाल पायणींत एक दीस एक खळबळजनक खबर पातळ्ळी. 'सुलभान घरांतल्यान पळून वचून मजूर गल्लींतल्या अरुण फेरीवाल्याकडेन लग्न केलें. तुका खबर आसा मू?' – प्रत्येक जाण दुसऱ्याक विचारपाक लागलो. सुलभाच्या बापायक ही खबर कळटकूच तो सामको खचलो. 'पोर सामकी नालायक थारली.' – ताणे सुलभाचे आवयेक म्हणलें, 'हाचे उपरांत ह्या घरांत सुलभाचे नांव लेगीत घेवपाचें ना, सांगून दवरतां. ह्या घरांतले आमी सगळेजाण तिका मेले आनी ती आमकां मेली.'

अरुणाचें घर म्हणल्यार एका बंगलेवाल्या गृहस्थाच्या रिकामी पडिल्या गॅरेजींतली पत्र्याच्या आलाशिऱ्यान उबी केल्ली पडवी. पूण सुलभान ते पडवेकूच आपलें घर मानलें. लग्न जावन त्या घरांत येतकूच सुलभान सगळ्यांत पयलें काम हातींत घेतलें तें साफसफायीचें. सान्न घेवन तिणें सगळें घर झाडून काडलें आनी कोनशांत एकठांय करून दवरिल्लो कोयर ल्हासून उडयलो. जमीन शेणान नितळ केली. मध्य भागांत दोरयेच्या आदारान तातपुरतो आलाशिरो तयार केलो. अरुणाचे पडवेची कळा आतां सामकी बदलल्ली. तिका थोडें भोव 'घर'पण आयलें. ह्या घरांत अरुण – सुलभाचो घराबो सुरू जालो. घराबो गरिबकाये आसलो, पूण तातूंत आनंद आसलो. समाधान आसलें आनी सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार स्वतंत्रताय आसली.

अशेच दोन–चार म्हयने गेले आनी सैमान आपलें काम सादलें. सुलभाक दीस गेले. थोड्याच दिसां भितर घरा येवपी ल्हानग्या जिवाक जपप, कसो मोटो करप हेविशींचीं सपनां अरुण–सुलभा आपल्या मनांत रंगवपाक लागलीं... आनी एक दीस विपरीत घडलें. अरुण घरांतल्यान गेलो आनी

तो परतलोच ना. सुलभान ताची आठ दीस वाट पळयली आनी मागीर तो पळून, घर सोडून गेला हाची सगळ्यांक खात्री जाली. म्हजी ही अशीं अवस्था आसा हें अरुण बरें भशेन जाणा. तरिकूय ताणें घर सोडलें. ताच्या ह्या विपरीत वागणुकीचो अर्थ कितें?... चिंतून, विचार करून सुलभा थकली पूण आपल्याचेर आभाळ कोसळलां हाची जाणीव आसूनय सुलभा मातलेगीत डगमगली ना. गॅरेज मालकाच्या बंगल्यार वावराडी म्हूण तिणे वावरपाक सुरवात केली. कांय दिसां उपरान्त तिका आठवो म्हयनो लागलो. 'फुडें कितें?' हो प्रस्न तिका अस्वस्थ करतालो. तेच अवस्थेंत ती असहाय्य पणान कुळारा आयली.

तिनसांजचो वेळ. घराचें दार उकतेंच आसलें. बापायची भायर नदर वतकूच ताणें किळांच मारली, 'अखेरीक बापायच्या दारांत पावलें मगो तूं गांवांर दिवे लावन?'

'अशें कितें उलयतात तुमी? आयकयात तरी मातशें.' आवयन प्रेमळपणान म्हणलें, 'तिची अवस्थातरी पळयता. येवंदी तिका घरांत.' ह्या उलोवण्याचो परिणाम भलतोच जालो. बापूय चडच तापलो. 'आगो दळदिऱ्या पोट वाडोवन आयलें म्हूण काकळूट करून हांव तुका घरांत घेतलों असो अदमास तुवें केलो तरी कसो? घरांत ल्हान भावणां आसात. तीं बिघडपाक नाकात. आयलें तशें चलूंक लाग. चल पयलीं.' सुलभान दुकां पुसलीं आनी ती फाटीं सरली... ह्या घरांत म्हजो हुसको करपी मोगाळ मनीस कोण उरलो ना. अरुणान म्हजो इतलो मोग केलो, पूण तो लेगीत पळून गेलो. ताणें म्हजेकडेन अशी वागणूक कित्याक करची?... सुलभा चलतासतना तिचें विचार चक्र चालू आशिल्लें. अखेरीक ती आपल्या घरा आयली. ... आतां म्हजें म्हाकाच सांवरचें पडटलें... सुलभाची खात्री जाली. अशेच धा-बारा दीस उलटले आनी सुलभाच्या पोटांतल्यान कळो मारपाक सुरवात जाली. ते रातीक सुलभान एका मोहक, खोसदिण्या जिवाक जल्म दिलो. ताची इल्लीशी जिवणी थेट अरुणाभशेन आशिल्ली. त्या इल्याशा जिवाक दूद दितासतना सुलभा स्वताचें दुक विसरली! दोन दिसांउपरान्त एका कठोर वास्तवाक तोंड दिवचें पडटलें हाची तिका कल्पना नाशिल्ली.

'सुलभाबाय, तुका फाल्यां सकाळीं दवाखानो सोडचो पडटलो.' तीन दीस फाटीं पडटकूच मेट्रन मॅडमीन सुलभाक शिटकावणी दिली. सुलभाक धक्कोच बसलो! 'सिस्टर, म्हजी इल्ली काकळूट कर.' सुलभान कळवळून सांगलें, 'म्हजें इल्लेंशें, दोन-तीन दिसांचें धाकटुलें घेवन हांव खंय वचूं? म्हाका कोणाचोच आसरो ना. तो हांव अशे परिस्थितींत खंय सोंदू? म्हाका मायेचीं अशीं कोणूच नात. आवय-बापूय लेगीत.' दोळ्यांत एकठांय जाल्लीं दुकां सुलभान ल्हवूच पुसलीं.

'तुजें रडगाणें आयकपाक आमका वेळ ना. तुज्या ल्हानग्याचो सांबाळ करपाचो आमी मक्तो घेवंक ना.' रुक्षपणान मेट्रन उलोवपाक लागली, 'जाय जाल्यार भीक माग. पूण तूं हांगासून वच.' मेट्रन बायचें हें रुक्ष उलोवप आयकून सुलभा सुन्न जाली. दुसऱ्या दिसा तिका दवाखानो सोडचो पडटलो. परत तिका गॅरेज मालकाच्या आलाशिऱ्याक येवचें पडलें.

************

सुलभाचें ल्हानगें आतां दोन वर्सांची चली जालें. तिका घेवन सुलभा एकदीस रखडत रखडत एका आश्रमाच्या दारांत वचून उबी रावली. कस्तुरबा अनाथ अपंग महिलोद्धार संस्था तो आश्रम चलयताली. आश्रमाच्यो मुखेली आसल्यो सरोजिनी दयाळू. अंतस्करणान खूब मोगाळ.

गॅरेज मालकान सरोजिनीबायकडेन सुलभाखातीर उतर घातिल्लें. म्हूण बायन सुलभाक आपोवं घेतिल्ली.

'बाय, बस, हांगा बस. तुजें नांव, गांव आनी तुजें सगळें कथन मेकळेपणान म्हाका सांग.' सरोजिनीबायचे मायेन पुराय भिजिल्ले म्होवाळ शब्द कानार पडटकूच सुलभा रडपाकूच लागली. आयजमेरेन इतल्या मायेमोगान तिचेकडेन कोण उलोवंक नाशिल्लें. सुलभान आपले दोळे पुसले आनी बायक आपली कर्मकाणी आयकयली. सुलभाच्या घरकाराचें नांव अरुण आसा आनी त्याचो उजवो हात थोडो आंखूड आसा हीं सुलभान सांगिल्लीं. उतरां सरोजिनीबायन गंभीरतायेन घेतलीं. स्वताकडेन कितें तरी फुतफुतून तिणें मेजावयली बेल वाजयली. आश्रमाचो धवो फुल्ल गणभेस घातिल्लो चपराशी बायच्या मुखार नमळायेन येवन उबो रावलो. सुलभाची ताचेर नदर गेली आनी तिणें किळांच मारली, 'अरुण!' आश्रमाचो तो शिपाय म्हणल्यार अरुणच आसलो.

'बाय, तुजें कथन आयकल्या उपरान्त हावें एक अदमास केलो. कितें तो सांगूं?' सरोजिनीबायन सुलभाक विचारलें. सुलबान हयकार दाखोवपीं मान हालयली तशें सरोजिनीबायन फुडें सांगलें, 'अडेच वर्सांपयलीं हावें आश्रमाचें काम करपाखातीर नेणूक केल्लो आनी उजव्या हातान पांगळो आशिल्लो शिपाय हो तुजो घरकार आसपाक जाय, असो हावें अदमास केलो. बरें जालें. म्हजो अदमास खरो थारलो.' इतलें उलोवन जातकूच सरोजिनीबायन अरुणाक विचारलें, 'कितें रे अरुण, घरकान्नीक एकलीच सोडून तू पळून कित्याक गेलो?'

'बाय, सगळें सांगतां.' अशें म्हणून अरुणान जें कथन केलें तें आयकतकूच सरोजिनीबाय सामकी अजापीत जाली! आपल्या कथनांत अरुणान सांगलें, 'त्या दिसा, हांव बाजारांत वचपाखातीर पायणीच्या मुखेल तिठ्यार आयलों. थंय केसरी वस्त्रां पांगरिल्लो एक महाराज बांकार बसून आशिल्लो. ताचे भोंवतणी लोकांचो गराडो पडिल्लो. तातूंतल्या कित्येक जाणांक हांव वळखतालों. कोणेतरी सुचयलें, 'अरुण, महाराजांच्या पायांर घालून घे. हे महाराज त्रिकालगिन्यानी आसात. तांका दक्षिणा दी आनी तांका तुज्यो अडचणी सांग. महाराज कृपावंत जावन तुज्यो सगळ्यो अडचणी पयस करतले.' हावें ताणे कितें सुचयलें ताचेर विस्वास दवरलो. बोल्सांतल्यान वीस रुपयांची नोट काडून ती महाराजांच्या पांयांर दवरली आनी तांका म्हज्या अडचणींचें कथन केलें. निमाणेंकडेन विचारलें, 'महाराज, म्हज्या पुताक निर्दोश भलायकी मेळटली मूं?' महारान दोळे धांपून जाब दिली, 'बेटा, म्हाका तुजो भविश्यकाळ स्पश्टपणान दिसूंक लागला. तुका जें अपत्य जातलें तें हातापायांनी पांगळें आसतलें.

म्हाका भिरांत दिसली. तितल्यांत महाराजान धीर दिलो, 'बेटा भिरांकूळ जांव नाका. ह्या प्रसंगांतल्यान हांव तुका वाट दाखयता. पूण म्हजी दक्षिणा...' हावें मोन्यानी महाराज्या पायांर आनी एक फावट वीस रुपयांची नोट दवरली आनी महाराजाच्या मुखार हांव काकुळटवाण्या चेऱ्यान हात जोडून उबो रावलों. महाराजान समाधी लायली आनी ताणें म्हणलें, 'बेटा, म्हाका तुजे घरकान्नीचो भावी काळ स्पश्टपमान दिसता. फुडल्या धा दिसांभितर तिचो मृत्यू अटळ आसा. तो टाळपाचो आसत जाल्यार...'

'... जाल्यार हावें कितें करपाक जाय, महाराज?' हावें अधीर जावन विचारलें.

'... रामान सीतेचो जसो त्याग केलो तसो तूं तुजे घरकान्नीचो बेगोबेग त्याग कर. तिच्या

तोंडार नदर लेगीत घालूं नाका.' महाराज्या उलोवपाचेर पुराय विस्वास दवरून हांव मागीर घरा परत गेलों ना.'

ल्हानग्याक अरुणाच्या हातींत दिवन सुलभान म्हणलें, 'अरुण, ही पळय तुजी धूव. पळय कशी कमळाच्या फुलाभशेन आसा. तिचेकडेन सारकें पळोवन सांग आसा ती अपंगूळ?'

'म्हजें चुकलें, 'पश्चातापान होरपळून अरुण इतलेच दोन शब्द उलयलो.

'कितलो रे तूं भोळो अरुण! एका लफंग्या महाराजाच्या नादाक लागून तूं तुजे हे गुणवंत घरकान्नीक वाऱ्यार सोडून पळून गेलो! तुका पिसो म्हणचो काय खुळो?' – सरोजिनीबायन हांसो लिपयत अरुणाक विचारलें.

'मॅडम, म्हजेकडेल्यान चूक जाली. म्हाका क्षमा कर.' अशें म्हणून अरुणान सरोजिनी मॅडमीमुखार हात जोडले.

'तुका हांव माफ करतां, पूण एके अटीचेर.' मुरमुखें हांसत सरोजिनीबायन म्हणलें, 'तुजी हातगाडी भायर काड आनी परतून एक फावट तुजो फेरीवाल्याचो स्वतंत्र वेवसाय सुरू कर. एक मात विसरूं नाका. हांगा ड्युटीचेर दिल्या वेळार हाजीर राव. सुलभा एस. एस. सी. पास जाल्या. हांगासरल्या निरक्षर अस्तुरींखातीर तिणें साक्षरताय वर्ग चलोवपाची आसा. हांव तिका आयजच्यान कामार घेतां. सुलभा करशीत मगो हें साक्षरताय वर्गाचें काम?'

'बाय, तुमचे उपकार व्हड आसात. आमी ते केन्नाच विसरचे नात.' अरुणान आनी सुलभान एकेच वेळार कृतज्ञतायेची भावना व्यक्त केली.

●●●

कथा

# फोटोग्राफर



कुमूद भिकू नायक

संदिप दिश्टी पडलो म्हण्टच सगळीं पयस धांवतालीं. आपणाक पळोवन सगळीं पयस धांवतात म्हण संदिपाक हांसपाक येतालें. एकलोच बसून हांसतालो. संदिपाक दिसतालें हांव कांय राकेस न्हय आनी जॉकरूय न्हय. हांव एक सादो फोटोग्राफर. खरेंच हो संदीप सादो सुदो मनीस. ताच्या गळ्यात एक कॅमेरा आनी खादांक एक बॅग. खंयूय वच, लग्नाक, मुंजीक, सोयऱ्यागेर नाजाल्यार कोणाल्या मरणाक वच ताचेकडेन कॅमेरा हो आसतालोच.

संदिपाक तीन भाव. तिगूय भाव बऱ्या कामाक आशिल्ले संदिपाचो बापूय बऱ्या कंपनीत कामाक आशिल्लो. हालींच तो रिटायर्ड जाल्लो. आवय घरचीं कामां पळयताली. संदिपाक मात घरांतले कांयच लगनाशिल्लें. ताका लागून कामाकबी वचपाचो ताका हुस्कोच नाशिल्लो. घरांतल्या सगळ्यांक मात हाचो हुस्को. हाचे फुडे कितें जातलें काय? मेळत ताचे फोटो काडून तो वण्टीर लावपाचें काम तो भेस बरें करतालो. तातुंतल्या तातूंत वळख नाशिल्ल्याचे पोटो काडपाक ताका खूब आवडटालें. तिगूय भाव मात वण्टीवेले फोटो पळोवन सामके बेजार जाताले. पूण कांय उलय नाशिल्लें. बापूय मात बडबडत आसतालो. कितें त्यो वण्टी रंगोवन दवरल्यात? आतां तो कितें ल्हान आसा? वीस-बावीस वर्सां जायत आयलां. हाका आतां केन्ना गिन्यान येतलें कोण जाणा. खंयूय कामाक लागलो जाल्यार हांव सुट्टलो आशिल्लों. अशें म्हण्टकच आवय मात आपल्या

धाकट्या पुताची बाजू घेवन उलयताली. ताका आवडटात न्हय फोटोकाडपाक, काडूनी ताका. कितलें बरे फोटो काडल्यात पळयात ताणें; पळोवपाची म्हण एक नदर आसता ती तुमकां नाच. फोटो काडल्यार कितें जालें? ह्या फोटवांक लागून ताचें नांव एक दीस तरी वयर सरतलें आनी तेन्नाच तुमकां कळटलें. अशें ती सामकी तिडकीन म्हणटाली. वण्टीचेर फोटो लायतना सारखे वेवस्थीत करून लावपाक संदीपाक ती सदांच मदत करताली. आवयक लागून ताका कोणूच कांय म्हणनशिल्लो.

आवयचें उलवप आयकून व्हडलो चलो आवयक समजावन सांगतालो, 'आई, एक सांग गे कोणाय बरोबर पिकनिकेक गेलो, दिसभर भोंवलो आनी कोणाचेय फोटो काडले म्हण कितें ताचे पोट भरतलें? फोटो काडपाक ताका जर इतलें आवडटा तर आमी ताका आमच्या घरा कुशीक एक रूम बांदून दिवया. फोटो काडपाखतीर व्हडलो कॅमेरा, लागता तें साहित्य ताका हाडून दिवया. आनी भायर एक व्हडलो बोर्ड करून ताचेर 'संदीप फोटोग्राफर' म्हण नांव दिवया. ताका लागून कळटलें, हांगा फोटो कडटात म्हण. फोटवाची गरज आसा तेच लोक हांगा येतलें. ताका लागून संदिपाचें गांवार भोंवपाचे तरी कमी जातलें. लग्नांक, मुजीक, वाडदिसाक अश्या जायत्या कार्यावळीनी फोटो काडपाक ताका आपयतलें. अश्यो तरेच्यो वर्डरी घेतल्यो म्हण्टकच ताका चार पयशेंय मेळटले आनी ताचेर एक जबाबदारी उरतली. बेश्टेच कोणाचेय फोटो काडले म्हणटकच लोक ताका पिसो म्हणटले. अशें सांगले म्हण्टकच आवयक तें तेदेवळारूच पडटालें.

व्हडलो चलो सांगता तें आयकून दुसऱ्या चल्यान आपले एक अणभव आवयक सांगलो. जाणा मुगे आई, कालचीच गजाल, हो बसस्टोपाचेर उबो आशिल्लो. म्हजे कुशीक दोन-चार चलयो उब्यो आशिल्ल्यो. इतक्यात थंय संदीप पावलो. ताका पळयतकच सगळ्यो चलयो धांवपाक लागल्यो. पयलीं म्हाका कितें तें कळ्ळेंच ना. इतल्यात संदीप म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो आनी मोट्ट्यान हांसपाक लागलो. त्यो चलयो कित्याक धांवतात तें तुका खबर आसा? हो म्हाका म्हणपाक लागलो. 'तुका खबर आसा जाल्यार सांग मरे कित्याक धांवल्यात त्यो, हांवे हाकाच म्हणले, जाल्यार हो म्हाका म्हण्टा त्यो सगळ्यो चलयो म्हाका पळोवन धांवल्यात. हें सदचेच, हांव दिश्टी पडलों म्हण्टकच सगळ्यो चलयो धांव मारतात.

कित्याक तूं राकेस तर रे, तुका पळयतकच धांवपाक? अशें हांवे ताका म्हणलें, जाल्यार हो म्हाका म्हण्टा म्हज्या गळ्यांत कॅमेरा आसा न्हय.. चलयो दिश्टी पडटकच हांव तो कॅमेरा असो... करून दोळ्याकडेन व्हरता म्हणून तीं सगळीं धांवतात.

हें सांगतकच म्हाका कसली लज जाली जाणा मुगे, सणसणीत एक लावचें कशे दिसलें. त्यो चलयो पयस वचून म्हाकाच पळोवपाक लागल्यो. तेन्ना म्हाका कळ्ळें ह्या पिशाक लागून त्यो म्हाका पळयताल्यो म्हण. खरें म्हणल्यार ह्या गांवच्या लोकांनी सुद्धा हाका माथ्यार बसयला. एक दीस तरी मार पडटलोच ताका.

गांवचे कोणूय पिकनिकेक वचूं हाका पयलें आमंत्रण. खरें म्हणटल्यार हाका कोणाच्या आमंत्रणाची गरजच ना. वता म्हण ताच्या कानार पडल्या पुरो, तो आपल्या गळ्यांत कॅमेराबी घालून चलपाक लागलो. घरांतल्यान ताका कितेंय उलोवं तो ओगी रावन आयकून घेतालो. परतून तांकां कांयच उलयनाशिल्लो. हो ताचो एक बरो सभाव आशिल्लो. ताच्या ह्या सभावाक लागून

घरांत झगडींबी व्हडलींशी जायनाशिल्लीं. पिकनिकेक गेल्यार ताचो यो-वच आनी जेवणाचो खर्च ताका लागनाशिल्लो. कोणा बरोबर वता तेच करतालें. थंयचे फोटो काडपाचें काम मात संदीपाचें आशिल्लें.

संदिपाची एक वायट संवय आशिल्ली. एकठांय जावन कोणूय उलयता वा वळख - पाळख नाशिल्लो कोणूय दिसलो जाल्यार तो रोखडोच तांचो फोटो काडटालो. मागीर ताचो इश्ट ताका म्हण्टाले, 'आरे संदीप वळख नाशिल्ल्याचे कित्याक रे फोटो काडटा. तूं मरे बेश्टेच रोल पेड्ड्यार करता. अशें म्हण्टकच संदीप बरोबरच्याक खबरनासतना फोटो काडटालो. तो खंयच्च्याय गांवांत गेलो म्हणटकच त्या त्या गांवचे, त्या गांवच्या लोकांचे काडिल्ले फोटो घराकडेन हाडून एका लायनीन लावन दवरतालो.

एक दीस कितें जालें संदिपाक सोदीत सोदीत चार पोलिस संदीपागेर आयले. पोलिसांक पळोवन संदिपाच्या बापायक घाम आयलो. कितें जालें काय? इतल्यांत पोलिसानूच ताका विचारलें, हे संदिपालें घर? बापायन भीत भीत हय म्हळें. पुलीसान परतून प्रश्न केलो संदीप घरांत आसा? इतल्यांत संदिपानूच पोलिसांक विचारलें, कितें जालें? तुमी कित्याक आयल्यात? पोलिसान ताका सांगले, 'तुमी भिवों नाकात, तुमकां कांयच करिना. आमी मेंगलोरच्यान आयल्यात. एका खुन्याचो शोध घेत घेत आमी हांगां पावल्यात. हें आयकून संदिपाच्या आवय-बापायक घुंवळ आयिल्ल्याभाशेन जाली.

आवय्यस कितें, खुन्याक सोदपाक तुमी आमगेर? संदिपाच्या आवयच्या तोंडातल्यान फुडलीं उतरांच सुटना जालीं. तातुंतल्या एका पोलिसान वण्टीवेले फोटो पळोवन संदिपाक दाखयत म्हणले, संदीप तूं हाका वळखता. पळय म्हज्या हातितलो फोटो आनी आनी तुमच्या वण्टीचेर लायिल्लो फोटो तसोच दिसता.

हय, तोच तो, वण्टीचेर तो फोटो आसा जाल्यार म्हजेकडेनूय आसतलो.

कोणे तरी आमकां सांगले संदिपाक व्हरून हे फोटो दाखय, ताचेकडेन जाय तें फोटो आसात ताच्या घरात संबंध वण्टीचेर दर एका गांवातले फोटो आनी त्या गांवच्या लोकांचे फोटो लायिल्ले आसतलें. वळख नाशिल्ल्या लोकांचे सुद्धां तो फोटो काडून आपल्या वण्टीचेर लायता. घडये ताचेकडेन मेळूं येता. ताचेकडेन जर तो फोटो मेळूंक ना जाल्यार आमच्या गांवांत तो खुनी ना म्हण समजुपाचें. हें आयकतकच आमी तशेच तुमगेर आयले.

हें आयकून संदिपाचो बापूय संदिपाचेर तापूंक लागलो. आपणें हाका कितके फावट सांगले. लोकांचे फोटो काडूंक नाका. पूण हो म्हजे कसोच आयकनाशिल्लो शेवटाक हागेल्या इश्टानसुद्धा हाजेंच नांव सांगलें आनी पुलिसाक आमगेर येवचें पडलें.

संदिपान मात सदचेभाशेन बापायचे आयकूनाशिल्लेभाशेन केलें. आपल्याकडले फोटो आनी त्या गांवचे कांय फोटो तांणी पुलीसाक दाखयले. संदिपान दाखयिल्ल्या फोटवांत पुलिसान हाडिल्लो फोटो आशिल्लो संदिपान तो फोटो खंयच्च्या गांवात काडिल्लो तें पळयलें. जाल्यार एका हॉटेलांत दोग जाण बसून कितें तरी खातालें, तातूंत हो फोटो आशिल्लो. त्या फोटवांत हॉटेलाचो बोर्ड दिश्टी पडटालो. ताचेर बेळगांव बरयिल्लें स्पश्ट दिसतालें. चार दीस पयली संदिप आपल्या इश्टाबरोबर बेळगांवात लायटिचें सामान हाडपाक गेल्लो. थंयचे आनिकय फोटो ताचेकडेन आशिल्ले. त्या

खुन्याचो फोटो पळोवन पुलिसान ताका विचारलें, 'संदीप तूं ह्या फोटवांतल्या मनशाक वळखता? संदिपान ताका ना म्हणलें, हांव त्या फोटवांतल्या दोगांकूय वळखना. आमी त्या हॉटेलांत दोन दीस राविल्ले. तेन्ना थंयच्यान भायर सरतना हांवे त्या हॉटेलाचो फोटो काडिल्ल्यो. ताचे कडल्यान सगळी म्हायती घेवन पुलीस थंयच्यान भायर सरले आनी बेळगांवां गेलें. थंय वचून रोकडेंच ताणीं तें हॉटेल सोदून काडलें. खरें म्हळ्यार ह्या गजालीक चार – पांच दीस जाल्ले. इतके दीस हो खुनी खंयच्या गांवात पावला आसतलो काय? असो ताकां प्रश्न पडिल्लो. पूण अजापाची गजाल म्हळ्यार तो खुनी त्याच हॉटेलांत आशिल्लो. तेदवेळार तो थंय बसून जेवतालो. ताका थंय पळोवन पुलिसय अजाप जाले. पुलिसान वचून ताका बशिल्ल्या जागारूच धरलो.

दुसऱ्या दिसा पेपराचेर व्हडली बातमी आयली, संदिपाच्या फोटवान खुनी सोदून दिलो. पेपरावेली बादमी वाचून संदिपाले इश्ट, पेपरवाले, मिडियावाले सगळे संदिपागेर आयले. सगळ्या लोकांनी गर्दी केल्ली. एका दिसा भितर संदीप स्टार जाल्लो. संदिपाची तोखणांय पळोवन बापायच्या दोळ्यांतल्यान दुखां आयली. सगळे इशट संदिपाक म्हणपाक लागले, 'संदीप, फोटवान तुजें नांव वयर काडलें. गोयं सरकारान बरो फोटोग्राफर म्हण ताका इनाम दिलें. आयज आवयची उतरां खरी जाल्लीं. फोटोग्राफर म्हण बोर्ड लायनासतनाच संदिपाचें नांव गोंयभर पावलें. आवय पुताची व्हडवीक आयकून उमेदीन भरली. कसलेंय काम मनापासून करीत जाल्यार ताचें सदांच फळ मेळटा हे संदीपान दाखोवन दिलें.

# भारतीय भाषांमधील कोषविश्वातील एक अपूर्व निर्मिती

एकखंडी
गडगंज
ग्रंथराज



अस्तित्वाचा लढा देत
श्रीमंत शब्दसामर्थ्यातून
समृध्दीकडे वाटचाल करीत
आपल्या भाषाभगिनीची
उत्तुंग भरारी...

राजहंस
# कोंकणी
## सचित्र अशटांगी
# अभ्यासकोश

रचनाकार - दामोदर केशव घाणेकर
तांत्रिक भार - सुरेश जयवंत बोरकर

**वैशिष्ट्ये :**

- आवश्यक तिथे उच्चार
- उलट अर्थाचे शब्द
- व्याख्या आणि वापर
- पोर्तुगीज आणि इंग्रजी शब्दांची मूळ रूपे
- क्रियापदांचे धातू
- नकारार्थी क्रियापदांची मूळ रूपे
- नामांची सामान्य रूपे
- बहुवचने

☐ *पन्नास हजारांहून अधिक शब्द*
☐ *सातशे पन्नासांपेक्षा जास्त रेखाटने*

आकार : A5
पृष्ठे : 2200
कागद :पांढरा 80 gsm
सुबक शिलाई बांधणी
ग्रंथालयांसाठी मूल्य रु. 3300/-
व्यक्तिगत ग्राहकांसाठी
स्वयंअनुदानित मूल्य रु. 1200/-

(ट.ख.नि.)

**राजहंस वितरण**
1 - मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग, पणजी, गोवा 403001
Ph.:91 - 0832 2220320 / 2232177 email : rajhaunsvitaran@dataone.in

लेख

# सुहास्य तुजें...



प्रा. लता सत्यवान नायक

एखाद्रो दादलो हांसलों जाल्यार ताच्या हास्याचें सदांच तोखणाय जातलीच अशीं ना वा ताच्या हास्याक लागून तो सोबीत दिसता अशें म्हणपी खूब उण्या प्रमाणात मेळटले, पूण एखाद्री बायल हांसली, जाल्यार तिजो 'हांसो' बऱ्याच जाणांक 'पिसो' करून उडयता, ती कितलीय 'कुरूप' वा 'सुरूप' आसूं, ती हांसली म्हणटकूच सोबीत दिसपी, अशें चडानचड लोक मानतात, मानीत आयल्यात. बायलांचो हासो हो चड करून मनाक भुलोवपी आसता. तिच्या हांश्याची तोखणाय मोनालिसाच्या हास्याकडेन करताना जायत्या साहित्यींकांक, कवींक, चित्रकारांक तशेंच हेर कलेच्या साधकांक तें बरेच फावट साध्य जाल्लें आसा.

'मोनालिसा' ह्या नांवांभोंवतणीच एक वलय, एक विलक्षण अशें 'मोहजाल' विणिल्लें आसा. मोहाच्या ह्या जाळ्यांत, तिच्या हास्यांत जगातले जायतेजण अडकले. मोनालिसाच्या हांशाचें हें चित्र एक जगप्रसिद्ध अशें चित्र जावन आसा.

इटालियन प्रबोधनकालीन श्रेष्ठत्व त्या चित्राक फावो जालां. लिआनोर्दो दा व्हीन्सी हांणे 1503 तें 1505 ह्या काळात ते व्यक्तीचित्र फ्लॉरेन्स हांगा रंगयलें. दोन वर्सांच्या दीर्घकालीन तपस्येची फळां ताणेच न्हंय तर सबंद जगान चोखली! हें चित्र ला जोकोव्दा ह्या नांवांन लेगीत लोक वळखताले. मोनालिसाच्या हांशाचेर जायते विचार - विमर्श जाणकारांनी केले. ह्या अस्तुरेच्या चेहऱ्यावेले गुढ, खोल, अभंग, गंभीर, मिश्कील, सोबीत, मायेस्त, जीणेचो एक वेगळो अर्थ सांगपी अशें हास्य! त्या हास्यान लक्षावधी रसिकांक मोहान आनी संभ्रमांत उडयलें.

प्रसंग सांगपासारखोच आसा. कवियत्री शांताबाई शेळके एकदा पॅरिसाक गेली. पॅरिसच्या लूव्र कलासंग्रहालयांत मोनालिसाचें चित्र दवरलां. पॅरिसाक वचप आनी मोनालिसाचें दर्शन घेनासताना येवप म्हळ्यार देवळाच्या वाठारांत वचप आनी देवळातल्या देवाचें दर्शन घेनासताना येवपासारकेंच. देखून शांताबाईन कलासंग्रहाक भेट दिली पूण तिगेले दुर्दैव अशें की ज्या दिसा ती थंय गेली

त्याच दिसा संग्रहालय बंद आशील्लें. शांताबाईक खूपूच वायट दिसलें की इतले यत्न करून लेगीत म्हाका मोनालिसाचे मूळ चित्र पळोवपाचें भाग्य लाबलें ना. हाजोच विचार ती करताली, इतल्यान एक ल्हानशें चली खेळत खेळत तीच्या लागी आयलें आनी बरें सोबीतशें हांसलें. शांताबाईक खूप बरें दिसले, निराश जाल्ल्या शांताबाईंक त्या सानुल्या चलयेच्या हास्यांत मोनासिलाचें हास्य दिसलें. शांताबाईक मोनालिसा दिसल्यावरी जाले. ओठांन 'हांसू' आनी दोळ्यांत 'आसू' पळोवपाखातीर खरेंतर पॅरिसाक वचपाची आमका कांयच गरज आसना. आमच्या सरभोंवतणीच जायत्यो मोनालिसा आमका दरदिसा, दर खिणाक म्हणा जाय जाल्यार, दिश्टी पड्टात. कष्टाचें, संकश्टाचें, कारूण्य दोळ्यांत रेखाटलेल्यो आनी कर्तव्यपुर्ती खातीर ओठांवयले स्मित पुसूंक दिनासतना जीवीत जगपी हजारांनी मोनालिसा!

*****

तिजो तिज्या घोवाचेर खूब जीव आसलो. ती मोगान लग्न जाल्ली. एक सोबीत अशें फुल तांच्या संसाराच्या वालिचेर फुल्लें. मोगान ताजे 'सिया' म्हणून नामकरण केलें. सियाभितर दोगांय घुसपल्ली. ताचें चलप, धोलप, धांवप, न्हिदप, रडप, जेवप, मळबांतल्या चांदीमामाक पळोवप, झाडावयल्या शेवण्यांकडेन खेळप अशा ताज्या सगल्याच गजालींचेर आवय-बापूय जीव घालताली. अचकीत एक दीस घोवान तिका सांगले, म्हाका तुका 'डायव्होर्स' दिवपाचो आसा. म्हज्याच ऑफीसांत आशिल्ल्या सुफलाकडेन हांव लग्न जावपाक सोदता. हे आयकून तिच्या पायापोंदची जमीन हाल्ली. घोव उसरा किद्याक येतालो, खंय वतालो, हाली खूपूच वेगळ्या मुडान कित्याक आसतालो, आयतारचो लेगीत ओ. टी. कित्याक करतालो, तिणें हाजेर केन्नाच विचार केलो ना. आयज तकलेंत लख्ख उजवाड पडलो! पूण आता खूपूच कळाव जाल्लो. तिज्या विणवण्यो कांयच उपेगाच्यो जाल्ल्यो ना. तिज्याबरोबर रावप तिज्या घोवाक सोंसूंक जायनासले. सियाक लागून सगळे विसर, आनी तिगांय बरेतरेंन रावूंया अशें सांगून लेगीत तो तयार जालो ना. तिजो रडवो, दुखी चेरो पळोवन सिया मात भियेंताले. आवय दिसूयभर दुखां कित्याक गाळटा तें कळनासलें त्या निष्पाप पोराक. आवय रड्टा तें पळोवन जायते फावटी सिया किळांच्यो मारून रडटालें. तिका जाणविकाय जाली म्हजें रडप म्हल्यार सियाचे जीवीत उद्‌ध्वस्त करप. बापायच्या मोगाक मुकलेलें आपलें बाय म्हज्याय प्रेमाक पारखें जायत, म्हणून तिणे आपल्या जिणेत हांसो हाडलो. तिजो ओडून ताणून हाडिल्लो हांसो धाकटूल्या सियाक उमेद दितालो. मोनालिसाच्या हांश्यापरस हो हांसो वेगळो आशिल्लो!

*****

बायलांनी घराभायर वचप, शिकप, नोकरी करप, जोडप आनी आत्मनिर्भर जावप ही गजाल आता कोणाकूच नवी न्हय वा तांतूत सामके अजाप जावपासारकें लेगीत कांयच ना. पूण आयज लेगीत हें सगळें करतांना ऑफीसांतली कामां करतांना, बॉसाची दादागिरी सोसतांना, गाडयेतल्यान प्रवास करतांना केन्ना केन्ना चूकून तर केन्ना जाणीवपूर्वक केल्लो परकी दादल्याचो स्पर्श सोसतांना आयिल्लो वीट, ऑफीसान वेळेर पावपाखातीर करपाक लागपी धडपड, हे सगळें सोंसतांना आपल्या चेऱ्याचेर हांसो टिकोवपाचो यत्न बायलां करतात. सुमेधाचेंय तेंच जातालें, आपलो संवसार बरे तरेन, चलचो म्हणून कंपनीतल्या नोकरेचो ताणेच निर्णय घेतिल्लो. अंताभटाली सून 'कामाक' वयता म्हणून गुळेली सारख्या खेड्यांतले लोक तिजेकडेन अजापान पळेताले. पूण

ह्यो, सगळ्चो नदरो सोसून सुमेधा जेन्ना कंपनीत वतालें तेन्ना ताका दुसऱ्याच एका संकटाक फुडो करचो पड्टालो. ताजो बॉस ताजेकडेन बरे नदरेन पळेनासलो. तो ताजो मानसीक आनी शारीरीक छळूय करतालो. मात्शें उसरां पावत जाल्यार ताका सामको तापयतालो, ताजेर विचित्र अशी नदर घालतालो, परथून परथून ताका स्पर्श जातलो अशें काम ताजो बॉस करतालो. सुमेधाक उलोवपूय कठीण जातालें, किदेंय उलयत जाल्यार नोकरेचेर गदा येयत म्हणून भंय, आनी नोकरी वचून ताका परवडपाचे नाशील्लें. घरा घोवाक हें सांगतलें जाल्ल्यार तो इतलो कर्मठ, उपाय सोदच्या आदीच घर माथ्यार घेवन ताजी नोकरी बंद करून उरील्या आयुष्यान सुमेधाचोच पाणउतारो करपी मनीस. तांतून भुरग्यांची काळजी करप हें लेगीत एक वेगळीच गजाल. सुमेधा हें सगळे सोंसतालें, सोसतांना ताज्या चेऱ्यावयली हास्याची रेशा कायम दिश्टी पड्टली हाजीय काळजी तें घेतालें. आपल्या दोळ्यान आयिल्लो थकवो, काम करून पुरो जाल्ल्या जिवाची, आराम करपाक आशेल्ली ताजी कूड - तिजो धडपड लिपयत सुमेधा हांसतालें. हांसत हांसत जीयेतालें. मोनालिसाच्या चेऱ्यावयले धीरगंभीर हास्य सुमेधाच्या मुखमळार सदाच उदेंताले.

*****

विनया एका शाळेंत शिक्षिका आशिल्ली. भुरग्यांची खुपूच आवड्टी. वेगळेपणा हाडून भुरग्यांक शिकवप, इतिहासातले प्रसंग रंगोवन सांगप. भुरग्यांक शिकतांना वाज येवपाक जायना, म्हणून भुरग्यांची फकांडां करतालें, शिकयता शिकयता मदींच भुरग्यांचो मुड कसो आसा, लक्ष आसा काय ना तांचे, हाजेर बारीकसाणेन नदर दवरतालें. एखाद्रो कॉन्सॅप्ट तांका समजलो ना जाल्यार तो सामको सोप्या भाशेंत सांगप, भुरग्यांबरोबर चडानचड वेळ घालवप, तांच्यो 'डिफीकल्टी' सोडवप, प्रीलीम्स् जाल्याउपरांत इतिहासांत फेल जाल्ल्या भुरग्यांकडेन चडान चड लक्ष दिवप, मेकळ्या वेळान तें चडान चड लायब्रींत बसतालें, पुस्तक वाचतालें, आपले इतिहासाचो विशय चड पक्को करपाक नोटस् काडप, वेगळी वेगळी माहिती जमोवप अशें करतालें, पूण खूप उण्या प्रमाणांत ते आपल्या हेर वांगडी शिक्षिका वांगडा मिसळटालें. सकाळीं फुडें येतांच सगळ्यांक हाय् हॅलो, गुडमॉर्निंग करून आपले विद्यार्थी, अानी लायब्ररी हातून मग्न जातालें. खूपदा तें स्टाफान वचून बसपाचें टाळतालें. ताका स्टाफान बेजार येतालो. ताका कारणाय तशीच आशिल्ली. ताका स्टाफान चलतालो तो किल्लोस् आवडनाशिल्लो. कांय शिक्षिका तर आपल्यो बेडरूमातल्यो घडील्ल्यो गजाली इश्टीणींक सांगून ताजेर विचार विमर्श करताली, भुरग्यांकडसून काडून घेतील्ले मोबायल स्टाफान बसून स्वतः चेक करून, त्यांतून आशील्ल्यो अश्लील चित्रफिती पळोवन किट्‌किट्‌टाली लेंगीत. हें करतांना तांचे बरोबर एखादो सरूय आसतालों आनी तो लेगीत निर्लज्ज जांवन बायलां वांगडा ह्यो अश्लील गजाली रूचीन आयकतालो. बरे बरे कपडे घालप, बर्थडे मनवपाच्या निमतान स्टाफरूमान तरेकवार जीनस हाडून पार्ट्यो करप. मागीर शाळा सुटून हॉटेलांनी वचप, भोंवपाक वचप हे सगळें भोगवादी, चंगळवादी छंद विनयाचे हेर शिक्षक वांगडी करतालें. स्टाफरूमान विनयान, टेबलांचेर चपड्यो-पुस्तकां कमी पूण खावपाचें जीनस, प्लेटी, चमचे, कपां असल्योच वस्तु चड पळयल्ल्यो. ह्या शाळेंत आयिल्ल्याक ताका एक प्रस्न सदांच पड्टालो, हे विद्यादानाचे, सरस्वतीचे विद्यामंदीर काय मजा मारपाचो, भोगी लोकांचो अड्डो? ह्या अशा गजालींक लागून तें हळूहळू स्टाफापासून पयस रावपाक लागले. कारण बी. एड. कोर्स करतांना आल्तीनच्या निर्मला कॉलेजींत ताका जे आदर्श शिक्षिकेचे चरित्र कशें आसचे हाजी थंयच्या

शिक्षिकांनी जी जाणविकाय करून दिल्ली ती खंयच दिस नाशिल्ली. तें आपलेंच मन दुषीत जांवचें न्हंय म्हणून आपलो चडानचड वेळ भुरग्यां वांगडा घालयतालें. अशा वातावरणापासून पयस रावपाचो ताजो निर्णय ताज्यासमजुतीप्रमाण सारको आसलो. पूण ताज्या शिक्षिका वांगड्यानी हाजो अर्थ वेगळोच घेतलो. त्यावर्सा ताजो रिझल्ट सामको बरो लागलो ना, खरेतर पुराय गोंयांतल्या भुरग्यांक इतिहासाचो पेपर कठिण लागलो. फाटलो फुडलो कांय विचार करीनासतांना ताजी कागाळ हांच्याचपैकी कोणेतरी मॅनेजमेंटाकडेन केली. की विनया भुरग्यांखातीर कसलेच कष्ट घेयना, बरें शिकयना, भुरग्यांक वेळ दियना देखून भुरग्यांचो रिझल्ट कमी लागलो. फकत लायब्ररींत पडून आसता, स्टाफांत येयना. स्वताक खूप व्हडलें समजता. आमच्या वांगडा मिसळूंक पळेना. मॅनेजमेंटान ताजेर चर्चा केली, कांयच चूक नासतांना विनयाक मॅनेजमेंटाकडसून तापोवणी पडली. विनया सुन्न जांवन ह्या प्रसंगांतल्यान भायर सरलें. आता ताणे लायब्ररी सोडली. आनी तें स्टाफांत बसूंक लागलें. मनाचेर ताबो दवरपाचें ताणें थारायल्लें. कोण किदें उलयता हाजेर लक्ष दिवप ना. शेवटी जांका ते सुशिक्षित समजतालें, त्याच ताज्या वांगडी शिक्षिकांनी ताजी कागाळ मॅनेजमेंटाकडेन करून ताचे प्रतिमेक डाग लायलो. आयजमेरेन ताका तांच्या बद्दल एक वेगळो रेस्पेद आशिल्लो. आदर आशिल्लो. आयज तो खंयतरी सोपलो. बायलांच, बायलांची पाड घालता म्हणप खरें जाल्लें. तें आता तांच्यामदींच चेऱ्याचेर एक हांसो घेवन वांवुरतालें. त्या हाशाचो एक गंभीर असो अर्थ आशील्लो. मोनालिसाच्या चेऱ्याचेर दिसतालो तसो वेगळोच! त्या चेऱ्याचेर दिसतालो तसो वेगळोच! त्या हास्यावरवी तें आपल्या वांगडी शिक्षिकांबद्दल ताज्या मनांत निर्माण जाल्ली काकळूट प्रगट करतालें. विनयाक तांची सगळ्यांची काकळूट येताली. देखून तें मंद मंद हांसतालें.

*****

अनिता सामकेंच कमी पिरायचेर ह्या संवसाराक अंतरलें. फाटल्यान आपल्याच भशेन सोबीत अश्यो दोन चल्यो बापायच्या सांगाताक सोडून गेले. अनिता भायर पडलें, ह्या गजालीचेर कोणाचोच विश्वास बसलो ना. कारण कोणाच्याच भानगडीक पडनासताना आपल्याच संवसारात गुल्ल रावपी अनिताक नेमके जालें किदें की तें एखाद्या पारव्याभशेन जीवीताच्या सोबीत बागेंत भोंवता भोंवता अचकीत ना जालें. अनिता सात वर्सांचे आशील्लें तेन्ना ताजो बापूय गोड्यामुताच्या दुयेंसान भायर पडलो. अनिताची आवय आनी ताजी आजी, व्हडले चार भाव आनी ताज्याकूय धाकले तीन भाव अशें व्हड कुटूंब फाटी उल्लें, कांयच, कोणाचो आदार नासताना. बापायच्या जोडीचेरूच तांचे घर चलताले, आवय व्हड व्हडान बापायच्यो यादी काडू – काडून रडटाली. अनिताक आवयचो हो अवतार पळोवन कशेंशेंच जालें. ते मेरेनच्यान अनिता एकमुळे, घुमें जालें, तें कोणाकडेनूच उलय नासले, कोणाबरोबरूय मिसळूंक वचनासलें. घरान आपलो अभ्यास आनी आपूण इतलेंच ताका खबर आसलें, किदेंय जाय पडलें जाल्यार आवयक सांगप, भावांकडेनूय मेजकेंच उलयतालें. धावी जातकच अनिताक आवयन लग्न केलें. घोवाघरालेगीत मांयचो त्रास सोसून तें वोगीच रांवतालें. घोवाक खूपूच भियेताले, आपलें मन मेकळे करप तेका केन्नाच जमलें ना, तशांतूच ताका दोन चल्यो जाल्यो. अर्पिता आनी सुजीता दोगांय अनिता भशेनूच. सुंदर, गोड चलयो. अनिता मनासांवन हांसलें ते अप्रिताच्या जल्माउपरांत. फुडें जेन्ना सुजीता जालें

तेन्ना घोवासयत, मांयन, नणडेन ताका उजरावन खालें. जणू कांय घराचो वंश तें जल्माक घालूंक पांवले ना. हातून ताजोच गुन्यांव आशील्लो. दर दिसा, ताका घोवाघरा त्रास करपाक लागली आनी एका वटेन अर्पिता, सुजिता ताका आवयच्या सुखाचो लाब घेवपाची संद दिताली, ताका हांसयताली. आनी आता मात्शें मात्शें अनिता हांसूंक लागलें, कारण मांय सदांच म्हणटाली दिसपाक सुंदरी पूण तोंडार सदाच उजवाड पडना. केन्ना म्हणून हांसना, तोंड काळेंच घालून घरातलो वावर करता. अनिता उलयनासलें पूण तोंडूय केन्ना काळें करीनासले, दिसभर स्वतःक कामान घुस्पोवन दवरतालें, फुडें फुडें ताणें मन ताका सांगपाक लागलें की, ह्या दोन चलयाक जर बरेतरेन तांच्या लग्नाउपरांत आवयचे घर लाबूंक जाय जाल्यार, आतासावनूच हांसून खेळून तुका दिस काडचे पड्टले अनिताक पोटभर केन्नाच जेवंक मेळनासलें, माय ताज्या खावपा-जेवणाचे सामके हाल करताली, दुसऱ्या बाळटेरा उपरांत अनिताची भलायकी इबाडत गेली, ताका सदाच तकली उसळपाचो त्रास जातालो. घोवाची दादागिरी, शारीरीक तशेंच मानसीक ते मुकाट्यानी सोसतालें. नणंदेचे थोमणें आयकून जीव सामको दूरार जातालो. अनिता सगळेवटेन घुसमट्टालें आनी तकलेंचें दुयेंस वाडत गेले. एक दिस अचानक घरान घुंवळ येवन पडलें, घोवान दोतोरागेर व्हरताच लक्षान आयलें की ताजो प्रेशर वाडला आनी मानेची शिर ब्लॉक जाल्या. तें कोमान गेले. शुद्धेर आयलें चार दिसांनी तेन्ना, फुड्यान आवय, भाव आनी घोव आशिल्लो. ताज्या नाकान कसल्यो कसल्यो वादयो घातिल्ल्यो आनी हातांक लेगीत सुय तोंपून सलायन लायील्लें. केन्नाच एक तकली थारपाची गुळी लेगीत खावंक नाशिल्लें. अनिता खूप भियेलें. आपल्याक व्हडलें दुयेंस जालां देखून आता आपूण जगपाचें ना असो ताजो ग्रह जालो. अनिता खूप रड्टालें. ताणे हातवारे करून चलयांक आनी मांयक फुड्यान हाडपाक सांगलें. सगळी ताका धीर दिताली, तू बरें जातले म्हणून सांगताली पूण अनिताक मात आपूण आता निमणो श्वासूच घेता अशें दिसतालें. ताजें मनूच निर्शेल्ले, देखून खंयचेंच वखद ताका गुणाक पडनाशील्लें. ताजी भलायकी सामकीच नाजूक जाली, आनी निमणेकडेन तें मांयच्या पाया पडूंक आपल्या चेडवांक सांबाळ शा तरेचे हातवारे करूंक लागले. मनासावन हांसले आनी सगळ्याकं पांयां पडून निमणो श्वास घेतलो. ताजी कूड सामकी पळोवंनजो अशी बारीक, दुयेंत दिसताली, पुण ताजें तोंड सामके टवटवीत आनी हांसरे. आपल्या चलयांक आवयचे सुरक्षित अशे घर मेळचे म्हणून ताणें बळयांच तोंडार हाडिल्लो तो हांसो. मोनालिसाचेरूय असोच कसलो प्रसंग सोडोवपाचो वेळ आयिल्लो काय? आनी अशाच वेळार मुखार आयिल्ल्या धीरगंभीर हास्याक सजीव केल्लें लिओनार्दो दा व्हिनन.

*****

बायलांच्या हास्याचें वेगळेपण आमी सगळींच जाणा. मोनालिसाच्या मुखामळार पसरील्ल्या हास्याचे वेगवेगळे अर्थ काडू येता. अस्तुरेच्या दुःखाच्यो विंगड विंगड कथा आसपी, पुण सगळें सोंसून सहनशीलतेच्यो परीसीमा गाठपी कितल्यो तरी मोनालिसा आयज आमच्या सरभोंवतणी दिश्टी पड्टात. पूण जायते फावटी मात जिवीतांत येवपी कसल्याय वादळाचो सामको ही मोनालिसा ओंठाचेर हास्य, स्मित आनी दोळ्यांत कारूण्य हाडूनूच करता. खरेंतर दर नवो दिस तिज्या खातीर एक आव्हान आसता, ही सगळीं आव्हाना हासत हासत झेलप हेंच एक व्हडलें आव्हान.

आयजकाल सगळेच उपदेशक सांगतात की हांसपाक पैशें पनडात, देखून मनशान सदांच हांसत रावप, हांसप भलायकेंक बरें, Laughter is the best medicine अशें म्हळां तें वोगीच न्हंय. पूण हांसप तितकें सोंपेंय न्हंय. जोमेरेन आमचें अंतरंग हांसना, तोमेरेन खरो हांसो ओंठार येना. ●●●

## HELP, PROTECT AND RESERVE THE CULTURAL HERITAGE

- Goa Archives Preserves for posterity the documentary heritage of Goa's past.
- Collections in Portuguese dated back to the 15th century.
- It also has Marathi (Modi) Halekannada and a few Persian documents throwing light on the relations of the Portuguese with Marathas, Hyder Ali, Tipu, Sundas and Bhonsales of Sawantwadi etc.
- The collection also contains a few documents in Chinese and Vietnamese scripts.
- Goa Archives has its own well-equipped Preservation unit for the scientific preservation of documents.
- It also has modern microfilming, photocopying and xeroxing equipment.
- This is your Archives and you can enrich it by donating your valuable collection of Private papers.

*VISIT GOA ARCHIVES ALWAYS*

सत्यमेव जयते

ISSUED BY :

**THE DIRECTORATE OF ARCHIVES AND ARCHAEOLOGY,**

GOVERNMENT OF GOA,

PANAJI - GOA

Phone : 2226692

## FOLLOW TRAFFIC RULES/SIGNS

## BE SAFE & LET OTHERS BE SAFE

## LIFE IS SAFE IF DRIVENG IS SAFE

- *Don't mix drink & drive;*
- Two wheeler is for two, not for too many;
- Speed trills but it kills;
- Life is worth living why cut too short by over speeding;
- Always wear helmet while driving a two wheeler;
- Don't use mobile phone when driving a vehicle;
- Always use seat belt while driving;

सत्यमेव जयते

Issue in Public Interest

**DIRECTORATE OF TRANSPORT**

GOVERNMENT OF GOA,

# TWO AMAZING LIFESTYLE OPTIONS

MEADOWS
MAJORDA - GOA

## Resort Styled Villas in Nature's lap

CD Monsoon - an ode to Mother Nature is taking shape in the picturesque village of Majorda in Salcette. 37 independent villas with plush finish and high-end specifications. Overlooking lush green fields. Close to the farmed Majorda beach. This low-rise locale complements the greens around to perfection and would be the right place for you to remain refreshed all through the year.

Jade BLUE
FATORDA - MARGAO

## Upscale Apartments in Margao

Exclusive residential property. CD Jade Blue has 2 majestic wings- Emerald and Pearl - each with 18 spacious three bedroom apartments and 2 penthouses on the top floor, swimming pool, children's play area, badminton court, landscaped gardens and club house. All with premium finish.





COMMONWEALTH™
DEVELOPERS PVT. LTD.

Member of CREDAI Goa Laxmi Building, Below Cine Lata, Margao, Goa 403 601 INDIA.

Laxmi Building, Below Cine Lata, Margao, Goa 403 601 INDIA Tel. (0832) 2734090, 2736955 Fax: (0832) 2732980 Email: kdnaik@cdhomes.com www.cdhomes.com

# ाच कविता

## ेणो

ाश्यो येतात वेणो
ाार उसळून फुल्चें
ोंसळून मळब
गतांत जोगूल पेटचें.

अश्यो येतात वेणो
दिकोय झडपतात
पोसून आशाड आंगार
रानां रसरसतात.

अश्यो सोसून वेणो
ोसता माया मोको कशीं
ोहेसता म्हजें मन
तरूख काया पर्जळाची...

2

## रावलां हांव तरत

लागले वाटेर म्हाका
कितले साकव पूल
पिलों ताणे खातीर
सावळ्यांचें मृगजळ.

पावलों जितलों फुडें
पळयतना फाटीं
आठवतात कितल्यो
भेटेंतल्यो तातातुटी.

जितलों उल्लां रितों
तितलों वतां भरत
बुडटां बुडटां खोल
रावलां हांव तरत...

3

## वारो : 1

दयविलो वारो
बांसरेचो सूर
दिकांची उमळ
रंद्रांत पूर.

## वारो : 2

पांचवोचार एक
शेताचो चोकोन
कवितेचें पान
वाचलें वाऱ्यान.

4

## झाड

भितल्ले भितर नकळटना
आंगभर फुलता फुलां
कास्ट कास्ट सुकलें तरी
झाड म्हजें पांचवें जालां.

5

## जनेल

झाडांच्या गच्च पानांनी
धांपलां
म्हजें मळबाचें जनेल

पळयतां हांव
तातुंतल्यान
म्हजे म्हाकाच
दोळे किलकिले करून...



– माधव बोरकार

# पांच कविता

## 1. आळवाचें पान

आळवाच्या पानार लिरूख
हांसता नक्षत्राचें थीक
थीक मातयेंत जिरतलें
उजवाड काळजार पेरतलें

पांचवें पान हें आळवाचें
स्वत्व नीज पांचतत्वांचे
अल्प खिणांची जीण जोडटा
नातें अतूट अनंततायेचें

## 2. तूं काळा कुसव्यांत

तूं चान्नें जावन हांसता
उजो जावन ल्हासता
फुलांतल्यान पर्मळटा
झऱ्यांतल्यान झुळझुळटा...

तूं सगळें व्यापून
काळा कुसव्यांत विसावता

## 3. श्रावण

धोलता श्रावण रोसाळ पिकांनी
इंद्रधोणूच्या ओल्या रंगांनी

पर्मळिल्ल्या रूतू - पर्वाचो
गाज दर्याक आत्म - धुंदीचो

म्हजे भितर गुल्ल एकलो
करता सृजन उत्सवा कालो

## 4. हो कोण?

हो कोण?
दिगंतरांतल्यान हाडून
उदका - कळशी कुपांचे
तानेल्ल्या धर्तरेच्या पोशांत रकयता

जिणे झर रुजोवन फळोवन
व्हट धन- धान्यान भरता
आनी घडयता धर्तरेचोच,
शाश्वत 'कळसो - अमृताचो'.

## 5. हांव निवांत

हांव निवांत बसलां
म्हाका म्हज्यांतल्यान उकतो करून
जशी वीं रावता
आपले भितर
जितो - जीव प्रस्फुटपाची
वाट पळयत.



प्रकाश पाडगांवकार

## चीर पडिल्लो बोमाडो

ताकाय खबर नाशिल्लें
आपूण चीर पडिल्लो बोमाडो म्हणून
तुमीच ताका वारें मारून
फुलय फुलय फुलयलो
आनी तो ठूस ठूस करून फुटलो
आतां तो खायना, जेविना
बसना, उठना, न्हिदना
एक सारको रडत आसा
आडवो उदारो लोळत आसा

आमी कांयच करूंक शकना
हें पळोवन तुमी
आकाश पाताळ एक करून लागल्यात
आमीच गुन्याव केल्लेभशेन
आमकांच खेपूंक लागल्यात
खरें सांगू?
तुमीच ताका जबाबदार
तुमी ताका ताची खरी वळख
सांगलीच ना,

तुमचीय म्हणून तशी चूक ना
अस्सल म्हणून जें आसता
तें तुमकां सदांच नसाय जालें
देखून चीर पडिल्ल्या
बोमाडच्यांकच तुमी वारें मारलें
आनी आतां बुमरेंग आयलें



संजीव वेरेंकार

## निरभ्र

हांवे तुका 'ना' म्हळे
आनि म्हज्यातूच कुपांनी भरिल्लें मळब
ल्हवू-ल्हवू जायत गेलें
निरभ्र आनी मोकळें....
म्हज्याच खर निश्चयाच्यो धव्योफुल्ल पताको
धोलूंक लागल्यो नेटान
आनी कळ्ळें येंवक शकता
मनाकूय मळबाची उंचाय
फकत आपलें मन तितलें सादूर, जागें
आनी समर्थ आसूंक जाय
समजलें म्हाका न्हयकारातूय कितलें
आसता बळगें...
जेन्ना कळ्ळे तुवेंय अनुभवल्या ताची धार...
मान्य म्हाका कांय तुटलेंय आसत
रंगयाळें आनी परमळपी फुलतुरें
पुण तुज्याभितर वाडिल्ल्या अनिर्बंध
इत्सांचें रान,
नाका ती झाडां - झुडपां तोडून जातकीच,
आता पळय कशें जालां - नितळ
निरभ्र आनी मोकळें



राधा भावे

## संस्कार...

आरे संस्कार संस्कार
घरा घराचे संस्कार
आयलो आडमेळ्यांचो हुंवार
तरी वाटायतले संस्कार

आरे संस्कार संस्कार
घडटलो भुरग्यांचो फुडार
फाल्यां मेळटलो आधार
जातलीं सपनां साकार

आरे संस्कार संस्कार
सोडून सगळे दुराचार
बाळगात सुसंस्कारी विचार
जिणेक मेळटलो आकार

आरे संस्कार संस्कार
सोडात जिणेतले कुविचार
करात स्वाभिमानाचो स्विकार
जावंक जायना लाचार

आरे संस्कार संस्कार
जशो 'दिपस्तंभ' वाटेर
जाता सुखशांतीचें घरदार
हेंच जिवीताचें सार

आरे संस्कार संस्कार
भोंवतणी मायेचो सागर
येतलें 'ऐश्वर्य' दारार
दियात उमेदीन येवकार

आरे संस्कार संस्कार
आवय बापायचे सुविचार
मनांत हयकारी विचार
विश्व हेंच खरें घर



सुशीला हळर्णकार

## ोगा उतर

ासत ऑल तर
ुट्टा सॉल
ा जाल्यार
ाता पॉल
ारय रॉय
ावर कर
ेकावळीचॉ
जातलॉं शिंवर
ींप नेमान
कुळागार
माड माडयेक
येवंदी चंवर
उकल घण
घाल वार
पाशाणाक
येतलॉ आकार
थतर वितर मन जर
जातलें कशें सपन साकार
रिगय काळजांत
मॉगा उतर
मायॆ जॉडी
कश्ट वावर
फातराक लॆगीत
फुट्टा पाझर



सुफला प्रभू शॆळकार

## कीट

उसळी मारून मनांतली
आयली वयर कीट
भिरभिरत रावन सगळॉ
वांठार भॉंवली कीट

सॉप्यावेल्या सॉण्णांचे
राशींत भॉवली कीट
हळूच देवून आंगणातल्या
तुळशीत गेली कीट

वंय हुपून पॉरसांतल्यान
रस्त्यार पावली कीट
हाच्या पांयांत
वेठीच कडमडली कीट

धुल्ल, रेबट, घाण, गटार
घुस्मटून लागली कीट
खंय वचूं कॉणाक मेळूं
चिंतूंक लागली कीट

हांगाथंय धांवून बापडी
गॉंधळून गेली कीट
धांवत खर्शेत कशी वशी
आयली घरा कीट

नाका स्वातंत्र्य नाका मॆकळिक
रडूंक लागली कीट
तॉंड बावून परती मनांत
वचून बसली कीट

सुफला प्रभू शॆळकार

## फॅशन

आयची फॅशन
एक कंपिटीशन
दर एकल्यामदीं एकतरेची सर्तूच...!
वयार आईल्या कांय चलयानी
तर सामकेंच विटयलां...!
तुजें कितलें दिसता ताचे परस
म्हजें कितलें चड दिसूंक जाय...?
हाचीच चल्या चढा-ओढ...!
हालीच्या दिसानी एक
नवीन फॅशन पळोवक मेळटा
नव्या फॅशनीची पँट...!
फाटल्यान दोनूय कुल्या मदलें
खाचिंचें दर्शन...!
तर फुडल्यान बोंबलेचें...!!
वयार आईल्यो चले - चलयो
भोंवतात रस्त्यातल्यान बिनदास्त
एके वळखीचे चलयेक
एकदां हांवें विचारल्लें...!
आगो...! तूं हें अशें अर्देनागडें भोंवता
नागडेंच कित्याक भोंवता...?
तार्णे म्हाका सट्ट करून जाप दिली
बंधन आसा म्हण...!
नाजाल्यार आमी नागडींच भोंवपाचीं
आसा जाप...! वगी कित्याक पडलो...?
तुज्यान पळोवंक जायना मरे...?
तूं दोळे धाप...!
तेन्नाच्यान हांव....
दोळे धांपूनच भोंवतां...!



अवधूत कामत

## शेणिल्लें भुरगेंपण

हेवटेन तेवटेन पळयतालो
कितेंय तरी तो सोदतालो
कितेंय तरी शेणिल्लें आसुंये
रावून रावून सोदतालो
कपलार आटयो
पोल्यार हात
चिंतनाच्या काळखांन
लिपल्या ताची भुरगी जात
वाऱ्या, पावसा, घोळटा लेगून
ताचें तन्नें आंग रापिल्लें
आसलेंय जरी भुरगें मन
जाणत्यावरी चिंततालें
पडलो दीस सोपलें काम
जोडली जोड घेवन मुठीत
घरची चूल पेटचेखातीर
नेणत्या पोरान धरली वाट
दिवन आवयक करपाक खुशी
सांगूक तिका
पूत तुजो व्हडलो जालो
गळोवं नाका आतां दुकां
रात दीस घोळटलो
दिलो जल्म जियेतलो
हांसप - खेळप सोंपिल्लें
कामान आंग घोळिल्लें
भुरगेंपण शेणिल्लें

– सौ. सारिका-भेंब्रे

## म्हजें गोंय

गोंय म्हजें सुपुल्लें,
तोखणायेन भरलेलें.
गोंय म्हजें गुणेरत्न,
धरीना कसली आस्त.
गोंय म्हजें भांगर,
सोबीत आनी सुंदर.
गोंय म्हजें साळक,
जशें ल्हान बाळक.
गोंयच्या कुशीचेर,
माडांचें वळेसर.
माडांच्या तेंगशेर,
कोगुळ गायता कांतार.
हिंदू, खिरस्तांव, मुसलमान,
हांगां कोणाचोच ना अपमान.
निळ्या, निळ्या दर्यानी,
व्हडल्या, व्हडल्या ल्हारांनी,
व्हंकलेच्या चुडच्यावरवी,
पाचव्याचार तणांनी,
हळदुव्या भांगरावरवी,
लखलखपी किरणांनी,
मंगेश, दुर्गा, म्हाळसा, कात्यायनी,
भरलां देवाच्या देवळांनी,
तोरां आनी पणसांनी,
चिंचो आनी काजुंनी,
कलाकारांच्या कलेंनी,
भरील्ल्या म्हज्या गोंयांत,
एकदां तरी येयात,
मुमुरखीच हांसपी गोंय,
म्हजें गोंय, गोमटें गोंय.

– नम्रता सालेलकार

## अुतर तुजें

दिल्ले तुवें अुतर म्हाका
दर्याच्या त्या सोबीत वेळेर
ल्हारार ल्हार येत रावले
रेंवेन वरयल्ली ती अुतरां
'आय लव्ह यू' हळूच ल्हारान चोरून व्हेली
म्हाका खूब लज जाली.
दरएका ल्हारात हे शब्द गाजत रावले
कानाच्यो कानठळ्यो बसल्यो.
उतरां आयकून आयकून मन पिशें जालें
कारण म्हऱ्यान तूं नासलो.
काळाच्या त्या रौद्र रुपान तुका ओडून व्हेलो.
हांव उतरां आयकत उरलें
म्हजे भान विसरून.
काळाच्या त्या रौद्र रुपाक दोश दित
आयज लेगीत दर्या वेळेर हेच शब्द
आवाज, करतात 'आय लव्ह यू, आय लव्ह यू.'
आयकून मन धादोस जाता
पुण त्या मनशाची वाट पळेत
मन खीन्न जाता.

– सौ. निता य. म्हांबरे

## कशें विसरू येता

जाय जूय रातराणी चंद्रज्योत हांसता
चान्नाय रातीं नखेत्रांक कशें विसरू येता

भोंवरो जावन न्हवरो कसो साळका वेंगेंत धोलता
पंक जळीं साळका देंठ कशो विसरू येता

दनपाराच्या कडार जरी हुमेवन आंग भिजता
पांतोंडेची ओली माया कशी विसरू येता

फुलां मळ्यांत सपनां दोळ्यांत हरयाळी हांसता
पांयणींतल्यो पावलखुणो कशो विसरू येता

पुंजायली तळपां शिल्प नवें साकारता
पुनर्जन्म दिलो तुवें कशें विसरू येता



चंद्रिका पाडगांवकार

# श्री बुद्धम शरणं



डॉ. मधुसूदन जोशी

जागतीक आरोग्य संघटनेन (जाआसं) थायलँडाक 'खोनकेन' विद्यापीठांत 'घुंवळे वखदां' संबधांत एका कार्यवळीची योजना आंखिल्ली. ताकाहावेन अर्ज केल्लो. मदीं केन्ना तरी जाआसं चो फॉर्म, भलायकी मंत्रायल, केंद्र सरकार दिल्ली हांची मंजुरी आयिल्ली पूण थायलँडात राजकिमळार खवदळ जाल्ल्यान विशय सोपिल्ल्यें भाशेन दिशिल्लो. ही खबर एप्रिल 2008 तली.

अचकीत वर्सा उपरांत, म्हळ्यार 2009 च्या माया म्हयन्यांत दिल्लीच्या जाआसंच्या कार्यालयांतल्यान फोन आयलो. सप्तकाभितर थायलँडाक वचूं शकतात काय कितें हांचो अदमास घेवपाखातीर. धपक्याक 'हय' म्हळें. सदचे भाशेन कामाक लागलों. व्हिसा खातीर जाआसं दिल्लीक पासपोर्ट धाडलो. तिकीटी, रावपाची व्यवस्था आनी हेर गजाली. दिल्लीच्यान जाल्यो. इमेल, फॅक्स, एसएमएस आशिल्ल्यान सगळें सहजतायेन जालें. तांतून आनी एक बरी गजाल म्हळ्यार म्हज्या वांगडा दिल्लीचे दो. नीता हजारा आशिल्लें. दिल्लीक आपणालो कोणूय मनीस आसप हाचो फायदो भोव जाता. दो. नीताय अशेंच उपेगांत पडलें. थायलँड व्हिसा मेळप कठीण न्ही. तांतून जाआसं फेलोशिप. आडकाठी येवपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो.फकत दोन सप्तकां खातीर वचापचें आशिल्लें. थायलँडाक शिवराक जेवपी लोकांची धांदल जाता हें आयकल्लें. 'पोटपुजे' खातीरचें सामान पुजोवपाक सुरवात केली. बदाम, खजुर, काजू, लाडू, जॅम, फोव, तयार जिन्नस, लोणचें, हिंग, सोलां यादी वाडत वताली. पूण अमेरिकेसारखी खर तपासणी नाशिल्ल्यान मनात भंय नाशिल्लो. थायलँड हो त्या नेदरेन पळयल्यार भारताचो शेजारी. अंदमान निकोबार जुव्यां वयल्यान अर्दवर. इतलो लागीं. दिल्लीच्यान विमानान चार वरा मुंबयच्यान तीन. चेन्नयच्यान दोन-अडेच वरां इतलो प्रवास. ज्या भागांत वतां तो आपणालो कसो संबंधीत वा कसो लागिंचो हें गोंयांतले सारस्वत कशें दाखयतात हाची म्हाका याद जाली. दायजी वा तो म्हज्या 'देराल्या मेवणेचो मावशे भाव' म्हळ्यार 'देरालो मेवणो' अशेंय नाते जोडपी हावेन पळल्या. भारतीय उपखंड वा दक्षिण आशियाई देश हांचे नातें 'दायजी' अशेंच आसा. कोणाचो तरी मेवणो, कोणाची तरी जाव, कोणाची तरी भाची

अशें श्रीलंका, बांगलादेश, मालदीव, नेपाळ, भारता वांगडा. इकरा दिसाचे सांबाळून आसा. तर ब्रह्मदेश (म्यानमार), थालयंड (सयाम), लाओस, व्हियेतनाम, इंडोनेशिया, मेलेशिया हे तीन दिसाचे सोयरे. सुतक धरतात ते भाशेन भारताचे सोयरे आंसू येत असो अदमास हांवेन केल्लो. वर्सा पयली अमेरिकेची भोंवडी जाल्ली. थंय असलें कांय नाते ना. कारण हे दोनूय देश भुगोलांतल्या 'गोलार' एकामेकाच्या सामखे विरुद्ध पोंतार.

चडशे सामान बॅगांत भरून जालें. चडशें म्हळ्यार ह्यो असल्यो यात्रा व्हंकलपावणी वा घरभरोवणी सारख्यो आसतात. व्हंकले वांगडा धाडपाचे सगळें आसून किदें तरी उरताच. किदें उरलां किते घेवनां हें थायलँडाक पावतकीच समजपाचे. ही गजाल दुसरी. शुक्रारा सक्काळां गोंयच्यान दिल्ली वचपाक विमान धरपाचें आशिल्लें. जुन म्हयन्याचो पयलो आठवडो आसून लेगीत पावस सोडाच मळबांत कुपा लेगीत दीस नाशिल्लीं.

किंग फिशरच्या विमानाच्यो तिकेटी आशिल्ल्यो. विमानतळार गर्दी नाशिल्ली. चार्टर फ्लायटी बंद जाल्यान विमानतळ जात्रा उलगल्या उपरांत खांब्याक तेकून पेंगपी फांतयेकार वा खुर्चेत बसून 'ध्यान' करपी पिड्डुककार कसो दिसतालो. फातोडेर पांचाक बी काम करपी लोकांची म्हाका काकळूत दिसता. बरें हातरुणार लोळत साकर न्हींदेत सपना पळोवपाच्या जाग्यार हांगां पासापोर्टा वयले आकडे बारिकसाणेन तपासप हि एक ख्यास्त. तोंडाक बरो मेकअप केलो तरी दोळ्यावयली न्हीद लिपोंव येता? बरी न्हीद जाल्लो मनिस मिर्गाच्या पावसार किल्लून आयिल्ल्या सुरणाच्या कोंबा भाशेन टटट्टीत आसता हांगा तर सगळे मे म्हयन्यातल्या बाविल्या केळी मोक्या भाशेन. तपासणेच्या सोपस्कारांक वेळ लागूना. पंदरा – वीस मिनटां भितर हांव मेकळो जालों. विमान लेगीत वेळान आशिल्लें. वाटेंत मुंबय विमान थारपाचें आशिल्ले म्हळ्यार पुराय गोवा दिल्ली प्रवास साडेतीन वरांचो जावपाचो आशिल्लो.

गोंय–दिल्ली प्रवासाचो वेळ दोन वरांचो. हातून कमरपटो बांदप, ऑक्सिजन मास्क बांदप, लाईफ जॅकेट खंय आसता, कशे बांदप हाची प्रात्यक्षिकां. आदी 'हवाई सुंदऱ्यो' करताली आता व्हिडोयो वरवी दाखयतांत आदी तेंच तेंच पळोवपात वेगळें पण आशिल्ले. हाचे कारण म्हळ्यार 'हवाई सुंदऱ्यालें' मुखमळ. तांचे दोळ्याक दोळो दिवन (फटीचे हासप ती फकत हेच वेळार बंद दवरताली) पळोवपाक मजा आशिल्ली. हे सोपस्कार जाता आसताना म्हाका गोंय दुदर्शनाची याद जाली. 'जागर' वा हेर सांस्कृतीक कार्यावळी सीडी झरोवन झरोवन दाखयतात बाबडे. हे परतून परतून जावपी कार्यवळी पळोवपी लोक आसना? भारतीय समाजमानस टिव्हीवाल्यांक जितले समजलां तितलें आनी कोणाकूच समजुना. म्हणुनतर जे मालिकेच्या भागात पन्नास टक्के भाग आदी कितें जाल्ले फुडे कितें जातलें हें दाखयतात त्यो लेगीत लोकप्रिय जातात. हांव इतलो भोंवला पूण लायफ जॅकट खंय आसता हें मात आजून लेगीत म्हाका सारखे समजूना. पेपरांत विशयांतलो एक भाग कठीण म्हण सोडून दिवचो तसो हांव तो विशय कुशीक दवरतां.

विमान दिल्ली ॲरपोर्टार पावलें. प्रिपेड टॅक्सी केली इंद्रप्रस्थ मेट्रो रेल्वे स्टेशनामुखार जाआसं कार्यालय आसा. पणजेंत 'जुंता हाऊस' जितलें फामाद तितले इंद्रप्रस्थ फामाद. ड्रायव्हराक 'इंद्रप्रस्थ मेट्रो स्टेशन' इतलेंच सांगले. वाटेत ताणे 'पणसूल' कितले जुन आसा हे खूब फावट टिचक्यो मारून पळयलें. हांव तर सुकिल्ल्या नाल्ला भाशेन. हालोवन हालोवन पळोयलो कांयच आवाज ना ताणें म्हाका पटेल चौकात हाडलो 'यही है मेट्रो स्टेशन.' ताणे म्हळें. हावेन भायर नदर

भोंवडायत पळयलें. जाआसं धवी-निळी बिल्डिंग म्हाका दिसुना. हांव नवो हें ताका समजलें. पूण म्हज्या नशिबान पुलिसांची व्हॅन थंय उबी आशिल्ली. हांवेन हवालदाराक विचारलें. हवालदाराक समजलें. तो टॅक्सी म्हऱ्यांत आयलो. 'अबे ओ इंद्रप्रस्थ मेट्रो यहाँ कहा? वो प्रगती मैदान के आगे सिधा वहाँ WHO का बिल्डिंग है समझे!' त्या हवालदाराची उतरां आयकून ड्रायव्हराक सगले समजलें. थंयच्यान ताणें गाडी स्टार्ट केली आनी मोन्यानी धांवडायली. जाआसं कार्यालयात म्हाका पावपाची व्हडली ताकतीक नाशिल्ली. हाकाच लागून हांव सुशेगात आशिल्लो. गोंयकाराचे सुशेगातपण लेगित केन्ना केन्ना उपेगी पडटा. हाचोय सोद ते दिसा म्हाका लागलो.

जाआसं कार्यालय खंयच्याय अस्तेंती देशांतल्या कार्यालया भाशेन आसतले. आनी थंय भितर सरपाक खर तपासणी आसतली असो म्हजो अदमास आशिल्लो. पूण वळखत्रां कागदपत्रा सारखी आसतकीच व्हड प्रस्न येना. गेटीर दिल्ल्या वळख पत्राचे 'मंगळसुत्र' गळ्यांत अडकोवन हांव कार्यालयांत भितर सरलो. थायलँडाच्यो तिकेटी, डॉलर्स हेर म्हायती हातात पडली. थंय दोन नीता मेळ्ळें. ताची भारताभायर वचपाची पयली खेप म्हळ्यार काय प्रमाणत हांव 'वडिलबंधू' हे भुमिकेत. हे भुमिकेचे एक बरें आसता. दुसरो तुमचे इल्लें आयकता. सगळे सोपस्कार जाले आनी आमी वचपाक मेकळे जाले. हांवेन थंयच्याच कॅन्टिनात भूस मारले. गोवा सदन (पयलींच) आदीच बुक केल्ल्यान एक दिसाच्या रावपाची तजवीज जाल्ली. दनपारा तिनाक जाआस कार्यालयांतल्यान गोवा सदनार येवपाक भायर सरलो. जाआसं कार्यालयांतल्यान भायर मात सरलों. आंगार हो हुलप. दिल्लीची गर्मी सोंसत रिक्शांतल्यान गोवा सदनार पावलों.

सकाळीं बेगीन उठिल्ल्यान न्हिद इल्ली अर्दकुटी जाल्ली. कामा मनासारखीं जाल्लीं. पोटांत पोट वेवस्थीत भरिल्लें. गोवा सदनांतल्या ॲसीचो वारो आंगार आयलो. न्हीद येवपाक दुसरें कितें जाय आसता? सांजे जाग आयिल्ली तसो हांव उठलो. न्हावन धुवन लोदी गार्डनांत पासय मारली. खान मार्केटांत वचून इल्लें सामान घेतलें. हे सामान घेवप म्हळ्यार आरत्यो सोपताना 'घालिन लोटांगण' बी जाता तशें जाता. हरे हरे ऽ म्हणून सोपता थंय 'सदा सर्वदा सूर जाता रघुवीर समर्थ जालो तरी' ज्याज्या स्थळी कोण तरी सूर लायता. पूण निमाणें ओम यज्ञने यज्ञ अशें कोण तरी म्हणता तेन्नाच आरती सोपता. सामान आनी बॅग भरप हें विमानात बस मेरेन चलपाचेंच आशिल्ले. दुसरो दिसा कांयच काम नाशिल्ल्यान म्हजें मन भाद्रपदांत सुशेगाद मळार चरपी गोरवां भाशेन खान मार्केटांत वावूरतालें. निमाणें घरा एक फोन लावन सामान सगळे घेतले म्हण सांगले. भोंवून भोंवून पांय जड जाल्ले. रातीं गोवा सदनावयली तिखशी रायसप्लेट जेवन हांव आड पडलो.

एखाद्रो प्रवास बरो जातलो वा ना हें बशीत जनेला कुशीची जागा मेळटकीच केन्ना केन्ना आपशींच कळटा. थायलँड प्रवासाचे तर तशेच दिसपाक लागिल्लें. सकाळां दो. नीता चो फोन आयलो. विमानतळार ताका पावोवपाक ताचो घोव येवपाचो आशिल्लो. वांगडा म्हाकाय व्हरपाक गोवा सदनार येतां अशें ताणें सांगिल्लें.

तेच भाशेन दोगांच्याय भलायकेच्या इंश्युरंसाचीं कागदपत्रां ताका मेळिल्लीं म्हण ताणें सांगिल्ले. मनाक अशी थकाय मेळिल्ल्यान 'धुवळें वखदां' संबंधांत पुस्तक वाचपाक हावेन सुरवात केली. पुराय दीस सामान बॅगांत सारखें भरप आनी पुस्तक वाचप हांतून गेलो.

सांजे सातांक दो. नीता गोवा सदनार पावलें. शेनवारचो दीस आशिल्ल्यान रस्त्यार व्हडलें

ट्रॅफीक नाशिल्लें. तरी लेगीत दिल्लीच्या ट्रॅफिकाचो तांकां अणभव आशिल्ल्यान आमी चार वरां पयली भायर सरिल्ली. अर्द - पाउण वरा भितर विमानतळार पावलीं. बोर्डींग पास बी घेवन इमिग्रेशन कॉवन्टरार पावलीं. म्हजी भायर दुसऱ्या देशांत वचपाची दुसरी खेप आशिल्ल्यान हांव फुडें आशिल्लों. फाटोफाट दो. नीता सगळे सोपस्कार जाले. विमान सुटपाक तीन वरां आशिल्लीं. परिक्षेच्या हॉलांत भितर सरून पेपर हातांत पडसर वता तो काळ, वा बायलमनीस लेबर रुमांत वचून भुरगेंजाय मेरेनचो काळ आनी आतां आमच्या नशिबांत आशिल्ली तीन वरां सगळे 'काळ' एक सारखे. मनात बेठीच हुरहूर. भोंवतणी लोक आसतात पूण तांचे कडे लक्ष वचना. लक्ष फकत हॅंडबॅगार मदींच तिकीटीचेर, मदींच पैशांचेर. दिल्ली विमान तळावयल्या तेरा जुनाक त्या तीन वरांत अशेंच चलिल्ले. घरां बेठोच फोन लायलो. आता उपरांतचो फोन बॅंकोकच्यान. बॅंकॉक देड वरां घड्याळ फुडें. थंय आमी पावपाचे फांतोडेच्या साडे पांचाक. तेन्ना भारतांत फातोडेचीं चार वरां. हांव बेठेंच कोंत करतालो. गेट नंबर णवाचेर लायन लागली आमी दोगांय ते लायनीत उबीं रावलीं. धव्या कातीच्यो चेपट्या नाकाच्यो आनी दोळ्यांच्यो फटी किलकिलायत पळोवपी मनशां आता चड दिसपाक लागली. विमानात भितर सर मेरेन चार - पांच खेपो विंगड विंगड मनीस तुमचे तिकीट पासपोर्ट तपासतात. तरी लेगीत केन्ना केन्ना सावड्यां वचपाचो मनीस दिवचलच्या बशींत चडटा तशें विमान प्रवासांत घडिल्ल्याचें वाचून इल्ले अजप दिसलें. भायल्या देशांत वचपी विमाना रातीचीं सुटता. म्हणून अशें जाला आंसू येत. पूण भारतांत जेन्ना रात आसता तेन्ना जगात काय भागांत वत पडिल्लें आसता. ह्या वेळा काळाचो मनात विचार आयलो आनी विमान कर्मचाऱ्याला जैवीक घड्याळाची म्हाका काकळूत दिसली. थायलॅंडाक सांजे स - सातांक तांचो प्रवास सुरा जाल्लो जांव येत दिल्लीक रातीचीं इकरा जाल्लीं तेन्ना थंय साडेबारां जाल्लीं. रातभर विमानात 'दशावतारी' नाटक सोपोवन परतून सकाळीं हांसऱ्या मुखान नवो कालो कशें जमता आंसू येत? भुरगेपणात जात्रांनी आनी काले नाटक पळोवन जाग्रण निवळावपाक दुसरे दिसा कुंभकर्णा भाशेन न्हिदतालें ते याद जाले आनी विमानातल्यान मन केरीच्या वैजारी देवळांत पावलें. हावेन अदमास केल्लो ताचे परस बेगीन विमानान मळांबात उड्डान केलें. हवेंत तरंगपी विमानातल्या प्रवाशाक तरंगोवपाखातीर ॲर हॉस्टेसानी धांवा धांव सुरू केली. 'हॅलो... ॲस्क्युज मी... कोक? ज्युस! बिअर... हीं उतरां आयकुपाक येवपाक लागलीं. सोडा/बाटल्यो फोडिल्याचो आवाज आनी विमाना भितर त्या वासाचो घमघमाट. राती बारांक जेवप खावप पियोवप. सगळें चलतालें. हावेन जेवणाच्या पाकिटा वयली फोल काडून पळयली, शीत राजमा अशें कितें आशिल्लें. रातीच्या णवा उपरांत काय खावप ना हो म्हजो नेम. तांतून थायलॅंडच्या 'जेवणावळीची' मनात धुगधुग. ॲपल जुसार हावेन सगळें सोपयलें. हवेंतली पसतीस हजार फुटाचेर समाराधना चलताली. समराधने उपरांत च्या कॉफी आयली. म्हज्या कुशीक सत्तर पंच्याहत्तर वर्सा पिरायेचें एक जाण्टें जोडपें बशिल्लें. ताटांत पडिल्लें सगळे सोपोवचें. गोटो लेगीत सांडचो न्ही हो आदर्श सांबाळीत ताणीं प्लेटिंतलें सगळें सोपयलें. सगळो प्रवास साडेतीन - चार वरांचो आशिल्ल्यान ॲरहोस्टेसांची सारखी ताकतीक चलिल्ली. मदीं मदीं टिव्हीच्या स्क्रीनीचेर विमान कितल्या उंचायेचेर आसा, कितल्या स्पीडीन चलला, भायलें तापमान कितलें, बॅंकोकाक (थांयलंडाक) कितली वरां जाल्यां हें दाखयतालें. ॲर हॉस्टेसाले 'कर्तव्य' सोपलें. ताणीं पडदे ओडून न्हिदपाची तयारी केली. म्हजें मन जागेंच आशिल्लें. बंगालचो उपसागर सोपलो. ब्रह्मदेशावल्या विमान उडटाले. ब्रह्मदेश, लाओस, व्हियेतनाम, कंबोडिया हे

थायलँडाचे उत्तर, उदेंत आनी दक्षिणेतले शेजारी. अस्तेंतीक बंगालचो उपसागर आनी त्या बेटांत शिंवरून पडिल्लीअंदमान निकोबार जुवीं.

बँकोकाक विमान पावत आयलें तशे कमरपटे बांदपाची सुचवण जाली. विमान ल्हव ल्हव सकयल येवपाक लागलें. विमानांतली हवा नियत्रीत केल्ली आसली तरी विमान जशें वयर सकयल जाता तसो हवेचो प्रेशर उणो – चड जाता. हाचो अदमास कानाच्या पडद्याक येता. हावेन बोल्सांतलें पिपरमिट काडून तोंडात उडयलें. विमान चडता आनी देवतना पिपरमिट तोंडात दवरल्यार तोंडाक लाळ सुटता ती गिळप जाता. काना भायलो आनी ताळ्यांतलो हवेचो प्रेशर एक जावपाक मदत जाता. कारण कानाच्या पडद्या कडल्यान एक ल्हानसो बुराक ताळ्यांत उक्तो जाता. हे सगळें करपा फाटलें कारण म्हळ्यार कानाच्या पडद्यार बेठोच ताण येवचो न्ही वा त्रास जावचो न्ही हो यत्न.

विमान जमनीक लागलें. बँकाक ॲरपोर्टाचें नांव 'सुवर्णभुमी' पुराय भारतीय नांवां वयल्यान 'थाई' हे आमगेले 'भाई' हाची खडेगांठ बांदिल्ली.

सुवर्णभुमी ॲरपोर्टार पांय दवरतकीच हो ॲरपोर्टाक आपणाल्या नावाक प्रामाणीक आसा हें पयल्याच खिणाक जाणवलें. ना जाल्यार नाव लक्ष्मीबाय थापता शेणी... तसली गत जावपाची. राष्ट्रीय आंतरराष्ट्रीय तळ एकेच वाठांरात. पूण राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय ॲरपोर्ट हांका सारखे मदल्या मदीं व्हाळान चिरिल्ल्या भाशेन चलपी बेल्टान चिरल्यात. बेल्टार सामान दवरून उबें रावचे पंदरा वीस मिनटांत एका पोंताच्यान दुसऱ्या पोंताक आपशींच पावतात.

'स्वायन् फ्ल्यू' – दुकेरजोराचें दुयेंस संसारभर साथ म्हण जाआरसंधटनेन जाहीर केल्लें. हे फांटभुयेंचेर ॲरपोर्टार भलायकेच्या संबधात एक फॉर्म भरून दिवप गरजेचें आशिल्लें. हावेन ॲराव्हल रिपोर्ट पासपोर्टा सयत संबधीत मनशांच्या हातांत सोंपयलो. सकाळचीं पांच वरां जाल्लीं. पासपोर्ट – व्हीसा तपासपी केंद्रार वातावरण मात्शें ढील आशिल्लें. थंयच्यान एक चलयांचो चोंबो (मोटव्या स्कर्टाच्या) वतालो. कांवटरावयल्या मनशान तांचे कडे विस्त मारून कॉमेंट मारलो. कुशीचे दोगूय हांसलें. ताणींय वात्रटपणाच्या त्या धगांत आपणाली पत्री घालून दांत विचकटायले. जगार खंयूय गेल्यार मनीस सभाव बदलना हाची खात्री पडली. म्हज्या पासपोर्टार शिक्के बीन मारून ताणे परतून तो म्हज्या सुवादीन केलो. बॅग घेवपाखातीर हांव बेल्टाकडे येवन उबो रावलों. म्हज्या वांगडा न्ही फाटोफाट दो. नीता येताले.

थायलँडाचे दुडू बाथ. एका डॉलराक चौवतीस बाथ म्हळ्यार बाथ भारतीय रुपया परस इल्लो म्हारग. दोनशे डॉलर्साचे हावेन बाथ घेतले. सामान बी घेवन आंतराष्ट्रीय ॲरपोर्टावयल्यान आमी भायर सरली. सुवर्णभुमी ॲरपोर्टाक चार तळ आशिल्ले. चौथो तळ भायरवचपाक जाल्यार तळमजलो येवपी प्रवाशां खातीर, मदले दोन तळ रेस्तारँतां, दुकानां रेस्ट रुम असल्या गजालींक राखून दवरिल्ले. सगळ्या ॲरपोर्टार आसता तशी टुरीस्ट गायड हॉटेल अजेन्ट, टॅक्सीवाले हांची गडबड. सगळ्यांक न्हयकारत आमी चौथे तळार पावले. बँकोकच्यान खोनकेनाक वचपी आमची फ्लायट आशिल्ली इकरांक. पांच वरांचो प्रस्न आशिल्लो. त्या भायर रातचें जागरण. तिसऱ्या तळार येवन एके कोनशाक आमी पथारी मांडली. चौथ्या वयल्यान तिसऱ्यार एवपाक घसरगुंडी सारखे चलपी बेल्ट आशिल्ले. ताचेवयल्यान तोंडान भरिल्ली ट्रॉली घेवन देंवपाक हें सर्कशी भाशेन दिसलें. टॉलीचे ब्रेक आंवळून हावेन बेल्टार पावल दवरलें. जमलें! हावेन सुटकेचो स्वास सोडलो. बेल्टार

उबें रावपाक म्हाका जमलें. हावेन फाटी वळून पळयलें दो. नितान एक पावल फुडें घालून परतून फांटी घेतले! ब्रेक सोड! ब्रेक सोड! हावे इल्ल्या मोठ्या आवाजात उलयलो. विमानतळा वयल्या ट्रॉलीक स्प्रींगाचे ब्रेक आसता. ब्रेकावयलो हाता काडलो काय ट्रॉली उबी रावता. ब्रेक दामलो काय व्हीला सदळ क्लचा भाशेन तांची येवजण आसता. म्हाका भंय जाल्लो ट्रॉली सांबाळपाच्या यत्नात ताचो पांय बी घसरत.

दो. नीता रोखडेंच फाटीं गेले. पूण परतून यत्न करून बेल्टार पावलें. हावेन आंगठो वयर काडून जैताचो कुरू केलो. तिसऱ्या तळाचेर सामान कुशीक लायतकीच हावेन बॅगांतलो टुथपेस्ट ब्रश काडलो. तोंड धुलें आनी च्या बरी खंय मेळटा काय हाचो अदमास घेवपाक विमानतळार भोंवपाक लागलो. थंयच्या तेलाचो दर्प वा हुमसाण विचित्र दिसली.

एका दुकानात बरी फळां मांडिल्ली. हांव बेठोच भितर सरलो. मेनूकार्ड मात बरे मोठे आशिल्लें. पदार्थाचीं चित्रां तांचीं इंग्रजी आनी थाई नावां. 'लेमनग्रास टि' नांवा वयल्यान तर सामकें वळखीचें दिसलें. पूण... थायलँडाक वता म्हण कळटकीच अर्द डझन तरी फोन आयिल्ले. सांबाळून हां. थंय व्हेज – शिवराक म्हळ्यार 'दुकरा' मांस सोडून सगळें. पूण च्या भितर तसलें काय आसचे ना! हावेन व्हडल्या निर्धारान 'तसल्या' च्याची ओर्डर दिली. सत्य हें केन्ना केन्ना कल्पनेपरस रम्य आसता हाची गवाय परतून एक फावट मेळ्ळी. 'झेल' घातिल्ले गंजनाचें थंड बरें उदक. असलें बी कितें मेळत हें स्वप्नात लेगीत धरूना. ग्लासभर लेमन ग्रास टी पोटांत गेलो. गरमच्या घेवन येवची ना इतली तरतरी आयली. थाई लेमन ग्रास टी प्रेसांवाक बरें! हें वाचून आनी धपको बसलो. गंजनाचें उदक घरा आमी थंडी – जोराक दिता. कशेय आसू ये जो देस है ... परदेस नही है! असो विचार मनात आयलो आनी टेंन्शन उणें जालें. स्ट्रेस उणो जालो काय प्रेसांव आपशी देवता! हांवेन दुकानातल्यान पोपायो आनी अननसाच्या फोडीचें पाकीट घेतलें. मन भारतांत पावलें. भारतांत सकाळचीं साडे चार वरां जाल्ली आंसू जाय. फोन करचो अशें दिसलें. फोन चलता काय ना हें पळोवप उद्देश आशिल्लो. बीएसएनलाचें रोमिंग हावेन घेतिल्लें. रेंज दाखयताली. तें पळोवन फोन चलपाक जाय असो अदमास हांवेन केलो. पूण फोन मात लागनाशिल्लो. थंयच्यान सगळे आयएसडी बुथार यत्न करून पळयले. निमाणें म्हळें भर दिसा धा – ते बारा ह्या वेळा जाच्यो सगळ्यो लायनी कामांत गुतिल्ल्यो आसतात तांच्यो फातोडेर खंय गुतिल्यो आसतल्यो काय? न्हिदूं बाबडे. हावेन फोनाचो नाद सोडलो. लॅपटॉप काडून इंटरनेट लागता काय हाचो अदमास घेतलो. पुण सगळें फेल! हांवेन पुस्तक काडून वाचपाक घेतलें. मजेची गजाल म्हळ्यार त्या दोन-अडेच वरांत विमानांचो व्हडलो आवाजा हांवेन आयकुना. धांक सुमार परतून चौथ्या तळार येवन खोनकेन वचपी थाई – अेरवेजच्या कॉवन्टरार हांवेन चेक-इन केलें. बेल्टार सामान दवरून ह्या पोंताच्यान त्या पोता मेरेनची पट्टो – यात्रा सुरू जाली. मदीं एका बुथार शंभर बाथ दिवन हावेन कॉलर कार्ड घेतलें आनी घरा फोन लायलो. तीन मिनटां खातीर हावेन देडशे रुपया घालयले.

विमानाची वाट पळोवपाक बारील्लों थंयच्यान 'फ्रि' इंटनरेट आशिल्लें. ताचे वयल्यान इमेल बी धाडलें.

मन परतून 'गंजनात' घुस्पलें. गंजनाची मुळां सुकयलीं काय 'वाळो' जाता. 'लाविली थंड उटी वाळ्याची...' मन शांकुतलकी जाले. मनात विचार आयलो. बुद्ध धर्माचो प्रसार जावपा खातीर बुद्ध अनुयायी दाव्या उजव्या आनी वयल्या दिकेन गेले. आयचो पाकिस्तान, अफगाणिस्तान हे

एके काळार बुद्धधर्मी आशिल्ले. चीन आयज लेगीत आसा. ब्रह्मदेश (म्यानमार), थायलंड हांगा बुद्ध धर्म पातळ्ळो. पुण हिंदूधर्म जाका आमी जिणेची रीत म्हणतात ताच्यो गजाली हे देशांत आसतात ही गजाल मतीत घेवंक जाय. 'होउनी अगस्ती ऋषी पिउनी टाकूं सागरा...' जांव वा कृणगी विश्व आर्याम् हें पयली केन्नातरी जाल्लें. संस्कृतायेची अटंगी राना अशीं आसता. त्या रानातलें खंयचे त्या मातयेंतले आनी खंयची भायल्यान येवन मातल्या हे सोदप भोव कठीण. ह्या अटंग्या रानात मागीर वाग - सिंवा सारखी हिंस्र श्वापदां आसता.

विमानात चडपाची सुचवण झाली. बॅग खांदार मारले. तिकीट - बोर्डिंग पास आनी पासपोर्ट हातांत घेवन हांव लायनीक उबो रावलो. विमान ॲर-बसी सारखें आशिल्ले. बँकोक ते खोन-केन वरा भरयाचो प्रवास. मुंबय गोंय विमाना सारखो. बँकोकच्यान दिसाक तीन विमाना वताली. पंचवीस वर्सा आदीं गोंयची विमान येरादारी याद जाली. आतां सगळेंच भाई थाई आशिल्ले. विमानान उड्डान केलें. जनेलातल्यान नदर भायर गेली. पाचवी शाल न्हेसून नटिल्ली बायलमनीस कसो तो वाठार पाचवोचार दिसतालो. मळबांतल्याकुंपांक कापीत विमान वयर वतालें. कुपानी आडयल्ल्या सुर्य किर्णाकं लागून धरतेर कपया कपयानी सावळी पडिल्ली. कुंपा दाट नाशिल्लीं. तांचे वयले थर, पोनचे थर सगळे स्पश्टपणान दिसताले. विमानांतल्या स्नॅक्साचेर म्हजे लक्ष नाशिल्लें. आयतार सकाळ. पेपर वाचप (हरशींच्या दिसा हांव चाळता) हो आयतारा सकाळां एक पयलो कार्यक्रम पूण त्या दिसा तातून खंड पडपाचो मुखावयल्या सिटार अडकयल्लो पेपर हावेन काडलो. पुरवणी बीन पळयली. भारतीय पेपरांर आसता तशें सगळे आशिल्ले राजकी लेख, नियाळ, सांस्कृतीक गजाली, खेळ, कुवाडीं... पूण भारतांतल्या पेपरानी आसता ते सप्तकी राशी भविश्य नाशिल्लें. भविश्यार विश्वास नाशिल्लो. देश आंसूक जाय असो हावेन अदमास केलो. पूण फुडे तो फट थारपाचो आशिल्लो.

विमान ल्हव ल्हव करून देवंपाक लागलें. खोन-केन हो थायलँडाच्या उत्तर उदेंतीचो वाठार आमच्या मणिपूर - त्रिपुरा भाशेन देशाच्या शिमेवयलो वाठार. विमान सकयल आयले तशीं बुद्धमठ, स्तुपां दिसपाक लागलीं. विमान जमनीक लागलें. भायर सरपाक व्हडले त्रास जांवना. व्हरपाक गाडी आनी मनीस ॲर-पोर्टार आयिल्लो. ॲर-पोर्ट ते खोन केन विद्यापीठ सुमार चाळीस किमी. अंतर. पूण रस्ते सरळ. चार चार आठ पदराचे. गाड्यो भारतांतल्या भाशेन दाव्यान वताल्यो उजव्यान येताल्यो...

पूण गाड्यांचे हॉर्न मात आयकुपाक ये नाशिल्ले. कारण हॉन वाजवप हे फकत भारतीय संस्कृतायेत बँड कसो वाजयतात. आयतार आशिल्ल्यान रस्त्यार वहानां चड नाशिल्लीं. अर्द पाउण वरांत आमी हॉटेलार पावले. हॉटेल 'क्रॉनमॉडर'. हॉटेलांत भितर सरतकीच तोंड-बीन धुवन हांव गादयेर आडवो जालों.

जाग आयली ती दो. नीतान दारार टकटक केल्ल्यान. ताचो स्वर मात्सो चिडचिडो आशिल्लो. हांगा हें ना, तेंना... ताचे नकाराचे नमन सुरू जाल्ले. आमी हॉटेल बदलूंया! ताचें वागप म्हाका विचित्र दिसलें. त्या विचित्र वागपाचे म्हाकाय राग आयलो. पूण अनवळखी देस. पयलेच खेपे भुरग्याक सोडून इतल्या पैस आयलां. काडुंया इल्लें पाशियस्. हांवेन ताणे सांगिल्ल्यो सगळ्यो गजाली आयकल्यो ताका न्हावपाक सांगले. तें तयार जाता म्हणसर हांवेन म्हजें सामान उस्तिलें. जाय ते भायर काडले. न्हावन - धुवन फ्रेश जालों आनी आमी दोगाय पासयेक भायर सरली.

हॉटेल 'कॉनमॉडर' बी आशिल्लो वाठार सोबीत आशिल्लो. चलत – चलत आमी विद्यापीठाच्या फुड – सेंटराकडे आयलें. पयले दिसा खबर नाशिल्ल्या पदार्थाची चव लेगीत पळोवप ना अशें थारायल्लें. पुराय दोन सप्ताका आमचें कडे आशिल्लीं, 'रुची' काडपाक एक स्टॉलार केळी दिसली. डझनभर केळी घेवन आमी परतली. वतना वांगडा हलदीरामाची तयार खाणाची पाकिटां घेतिल्लीं. तांतुतले एक काडपाचें थारायलें. पूण रुमांत ऑव्हन नाशिल्लो. हांव हॉटेलार परत येतकीच पाकिट घेवन हॉटेलाच्या रांदचे कुडींत गेलों. रांदच्येकुड ही म्हाका देवाची कुड कशी दिसता. ल्हान पणातल्यान अन्न हे पुर्णब्रह्म हें आयकतना घोळ जाला जांव येत. पुर्णब्रह्म हे जेवण. ना जाल्यार कोणा सभाग्यान म्हळांच हे चराचर सदांच किते तरी चरत आसता. मनीस चरना. चिरता. कापता, शिजयता, भाजता, तळता, करपयता आनी खाता.

ह्या सगळ्या वावरांत उजो म्हत्वाचो. उजो म्हळ्यार अग्नी! अग्नीचो सोद अचकीत लागलो. पूण जगात मनशाकूच करपाक येता आनी खंयच्याच जनावरांक येना तें म्हळ्यार 'उजो पेटोवप.' उजो पालोवप आनी पेटोवप ही दिव्यकला कांय मनशाकूच जमता. अग्निदेवाक नमन करून हांव रांदचे कुडीतं गेलो. हांवेन म्हाका जमता तशें इंग्लीशीत सांगलें. ताका किते समजले ते हांव नकळो पूण एका आयदणांत उदक दवरून तातूंन ताणें पाकीट घालून ऑव्हनात दवरलें. ताका इंग्लीश समजताली. उलोवक येना नाशिल्ली इतलोच ताचो अर्थ.

पुर्णब्रह्माच्या तयारेंत आसतना म्हाका परतून बुद्धधर्माचो वावर याद जालो. कसो पातळ्ळ आंसू येत? खंयच्या भाशेंत धर्मतत्व सांगले? खरेंतर उतरां हो मनशाले विचार मांडपाचो एक मार्ग. आवय भुरग्याकडे उलयता तेदेवेळार सगळ्या उतरांक अर्थ आसता? हेर आयकुप्याक तीं उतरां अर्थहीण दिसूं बाबडीं. पूण आवयच्या काळजांतल्यान भुरग्याच्या काळजांत रिगपी भावना ताचे वांगडा आसता. धर्मप्रसार करपी लोक अशी काळजांक हात घालपी भावना चाळतात तेन्ना उतरांची व्हडली गरज उरना आंसू येत. पाकिटांतले शिजयल्लें ताणे आयदणात घालें. कॉनमॉडरच्या रानदचे कुडींत पयलेच खेपे दाल – माखनीन आपणालो वास दाखोवन दिलो. वांगडा दोन मूद रायस. ज्या वाठांरात रायस – दाल मेळटा थंय भारतीय उपाशीं तरी पडचो ना. थायलँड एके वेळा वयलो शीत पिकोवपी व्हडलो देस. कसलो भंय ? रुमार येवन दो. नीता आनी हांव रायस दाल खावन तृप्त जालीं.

भूक लागिल्ल्याक दोन घांस, तान लागिल्ल्या दोन घोट (उदक) दिल्या उपरांत शांत जावचें तशी दो. नीताची अवस्था जाली. दनपारा हॉटेलांत दोन विंगड – विंगड रुमात भितर सरली. हांव रुमांत भितर सरतकीच आड जालों. पूण दो. नीता खंय जागेंच आशिल्ले. जेवल्या उपरांत ताणे सांगपाक सुरवात केली. कुडीचे दार धापल्या उपरांत ताका रुमांतले एकटेपण खांवक उठलें. घराकडली याद आयली. भुरग्यांचो उगडास जालो. आपूण इतल्या पैस तांका सोडून कित्याक आयलां. तांचे पंदरा दीस कशें जातले? एकाच विचारान तें सौरभैर जाल्लें. एक खीण तर ताका परतून वचपाचें अशेंय दिसलें. संसारात पुराय घुस्पिल्ल्या, संसार हेंच सगळें मानपी ती एक भारतीय बालयल मनीस आशिल्ली. घराक आपलेबगर सांबळपी, घरच्यांची जतनाय घेवपी दुसरें कोण ना! हाका 'सेन्स ऑफ बिलोंगिग नेस' म्हणटात. भारतीय संसारी बायलेच्या मनोव्यापाराचो तो केंद्रबिंदू आसा. ती बायल मानीस मागीर कितल्या उंचायेच्या पांवड्यार आसूं. तिची 'कमिटमेंट'

संसाराक आसा. दोतोरकी शिकिल्ली ती बायलमनीस त्या भारतीय परंपरेंचे दायज इतल्या पयस सांबाळताली. परंपरा संस्कृती हांचे जूं अशेंच आसता. ताचे जडपण केन्ना केन्ना अशें उक्ते जाता. खरें म्हळ्यार वीस वर्सा संसार करतना आपल्याक 'ब्रेक' दिवना. घरांतलेच करीत आसतां हाची 'कॅसेट' ताणें दिल्लीक कितले फावट वाजयल्ली आसूं येत. पूण प्रत्यक्षांत ते 'सूख' सूख न्ही तर ख्यास्त आसा अशें दिसलें. दो. नीताक रुम खिणभर बंदखण दिसली. स्वतंत्रताय म्हळ्यार कितें? बंधना तोडप? बंदखण म्हळ्यार कितें बंद कूड? हाता पायांतल्यो कादेळी?

आमचें जेवन जालें. दो. नीता प्लॅटी उबारपाक लागलें. हांवेन मात म्हजी प्लेट स्वतः उबारली. ताका उबारपाक दिली ना. जेवल्या उपरांत रांदचे कुडिंतलीं कामां बायल मनीस करता हो भारतीय दादल्याचो सुवार्थी समज. म्हजो फोन मात चलनाशिल्लो. दो. नीताच्या फोना वयल्यान एस्. एम्. एस. धाडलो. पयलो दीस गेल्ल्याची खोशी जाल्ली. दो. नीता रुमांतल्यान भायर सरलें. एकामेकाक गूड नायट करून रुमाचे दार हांवेन धापले. सोमारा सकाळां 'घुवळे वखदांच्या' संदर्भात थायलँडात सवी राष्ट्रीय परिशद आशिल्ली. घुवळें वखदाचो भिरांकूळ प्रताप थायलंडाक पळोवपाक मेळिल्लो. घुवळे वखदांचेर नियंत्रण हाडप घुंवळे वखदांच्या भकीक पडिल्ल्यांक तांतुंतल्यान भायर काडप हो वावर थंय नेटान चलतालो. जागतीक आरोग्य संघटनेन हाचेर बरेंच लक्ष दिल्लें. आमची भोंवडीं त्याच संबधांत आशिल्ली. सकाळां जाग आयली ती साडे संक. घड्याळ वेळ दाखयताले त्या प्रमाण उशीर जाल्लो. कारण साडेचार पांचाक सदांच जाग येता. पूण म्हजें जैवीक घड्याळ थीर आशिल्लें. थायलँडाची साडेस म्हळ्यार गोंयचीं सकाळची पांच. तोंड बी धुवन हावेन प्राणायाम केलो. न्हाता धुता म्हणसर व्हरपाक गाडी आयली. साडे साताक दारार टकटक जाली. दो. नीता तयार जाल्लें. हांवेन, ताका ब्रेकफास्टाक वच म्हण सांगले. कॉनमोडर हॉटेलांत ब्रेकफास्ट घेतलो आनी आमी हॉटेल शॅरोन प्रिन्सेस हांगा वचपाक भायर सरले. शॅरोन यानी म्हळ्यार समृद्ध थाई. उद्घाटन सुवाळ्याचें स्वरुप मात्शें वेगळें आशिल्लें. माचयेर एका कुशीक बुद्धाची म्हूर्त तर ताचेच शेजाराक 'राजाचो' फोटो. थायलंड प्रगतीच्या पांवड्यार आसा पूण राजाक थंय व्हड मान. थंयच्या बाथ ह्या चलनार राजाचो फोटो. खोनकेन वाठारांतल्या फामाद हॉस्पीटलाक नांव राजमातेचे. सुवाळ्यांची भाशा आशिल्ली 'थाई' आंता थाईचो इल्लोय गंध नाशिल्ले आमी तीन दीस थंय कितें करतलीं हो प्रस्न मनात घेवन आशिल्ले. इतल्यान दोन तीन चलयो आनी चले म्हऱ्यांत आयले. आमचे अनुवादक म्हण तांका नेमिल्ले. भाशेचो हो प्रस्न थायलँड आपल्या परीन सोडयतालें. इंग्रजी मास्टर्स शिकपी भुरग्यांक प्रॉजेक्ट. असल्या सुवाळ्यानी अनुवादक म्हण काम करप. बसपाची येवजण सारखी आशिल्ली. म्हज्या कुशीक दोन जाल्यार दो. नीताच्या कुशीक दोन. दो. नीता आनी हांव तेकून तेकून. आमका मदी मदी उलोवपाक मेळचे हाचे खातीर तजवीज. त्या भायर तांची गायड / टिचर आमच्या फाटल्यान. भुरग्यानो पाढे म्हणारे... अशे म्हणून भुरग्याक सोडून दिवपाचो व्यापार न्ही. एक थाई जापसालदारकी पयल्याच धपक्याक पळोवपाक मेळ्ळी. अनुवादाकांचीं नांवां विचारली. बिंग आनी पेंग. पेंग म्हळ्यार धवो पावडर. नावा प्रमाण गोरे नितळ गोरे पिट्ट.

कार्यावळीक सुरवात जाली, प्रास्ताविकान. उपरांत मादक द्रव्य विभागाच्या सचिवाचें बीज भाशण जालें. तातून थायलँडच्या ह्या बेकायदेशीर व्यवहाराची कांय महत्वाची म्हायती मेळ्ळी. थायलँडाक तेकून आशिल्ल्या ब्रह्मदेश आनी लाव (लाउस) ह्या शिमा वयलो म्हत्वाचो वाठार म्हळ्यार 'भांगरा त्रिकोण' वयर तामडो भाई चीन. पुण हो भांगर त्रिकोण खंय नो मेन्सलँड.

कोणाचीच थंय सत्ता ना. खरे म्हळ्यार ती भूंय खंयच्च्याच एका देशाची न्ही असो ताचो अर्थ. देखीक थंय साम्राज्य – सत्ता आसा ती ड्रग माफियाची. ह्या त्रिकोणा वरवी कोट्यानी रुपयाची (डॉलराची) घुंवळे वखदां जगभर पातळटात. थायलँडाक घुंवळें वखदा येतात तीं हांगच्यान. घुंवळे वखदा येवपाचो दुसरो मार्ग म्हळ्यार त्या देशाचो दक्षिण पोंत – मलेशियाक तेकिल्लो वाठार. पांय किट् किट्टा तकली फोडटा अश्या दोट्टी दुयेंसा सापडिल्या मनशा भाशेन थायलँडची अवस्था आसा.

खंयच्याय उदरगतीच्या येवजणेक आर्थिक पालव हो महत्वाचो. ही मदत मागीर सरकाराकडल्यान येवं वा सरकाराभायर वावुरपी घटका कडल्यान येव. थायलँडाचेर अमेरिकेचो खुब्ब प्रभाव पडला. हाचें कारण म्हळ्यार थायलँडाचें आशिया – प्रशांत भागांतले स्थान. अमेरिकेच्या नदरेन जें स्थान इस्रायलाचें आसा, पाकिस्तानाचे (भारतीय उपखंडात) तेच थान थायलँडाचें, ब्रह्मदेश, चीन, कंबोडिया, लाओस, मलेशिया आनी व्हियेतनाम हांच्या संबंधात आसा. व्हियेतनाम हो देश. थायलँडाचो शेजारी देस. थंयचें चाळीस वार्स आदिचे झुंज व्हियेतनामच्याच न्ही तर खंयच्याय स्वाभिमानी देसाक माथें बागोवपाक लावपासारखे आसा.

म्हणतात न्ही सुक्या वांगडा ओलेय जळता. तशे थायलँडाची उदरगत अमेरिकेच्या सांगातान जाली. अमेरिकेच्यो बऱ्यो गजाली ह्या देशान आपणायल्यो ताचे वांगडा 'ड्रग्स्', 'मादक द्रव्यां', घुंवळे वखदांय सुर्वेक लिपलिपत आयलीं. आता तर तीं बऱ्याच प्रमाणात पसरल्यात. मजेची गजाल म्हळ्यार अमेरिकाय हे घुंवळे वखादांच्या प्रस्नान कांतावल्या. अमेरिकेंत घुंवळे वखदां येवप वा मेळप हाची मजेची गजाल आयकूपाक मेळ्ळी. अमेरिकन दादले थाई बायलांकडे लग्न जातात आनी तांचो थळावो वापर ह्या कार्याक करतात. देखीक घुंवळे वखदांच्या मोहिमे आड वावुरपी कार्याक सगळ्यांत चड आर्थिक पालव अमेरिकेकडल्यान येता. थायलँडाचो राजा तशेंच आदले पंतप्रधानान फाटल्या दसकांत ह्या कार्यावळीक पुराय तेंको दिल्ल्यान थायलँडाक पडिल्ली घुंवळे वखदाची वेंग बरीच सदळ जाल्या. बीज भाशणा उपरांत च्याचो वेळ जाल्लो.

शिवराक पुराणातले नवे श्लोक म्हणपाचो वेळ आयिल्लो. म्हज्या वांगडा आशिल्ले दो. नीता सामके शिवराक. केकाक हात लेगीत लावपाक भियतालें. हॉलांतल्यान भायर सरले कॉफयेचो खर वास नाकांत रिगलो. वास इतलो खर आशिल्लो की म्हाका शिको आयलो. शिक येवप हें इल्लें अपशकूनी धरतात. स्वायन फ्ल्युच्या काळात तर भयंकर अपशकुनी. विमानात कुशीक जाण्ट्या जोडप्या मदलो दादलो शिकतालो तें येवजलें. तितल्यान कोणेतरी च्याचो पेलो हातान दिलो. टि ऑर कॉफी? जगभर कितल्या गजालीक एकूच नाव आसत? कारण च्या आनी कॉफी ही दोन भांवडा जगार पातळ्ळ्यांत. तातूंतलो च्या हो दादा, भाई, भाऊ, तात्या, नाना. आशीं तर तरांची नांवा घेवन वावुरता. पुण कॉफी मात कॉफी उरल्या. आंकवार चलये भाशेन. जगभर ताका कॉफीच म्हणतात. थाई भाशेन च्याक किदें म्हणतात काय? हावेन बेठेंच विचारले 'शा.' च्याय, चहा, च्या, शा सगळी उतरं सारखीं म्हळ्यार मास्तरान उलो मारताना 'चाहा' जाता जांवयेत, आवयन अपुरबाय करतना 'च्या' जांव येत गाड्यार कोणे तरी हटकितना 'च्याय' जाता जांव येत, आनी ट, ण अश्या खर उतरापासून पैस आशिल्ल्यांच्या वंटार 'शा' उतर येव येत. इतलोच भेद उतरावळीचो आसलो तरी 'च्या' करपाची पद्धत मात जगार एक सारखी ना. थाई च्या सामको पचपचीत. दोन–चार पान उकळून गाळून 'थाई शा' तयार जाता. साकर ना दूध ना. हाच्या उरफाटी

थाई कॉफी 'डबल स्ट्राँग नेस्कॅफे' इतलेंच म्हळ्यार लेगीत पुरो.

दो. नीता 'आपूण कडक शिवराक' म्हणतकीच ताका बिस्कीटी, जेली बी हाडून दिल्यो. पूण ते शिवराकूच आसतले हाची गवाय कोणे दिवची. मुदलत उणे कपडे म्हळ्यार कितें हाची व्याख्याच हांगा वेगळी आसा पदराचो पत्तो ना थंय पदर सारखो म्हणतलो कोण?

'धिस इज ऑफ कोकोनट'. कोणे तरी प्लेटिंतल्या धव्या जेलीक दाखयत म्हळे. हांवेन ते काप तोंडात घालें. सोयेची गुळाची चव, वेलचेचो मंद वास श्रावणातल्या गोडश्याची रुच त्या जेलीन जागी केली म्हळे नाल्ल आणि तांदूळ आसा थंय खावपा जेवपाचो भंय ना. च्या घेवन हावेन इंन्टरनेट बी मेळटा काय हाची वासपूस केली. भायर मॉलांत वचून नवें सीम कार्ड घेवन टॉपअप केले. गोंयांत फोन लागलो. वांगडा व्हेल्ल्या बीएस्एन्एलच्यो कामात घुस्पिल्ल्यो लायनी सोडोवपाचो यत्न केलो ना. मॉल वयले वयर पळोवन आमी हॉटेलार परतली.

वरा देड वराच्या सत्रात हांव म्हजी वळख दो. जोशी म्हण करून दितालों. खोशयेची गजाल म्हळ्यार म्हज्या नावाचे 'जहाज' म्हळ्यार जहाजातातो 'ज' ते सारखे म्हणताले. युरोप – अमेरिकेत च, ज अशी शार्प उतरां 'च्य', 'ज्य' अशी जाता. हांगा हांव 'जोसी' जाल्लो जाल्यार अमेरिकेत 'ज्योशी.' श चो स जावप ही प्रक्रिया हांगा अर्विल्ली आसा 'शी' उतराचें सी जाल्लें आमका पावला कणकणी पळोवपाक मेळ्ळें. बंगाली जशे 'व' चे 'ब' करतात तशे थाई 'जं' चे 'स' करतात. घडये ते उच्चार करताना म्हजें नाव 'सोसी' असोय भास म्हाका जाल्लो. थंय अभिजित हो अभिसित जाता. विशृत हो विसृत रावण हो 'दुसमुख'. म्हायती पत्रिकेंतलें भारतीय नाव सोदतां सोदता. सुवरना (सुवना) रत्नादिप, सुपात्रा, अनिरुद, क्रिसूना अशी मेळ्ळीली. म्हाका ज्यो दोन अणकार करपी दोन चलयो दिल्ल्यो तांका हावेन हीं उतरां संक्रीती (संस्कृत) कशीं, देवनागरींत कशीं बरयतात हें सांगले तेन्ना तांच्या मुखामळार जे आपुलकायेचे भाव उमटले ते म्हज्या काळजांत अचळय मुंगरले. 'हो तो पुरश्यालो पुत' वा हो मिरेलो चलो अशी आवय बापाय वयल्यान वळख जाताली तशें वातावरण आपशीच तयार जाल्ले. माचयेर कार्यावळ चलील्ली हांगा हॉलांच्या निमाण्या पोंतार आमची प्राचीन भारतीय संस्कृतायेचो सोद चालू जाल्लो. थायलँडाक वतलों तेन्ना हें घडटलें अशे दिशिल्लें. पूण इतल्या मनभुलसावपी तरेन ते जायत हे मात धरूक नाशिल्ले. मागीर आमची चर्चा थाई भाशा, उतरा, लिपी, उच्चार, जेवण, खाण, रिती, धर्म अश्या विंगड विंगड विशयाचेर जाली. जेवणाचो वेळ जाला अशे जाहीर जाले. घड्याळांत पळयलें बारा वरां जाल्ली. हांगचो कार्यालयीन वेळ , साडेआठ ते सांजे चार. मदीं बारा ते देड भुसाक. दुकानाबीन सुशेगाद व्यापार.

जेवणाक वांटकुळ्या मेजांची येवजण केल्ली. मदीं वांटकुळो फिरता तसलो ग्लास. सगळे जेवण मांडिल्लें. पूण 'रावात' 'युवर वेज व्हील कम' आतां फर्मास इंग्रजी उतरां कानार पडपाक लागिल्लीं. हुनहूनशीत प्लेटीत वाडले. वांगडा व्हेज मंचुरियन सारखें दिसपी कितें तरी दिल्लें. बेबीकोर्न घातिल्ली एक डिश. दो. नीता सारखें वासपूस करतालें. हांवेन मात मात्शे मारतें घेतिल्लें. ताणीं खर जतनाय घेवन शिवराक केलां. खात्रेन सांगला विश्वास दवरप. मंचुरीयनाची ग्रेव्ही घेवन शीत कालयलें.

वंगडच्या पंगडातली भुरगीं नुस्तें, आनी हेर पदार्थार तुटून पडिल्लीं. थाई पदार्थ तशे तीख. पूण बरें हुनहुनीत शीत, ग्रेव्ही आशिल्लें मंचुरियन आमकां मेळील्ल्यान व्हडलो त्रास जालो ना. निमाणी मेजार धाकटुली बॉउल आयली. स्वीट डिश म्हण काळ्यो बीन्स घातिल्लो खीरी भाशेन पदार्थ

आयलो. इल्ली खीर जीबेर दवरली आहऽ! सोयेचो रस, वेलची, गोड, घालिल्लो पायस्. घरच्या आनी थाई पायसांत कांयच फरक नाशिल्लो. त्या हॉटेलाच्या रांदचे कुडींत म्हजी घरकान्न, मावशी, काकी, भयण अशी कोणूय ना मू? मनान परतून आपलेपण जोडलें. दादल्यांचे काळीज जिखपाचो मार्ग जीबे वयल्यान वता खंय! ते दिसा मात तें खरें दिसलें. मोठे मोठे प्रस्न सुटील्ले ल्हान प्रश्नांची चिंता करपाची नाशिल्ली. ते दिसा कार्यावळ सोपोवन आमी हॉटेलार परतलीं.

तिनसांना भिनभिनाक हॉटेलाच्या भोंवतणच्या झाडार सायरन जाल्ल्या भाशेन आवाज येतालो. बारीक लक्ष दिवन आयकलो. रातकिडे आड्डूपाक सुरवात जाल्ली. तांच्ये आड्डप विचित्र आशिल्लें. पूण तांतून लेगीत एक लय आशिल्ली. मंत्रपुष्प म्हणतान कुबेराजवै श्रवणायाऽऽ असो लांब सूर धरून मंत्र लयींत रातकिड्यांचे आरव चलिल्लें.

मनान विचार आयलो हे संगीत रातभर तर आयकुपाक पडचें ना मूं? दिसभर आमी तशी व्हडली धावपळ करूना. भरातातल्यान व्हेल्ल्या तयार पाकिटा मदलें एक पाकीट हावेन काडले हॉटेलाच्या रानपघरांत गेलो. ताका ते पाकीट ऑव्हानात घालून गरम करपाक सांगले. सादे शीत, सालाद आनी पाकीटातलें खाण रुमार हाडपाक सांगले. रुमार येतकीच त्या हुनहुनीत शितार तुप घालें. (तुपमेतकूट भात हे पद्दे भट घोस्तान खातात तुपमेतकूट भात, ताक वा धंय हो तांचो संपुर्ण आहार आसू येत इतले ते खातात.) पयलो दीस बरो गेल्लो. जेवन आमी हॉटेलाच्या रिसेप्शन रुमांत आयलीं. इंन्टरनेटाची सोय आशिल्ली. हांवेन पन्नास बाथाचे कार्ड घेतलें. इंटरनेटार भारताच्यो गोंयच्च्यो बातम्यो पळयल्यो. इमेल केले. दो. नीतान घरच्यांक फोन करून आपूण इंन्टरनेटार आसा अशें सांगले. ताचो चलो ऑनलायन आयलो. तांचे चॅटींग सुरू जालें. इंटरनेटा वरवीं घराकडें संपर्क सादप बरेंच सोपे जाल्लें. खेरीज सवाय भितर काम जातालें. फोटो धाडपाची बेस बरी सोय ह्या माध्यमा वरवीं जाल्ली. इंटरनेटाचें सर्फिंग सोंपलें आनी आमी रुमार परतलीं.

दुसरे दिसा सकाळां हांव बेगिनूच उठलों. व्यायाम योगा जातकीच दुसऱ्या दिसाची कार्यावळ पत्रिका आमी करपाक जाय त्यो गजाली हांची येवजण केली. सकाळच्या मेकळ्या वेळांत पासयेक भायर सरलों. थायलँड ही बुद्धभूंय जाल्ल्यान भारतांत खासा करून गोंयांत देवळां आनी इगर्जी मेळटात तशी हांगा बुद्ध मंदिरां आसात. हॉटेल क्रॉनमोडरच्या भायर अशेंच ल्हानशे बुद्ध मंदीर आसा. मंदीर आनी तळी ही संकल्पना कोणाची ती हांव नकळो पूण ह्या बुद्धमंदीरा भायर ल्हानशे तळें आसा तांतून तर तरांची कमळा देवळाक प्राकार, चौक गर्भकुड अशें काय ना! व्हडल्या मदल्या चौकार धीर गंभीर मुद्रेची बुद्धाची म्हुर्त. तो म्हुर्तीक पळोवन नमनाक हात आपशीच एकठांय आयले. थायलँडाच्या लोकां मदीं नमळाय रक्तांतूच आसा. सवादी खाडप! अशे म्हणून हे हात जोडटात कमरांत इल्ले बागावतात. नमस्काराक बागावल्लो थाई दोळ्यान उलयता. रक्तातली नमळाय दोळ्यांत येता. थाई नमळाय जर सत्तेंत मग्रुर जाल्ल्यानी इल्लीशी आपणायत तर बुद्ध आनी गांधीक अभिप्रेत आशिल्लो संसार उबो जावपाक वेळ लागचोना. सकाळच्या पारार प्रसन्न चित्तान हांव बुद्धमंदिरांत बसून तुळा करतालो. तशें थांयलँडाक पाय दवरलेल्या खिणापासून म्हजें मन तुळा करत आशिल्ले. बुद्ध धर्माचो प्रसार कसो जालो? भारत – नेपाळ प्रांतात ह्या धर्मान जन्म घेतलो. बोधीसत्व आनी धर्माचें तत्व घेवन मागीर चोय दिकानी प्रवास सुरू जालो. चीन, ब्रह्मदेश, सयाम (थायलँड), लाओस ह्या देशानी हो धर्म पातळ्ळो. शेंकड्यानी वर्सां हजारानी बुद्ध वांगड्याची एकूच 'मिशन' धरून वावर चलयलो. ह्या देशान बुद्धधर्म आपणायला. धर्म म्हळ्यार अफूची

गुळी मानपी मार्क्साक हांतुतल्या कांय देशांनी पांय दवरपाक सुवात दिली. पूण कम्युनिस्टाक ह्या धर्माक हात लावपाची हिम्मत जावना आसूं येत. ही गजाल एक पन्नास – पाउणशें वर्सां आदली. पूण लाल भाईंक जे जमुना तें खऱ्या 'अफूक' मात इल्लें जमिल्लें. अफुसारख्या घुंवळे वखदांचे अनुयायी जाल्ल्या लोकांची संख्या थायलँडाक वाडत आसा. हे ताणीं आपणायल्ल्या अस्तेंतीली जीवन शैलिक लागून घडिल्ले? शेतार निंबून आशिल्लीं व्हडलीं कुटुंबां यंत्रयुगांत खिळखिळीं जालीं. ल्हान माणकुलीं कुटुंबां आर्थीक उदरगतीच्या मळार फुडें पावली. ह्या आर्थीक उदरगती वांगडा आयिल्लो पैसो हे परिस्थितीक जापसालदार थरला आसूं येत.

मजेची गजाल म्हळ्यार पाकिस्तान–अफगाणिस्तानातलो बुद्ध धर्म केन्नाच नानयत जाला. थंय 'हिंसा' हो परम धर्म दिसपा येदो रक्तखेव चल्ला. थायलँड आनी हेर वाठांरात बुद्ध धर्मात फेरफार जाला. बुद्ध धर्माचें पयले तत्व 'अहिंसा'. हांगच्या आहारात 'वराह' मांस सोडल्यार सगळे शिवराक. हांव बशिल्ल्या बुद्धाच्या मंदिरात एका ताटांत तांतयांची रास मांडून दवरलेली. जेवणामेजार बसल्यार जनावरांचे मांस ना वा तांचे सॉस ना असो पदार्थ सोदून मेळप भोव कठीण असो हो वदतो व्याघात! बुद्ध धर्माचो प्रसार हांगा बलजोरीन जावना. ज्योतसे ज्योत लगाते चलो.... अशें म्हणत हांगचे लोक बुद्धं शरणं गच्छामि! अशें म्हणपाक लागले. पूण भारतांत सुरू जाल्लो प्रसार थंय पावता म्हणसर 'लोकल ट्युनिंग' करत चालूच उरलो. बुद्ध मंदिरातल्या सकयल्या सोपणां वयले म्हजें चिंतन सोपोवन हांव रुमार परतलो.

हॉटेल कॉनमोडरांत ब्रेकफास्ट कॉम्पलमेंटरी आशिल्लो. न्हावन धुवन तयार जावन आमी ब्रेकफास्टाक आयली. राती इन्टरनेट लावपाक आयिल्लेकडेन म्हजो ल्हान बोल्सांत दवरपाचो बुक हांव थंय विसरून गेल्लों. रिसेप्शनात चावी दितना हांवेन चलयेकडे वासपूस केली. म्हजे इंग्लीश उच्चार तिका कळना जाले. निमाणे कागदार बरोवन 'ल्हान नोट बुक उरला?' अशें बरोवन दाखयतकीच तिची लायट पेटली. ड्रॉवरांतल्यान म्हजो बुक 'सुहास्यमुखान' म्हाका दिलो. म्हजी चावी घेतना दोन कुपनां म्हज्या हातार तेकयलीं. ब्रेकफास्टाच्या दालनात कुपना दिवन आमी प्रसादभक्षण करपाक प्लेटी घेवन भोंवपाक लागली.

मांडून दवरलेल्या ब्रेड बटर, जॅम, फळां, तांचो ज्युस, चा, कॉफी पळयत पळयत, वाफ्यावपी शिता आयदाणाकडें हांव पावलों आनी गोंयकारपणाच्या एका व्हडवीकायचो 'अहं' गळून पडलो. गोंयकांराचें शीत कडी नुस्तें पुर्णब्रह्म आसू ये. पुण सकाळीं फुडें च्या वेळार शीत–कडी? गोंयकाराक शीत खावपाच्या बाबतींत थाईनी फाटीं उडयल्या हें सामकें खरें. शीत कडये वांगडा तांबड्या तांदळाची हुनहुनीत पेज. अन्नपुर्णा देवी 'वत्सा म्हजेर पुराय कृपादृष्टी आसा' अशें म्हणून रांदचे कुडीत उबी राविल्ली आसू येत. पेजेचे नाते हे रक्ताभाशेन आसता. खयंच्या तरी सामाजीक नाटकाच्या एकताये वेळावयलो स्वंयरचीत डायलॉग म्हाका याद जालो. रिकाम्या प्लेटींत वाडगो दवरलो. वाडगोभर पेज घेवन हांव मेजार बसलों. दो. नितान टोस्ट–जॅम, फळां घेतिल्ली. "ये क्या है? सूप?" ताणे म्हज्या वाडग्याग पळोवन विचारलें.

'ये कॉन्टीनेन्टल डिश है! गोवा का!" पेज जेवपाचे पयली आंगार मुठभर मांस चडिल्या भाशेन हांवेन ताच्या तोंडार उतरा मारली. फकत थंय ताट नाशिल्लें. आमली नाशिल्ली. नाजाल्यार पेजे भुरको मारून, ये 'गोवाकी स्टायल' है! और भुरकें अशें परिवार च्याच्या जायरातीत फरीदा जलाल सांगता तशें सांगपाचे. पेजे कुंया पोटांत गेली तशी मन धोलपाक लागलें. त्या धोलपी

मनांक थाई संगीतान सांगात दिलो. 'इंद्रायणी काठी...' हो पं. भिमसेनाचो अभंग बेठोच याद जालो. सांगीत लागीचेंशे दिसलें. पूण वळख पटुना. सगळ्याच गजालीची तुळा समान्ही हावेन म्हाकांच शिटकायलो. थाई म्हणून 'अभिजात' कितेंय आंसू येत. ब्रेकफास्ट सोंपयलो आनी शेरॉन प्रिन्सेस हॉटेलांत पावली.

पयल्या दिसाचें अनवळखी पण वचून थंय हे आमगेलेच हो भाव मनात हुमटूपाक लागिल्लो. हॉलांत भितर सरतकीच पळयल्यार 'नवे दुभाशी' तांची वळख करून घेवन भारत-थाई सारखे पणांची कांय सुतां काडून दाखयलीं. तांतुंतल्यान आपलेपण तयार जाले. कार्यावळीचो विशय आशिल्लो घुंवळे वखदां बाबत खर कायदो आसचो वा न्ही! कायद्यान प्रश्न सुटना हे खरे! पूण कायदो अस्तित्वांत नासल्यार वायट गजालीआड झुंजपी प्रवृत्तीक नैतीक, आर्थीक, राजकीय बळगें मेळप कठीण. ह्यो तीन-चार गजाली एकठांय आयल्याबगर खंयचेय सामाजीक परिवर्तन शक्य आसना! खरें म्हळ्यार घुंवळे वखदांची समस्याच विचित्र आसा. कायदो ह्या घुंवळे वखदा आडच्या मोहिमेचे साधन आसा. ही समस्या सोडयता आसतना पांच वजा दोन हाचे उत्तर तीन येना कारण पांच प्रस्नांतले दोन सोडयले तरी नवो प्रस्न तयार जावन चार प्रस्न सोडोवपाचे उरता. देखीक कायदो जाय आनी ही समस्या ना करपाक वावूरपी सरकारा भायली यंत्रणा जाय. थायलँडाक ही समस्या सोडयतना आपणाल्या पंतप्रधानाचो बळी दिवचो पडलो ही गजाल घुंवळे वखदांचो प्रस्न कितलो भिरांकुळ आसा ते स्पश्ट करता.

च्या च्या वेळार दुभाश्याला नव्या पंगडाकडें बरीच भासाभास जाली. खोनकोन प्रोव्हींस (राज्य) हें थांयलँडाच्या उदेंत-पुर्व वाठारांत आसा. ते ताका 'इसान प्रदेश' म्हणतात. इशान्य दिशेचो वाठार तो इसान हावेन भाशाशास्त्राच्या नदरेन फोडणशी केली. मागीर परतून अयूथा (अयोध्या), संस्क्रीत (संस्कृत) असो भाशासोद सुरू जालो. तांचेकडे एक इलेक्ट्रॉनीक डायरी आशिल्ली. एखाद्रे थाई उतर ताचें टायप करून ताचो इंग्लीश अर्थ तीं काडटालीं. हांतूत काय इंग्रजी उतराचो थाई अर्थ विचारपाक लागलों. हेच संधीचो लाभ घेत हावेन थाई उतरांचो शब्दसंग्रह केलो. मीठ (फ्लुआ), मिरसांग (प्लिक), उदक (नाम), सोयेचोरस (काथी), बटाट (मन), शीत (काव), केळे (तुआ) अशे सदां लागपी उतराचो इंग्लीश, थाई लिपी, देवनागरी उच्चार, कोकणी अर्थ अशा चार प्रकारची यादी केली. जेवणाखाणां वेळार उपेगी पडटली होच विचार मनात धरून हे केले.

भाशेचो प्रस्न आयलो तेन्ना दक्षीण थांयलँडची म्हळ्यार बँकोकची जी बोली तीच अधिकृत थाईभास पुराय थायलँडात खंय तिनश्या वयर बोली आसा. आमची बोली श्रेश्ट हो 'गंड' आसा.

'हिंदी हमारी राष्ट्रभाषा है।' ह्या नदरेन सगळें मानून घेतला. आर्थीक विशमता थायलंडाच्या चार प्रोव्हिन्सा मदी आसा. हाचोच फायदो चायनीज ड्रॅगन वा अमेरिकी डायनासोर केन्ना घेत हें मात सांगू नजो. इशान हो एक पठार. ह्या मळार केन्ना काळार डायनासोर रावताले. डायनासोर कशे ना जाले हाचेर शास्त्रज्ञां मदी भासाभास चलता. थायलँडाचे डायनासोर चड करून 'डायनोसुप' करपाक थाई लोकांनी वापरल्या आसूं येत. विज्ञानीक मळार लॅटरल विचार सरणेक मोठो मान आसा. हाचो दुष्परिणाम खूब वैज्ञानिकाचेर जाता. ह्या लॅटरल विचार सरणेक लागून संसार कांय भिरांकूळ वैज्ञानिकापासून वाटावला होवूय म्हजोच लॅरटल विचार. माचयेर कार्यावळीचो एक

वांटो सोपून दुसरो सुरू जालो म्हजे व्हावपी 'लॅटरल विचार' परतून व्हर्टिकल जालें.

त्या दिसा दुभाश्यां आशिल्लीं तातूंत 'ऑन' म्हण शिक्षिका आशिल्ली. ऑनान काय काळ एअर होस्टेस म्हणून काम केल्लें. तें दिल्ली, थिरुअनंतपुरम हांगा येवन गेल्लें. खापूनखाप,शुक्रिया, थँक्यू, ओब्रिगाद म्हळ्यार हांव तुमचो उपकारी आसां. हाय, हॅलो, थ्यॅंक्यू हें आयच्या संसारात सगळ्यात चड चलपी उतर पूण उपकार हे काळजांत सावन याद करपाचे आसल्यार मायभाशेंतले तर भोव मोलाचे. दनपारा जेवणाक मजा आयली. थायलँड हें जनावरांचेंच मांस न्ही तर तरातरांचीं अळमी शिजयता. जेवणाक शिवराक डिशी मदी कितें तरी रबरा सारखे वातड मेळ्ळे. दो. नितान कांटो चमचो सप्प करून प्लेटीत दवरलो (सगळे बुडलें) असो भावर्थ घेवन ताणें म्हाका पळयलें. पूण ते उदरांच्या कानासारखें धवे अळमे आशिल्लें. तसलेंच काळें आशिल्ले दुभाश्यानी ताका समजायले उपरांत दो. नितांचें जेवणाच्या मेजावयले शेरमांव सुरू जालें. वातावरण बेठेंच गंभीर जाता तें पळोवन हांवेन विचारले, 'बुद्धाची पयली शिकवण खंयची?'

'अहिंसा'? सगळ्यांची एकूच जाप आशिल्ली. 'मागीर हे कितें?'सगळ्या प्लेटीकडे बोट दाखयत हांवेन विचारले! 'नॉन व्हेज.' मीन्स यु किल.' नीताक मात्सो नेट चडलो.

'पूण जनावरां हांवेन मारूना!' एकली चली डिफेन्सार आयली. काय खीण काट्या चमच्याचो किण् किण् आवाज थारलो. हो डिफेन्स अपंगुळ आसा हाचीय घडये तांतुंतल्या काय जाणाक जाणीव जाली.

'तूं केन्नाच्यान शिवराक?' दो. निताक कोणेतरी विचारले.

'जन्मासावन आनी मरसर' जितंमया अशे दिशिल्ल्यान दो. नितान फोर्सान जाप दिली. निमाणेकडे आयिल्ल्या गोडश्यान आनी फळांनी खावड यज्ञाची सांगता जाली. जेवण आटपून काय वेळ बेठेच भोंवलें. जड पोटान (जड पापण्यानी) हॉलांत आयले. कार्यावळीक सुरवात जावपाची आशिल्ली.

ह्या नखाड. वनी मंद्याक्का ऽ खोनके खोकेन उनवाड आयज खोनकेनचें वातावरण बँकोका भाशेन जालां. थाई उतराचें भाशांतर कानांत रिगलें. पयली अर्थ कळुना. 'उर्बेभरीत येवकार' हीं तीन उतरां वातावरण फुलंव शकता तशीं तीं म्होवाळ उतरां आशिल्लीं. त्या म्होवाळ उतरांचें नमन केन्ना सोंपतलें हाची व्हडलीशी तस लागुना. जंय भाशा कळना 'प्रमुख वक्त्याचे बीन भाशण' आयकुपाची उमळशीक ना थंय स्वागत भाशण लांबल्यार व्हडलोसो फरक पडना. म्हणून नमनाकूच सगले तेल सोपयल्यार जांता अशें दिसले. इतल्यान ताळ्यो वाजल्यो. नमन सोपलें (त्या दिसाच्या नाटकाचो) तिसऱ्या अंकाचो प्रवेश पयलो सुरू जालो.

घुंवळे वखदांच्या संबधांत म्हायती मेळयतलो जाल्यार नीडा संस्थेच्या वेबसायटीर वचूंक जाय. घुंवळे वखदांचो वापर वा प्रसार थारवपाक एका त्रिसुत्राचो उपेग थायलँडान केला. टाळप, पळोवप आनी उपाय येवजण करप हें तें त्रिसूत्र! उपाय येवजण करताना 'फास्ट' हो मंत्र ताणीं आपणायल्लो. फास्ट म्हळ्यार बेगीन न्ही तर फास्ट म्हळ्यार फामील. अलटरनेटिव्ह, सेल्फहेल्प आनी ट्रिटमेंट. मुदलांत घुंवळे वखदांचो वापर करपी मनशां पयलीं तें न्हयकार घुंवळे वखदां घेवप हो रोग हे ते मानपाक तयारूच आसना. आपूण घुंवळे वखदा केन्नाय सोडूं शकतां असो फटीचो विचार करीत चडांत चड वेळ वखदाच्याच विश्वांत वावूरतात. ह्या द्रव्यां मदी सोरो, तंबाकू, गांजा, थाबा,

अफू, व्हेरॉयन अशे सगळे नरकासूर, संखासूर, भस्मासूर आसा. हे सगले सांगताना स. पतप्रधान थस्किन हाचो माफिया गुंडानी घेतिल्लो प्राण. थायलँडचे ड्रगवॉर, हें आयले. थायलँड म्हळ्या 'मुक्तभूंय' ताच्या इतिहासांतलें काळें पान त्या दिसा वाचपाक मेळ्ळें. कार्यावळ सोपली.

सांजे भोवपाक व्हरपाचो प्लॅन 'ऑनान' आखलो. दोन दीस क्रॉनमोडर ते शेरॉन प्रिन्सेस ह्या हॉटेलानी गेल्ले. रुमार परतून, ऑनाची वाट पळयत लॉनात आमी बसली. (फ्रेश जावन)

ऑना वांगडा आमी फुड सेंटरा फाटल्या बाजारा येवपाक भायर सरली. निकतोच पावस पडून गेल्ल्यान थंय बरे वातावरण जाल्ले. रस्ते धुवून काडिल्ल्या भाशेन नितळ दिसताले. बाजार साता उपरांत बरो भरता अशें दिशिल्ल्यान खोनकेन विद्यापीठाचो परिसर भोवपाचो थारायले. खोन केन विद्यापीठाची सुरवात तीस-पस्तीस वर्सा पयली जाल्ली. पुण विद्यापीठात वैजकी तंत्रगिन्यान अशा मळार महाविद्यालयां उबारून अर्विल्या शिक्षणाची बेस बरी सोय केल्ली. कृषी विभाग आनी जनावरांच्या विकासाचो विभाग त्याच वांगडा उदरगतीची दारां थळव्या लोकांक उक्ती करून दितालो. इसान भागातलो खोनखेन तसो इल्लो फुडारलेलो वाठांर. दर्यापासून तसो पैस. नुस्ते खातात ते सावे. ह्या वाठांरात आशिल्ल्यो तळयो ते पुरवेवपाचे काम करताली. गाड्येंत भोवताना रस्त्याकुशी केळमे पान हालयत स्वागत करताले. सुमार अर्द वर विद्यापिटाचो परिसर भोवून पळयलो. लांब सरळ रस्ते. ताचे वयल्यान धावपी (कमी संखेन) वाहना. सगळे कशे आपल्याच नादात चलताले. प्लॅना कागदार पास करपाखातीर न्ही तर प्रत्यक्षात हाडपाक आसता आनी थाई लोकांनी तो आपणालो धर्म मानला आसू येत इतले सोबित भोवून जातकीच आमी मार्केटात आयली. गाडी पार्क करपाक ऑनाचो घरकान जागो सोदपाक लागलो. बिल्डिंगे पोना पार्किंगाकक जागा आशिल्ली. पुण मार्केटात पार्किंगाक मेळप हे 'रुपायक बांगडे तीन' अशी गजाल आसता. हाचो खोनखेनाकुय अणभव आयलो. पुण फरक आशिल्लो. दोन वरा खातीर फुकट पार्किंग. ही म्हाका बरी व्यवस्था दिसली. पार्किंग चड वेळ केल्यार दोन वरा उपरांत 'वराक धा बाथ' हो दूर अशी म्हायती यजमानानी पुरयली. गाडी पार्किंग करपाक सुवात मेळ्ळी. 'दोन वरां भितर येवपाक जाय!' हांवेन हळूच म्हळें. नो प्रॉब्लेम, आय कॅन हॅव राउंड इन बीटवीन' अशे म्हणून ऑन हासले. ताचो घोवूय हासलो. म्हजी ट्युबलायट पेटपाक मात्सो कळाव लागलो. आनी उपरांत कुवाडें सुटल्यासारखो हांवूय हांसलो. गाडी दोन वरां भितर काडून परतून भितर घातल्यार 'दोन वरा फ्री' कायद्यातली पळवाट. खोनकेनच्या लोकांनी सोदून दवरलेली. म्हळ्यार कायदो सांबाळला आनी फायदोय पळयला. हो थाई-भारतीयांचो समान गूण आशिल्लो.

खोनकेन मार्केटांत पावल मात दवल्लें बाणस्तारीचो बाजार याद जालो. तीच मांडावळ. तशेच म्हाल विकपी आनी घेवपी. कपड्यापासून खाणामेरेन सगळे ल्हान ल्हान गाडे. भोवत भोवत फळांच्या गाड्यांकडे आमी पावली तरातरांची फळा वसंत ऋतू आयला.... होच भाव मनात हुमटलो लिची लाँग-गँग, रामबुटाम, मँगोस्टिन... उपरिचित मनभुलसावणी फळां, धा, वीस, बाथ कील रामवुटान पिंगश्या आंगाचे केसाळ फळ. ताची वयली कडक साल सोलली. धवो उदकान भरिल्लो गर. ताड-गोळ्या भाशेन दिसपी इल्लेशे चोखून पळयले! आहा! पंचेंद्रिया तृप्त!

'यु आर लकी धीस डेज ईज सिजन' ऑनान आमच्या तोंडावयली खुशालकाय उतरांनी मेजली. दर एकल्या फळाच्यो चवी घेवन अर्द-अर्द किल फळां घेतली.

मँगोस्टिन फळ हे सामखे भिंडाची बापुलभयण न्ही तरी सख्खी भयण कशी दिसलें. बेठेंच खावन तोंड आबंट किद्याक कर असो विचार करून हांव फुडें वचूंक सोदतालो दो. नीतान 'भिंडाच्या भयणीची चव घेतली? ओह! स्वीट! ताच्या तोंडातल्या उतर आयलें. भिड्डा आनी गोड? पटना जाले. हांवेन तें चोखून पळयलें. गोड आशिल्ले खरें! पूण मन मानपाक तयार ना जाले. सोलांकडी एकूच मनपसंद उतर. सोलांत आमटाण ना हे मानपाक मन तयार नाशिल्लें. बाजार सोपोवन रुमार परतली. थायलँडातले तीन दिस सोपिल्ले.

अठरा जून उदेलो. थाईशक वा वर्सा चलताले 2552. बुद्ध जाल्यापासून पयलें वर्स. जून म्हयन्यातलो खंयचोय एक बेरेस्तार शिक्षक दिन मनयतात. कॉन्फरन्स सोपली आनी दुसरे दिसाच्यान आमची पोटली हॉस्पीटलांत पावयली. खोनकेन विद्यापीठाचे मेडिकल कॉलेज. आनी हॉस्पीटल त्या वाठांरात आशिल्लें. सकाळी णवांक आमी हॉस्पीटलांत पावलीं. हॉस्पीटलच्या मेडिसीन विभागाचे मुखेली, डीन हांच्यो गाठी भेटी, फोटो सेशेन सुविनीराचे घेवप दिवप अशो गजाली जाल्यो. डीना वांगडची बसका मजेशीर जाली. ताका आमचे ट्रेनिंग सोपलां अशे दिशिल्लें. ताका लागून ताणें आमचो अभिप्राय मागिल्लो. ताचे बसकेक मंत्र्याच्या बी मेजार आसतात तशे थांयलँड आनी भारताचे झेंडे आशिल्ले. भारत, आमी रावतात तो वाठार हाचे वयले वयर चर्चा जाली. लायट फुटी च्या आयली. उपरांत हॉस्पीटलाचो वांठार आमी भोवली. आमका घेवन बाय आयस् (खरे नाव रावीफीन) भोंवतालें. निमाणें आमी सायकायेट्रीस्ट विभागांतल्या दो. सुशाकडे पावले.

दो. सुशा हे प्लेजंट व्यक्तीमत्वाचे आशिल्ले. सायकायेट्रीस्ट शिश्ट आसूक उपकरना. दो. सुशाची ओपीडी चलताली. मानसिक दुयेंसा आनी घुंवळे वखदाचेर उपाय येवजण अशें थय दोन सेपरात विभाग आशिल्ले. पुण केन्ना केन्ना घुंवळे वखदा बंद करताना वा घुंवळे वखदांक लागून मानसिक दुयेंस जालें जाल्यार ताचेर उपाय येवजण सायकायेट्रि विभागांत जातालें.

सोरो सोडपाक सोदपी तीस वर्सां पियारेचो दादलो दो. सुशाच्या ओपिडींत आयलो. ताचे बापूय, भाव सोऱ्यान सोपिल्ले. ताका सोऱ्याचें व्यसन आशिल्ले. पुण सोरो वायट तो सोडपाक जाय अशेंय दिसतालें. कांय लक्षणां जशे कानात आवाज येवप, भ्रमिश्ट जावप हे सोऱ्यानूच जांव येता वा मानसीक दुयेसान जांव येता वा सोरो उणो केला म्हण कांय दीस जांव येता ताची वासपूस करीत दो. पाशान ताका एका दिसा खातीर ॲडमिट केलो. दुसरो वायटकार आयलो. सिझोफ्रेनियाचो. वखदानी आता ताका बरें दिसताले. पूण ताच्या चिंतेचो विशय वेगळोच आशिल्लो. दो. पाशा दोन वर्सांनी रिटायर जावपाचो आशिल्लो. उपरांत तो दो. पाशा सोडून कोणाकूच मेळपाचो नाशिल्लो. रक्त तपासणेक दोन थेंबे दिवपाकूय ताका भंय दिसतालो. हाचेर ताका समजावप कसो? दो. पाशान म्हाका विचारलें.

हावेन म्हळें दोन वर्सां हो खुब्ब काळ आसा तो बरोय जांव येत. ताका वखदाची गरज एखाद्री पडची ना! हावेन जागयल्लो आशावाद ताका आवडलो. आनी चार पेशंट जाता म्हणसर बारा वरां जाल्लीं. आठ ते बारा आनी एक ते साडेचार अशी कार्यालयीन वेळ आशिल्ली. हॉस्पीटलांत भोंवतना वा हेरकडेनी बायलोच चड दिश्टी पडताल्यो. दादले इल्ले उणे. घर सांबाळतात काय? मनात दुबाव आयलो. जेवणा वेळार हो प्रस्न हांवेन आमचे वांगडा भोंवपी आयस् हाका विचारलो.

'यु नो!' ताणे लांब श्वास घेवन सांगपाक सुरवात केली. थायलँड मातृसत्ताक. म्हळ्यार लग्न

जावन दादलो बायलेगेर वता पूण नांव बदलना. नाव बदलपाची रीत भारताभाशेन दादल्याचे नांव बायल लायता. घर जांवय कसो! कश्ट करपांत तशो बायलो फुडें. दादले उणे दिसपाचे हें एक कारण आंसू येत. पूण आतां कुटूंब ल्हान जायत चल्ल्या. लग्नां जावन दोगांय घर सोडून दुसरेकडेन एकठांय रावतात.

जेवल्या उपरांत दो. मनोप कनाटा ह्याच्या लागी आमी पावलें. घुवळे वखदां चळवळी दो. मनोप हांचे व्हडले योगदान. देखिक खोनकेन विद्यापीठाची निवड आशिया – पॅसिफीक वाठांरातले सेंटर म्हण जाआसां केल्या. दो. मनोप हे शात्रज्ञ. ताणीं थांयलँडांतली, घुंवळे वखदांची यादी, तांचे वर्साकणकणीचे प्रमाण, प्रांता प्रमाण आकडे वारी आपणाल्या उलोवपांत आमकां दिली. ही म्हायती मेळप गरजेंचें पूण तितलेंच कठीण काम. कोण मनीस आपूण सोरो पिता म्हण फॉर्म भरून दीत? ही म्हायती मेळोवपाक लागींलागीं चाळीस पानाची प्रस्नपत्रिका ते उपेगात हाडतात. ह्या सर्वे वरवीं तशेंच पुलिसान घुंवळे वखदांचो आश्रो घेतिल्ल्या लोकांकडल्यान घेतिल्ली म्हायती उपेगांत येता. घुंवळे वखदांच्या बाबतींत प्रस्न विचारता तातून आयुश्यांत केन्ना तरी घुंवळे वखद घेतलां, फाटल्या वर्सभरांत केन्ना तरी घेतलां, फाटल्या तीस दिसांत घेतला अशी विभागणी केल्ली. घुवळे वखदां मदी क्रेयोम, थाबा, कोकेन, ॲवस्टसी, हेरॉईन, गांजा हांचो आसपाव आशिल्लो. 2007 ह्या वर्सा सुमार 25 लाख लोक ह्या वखदांच्या भकीक बळी पडिल्ले. म्हळ्यार सुमार पुराय लोक संख्येच्या 5 टक्के लोक! हांगा ह्या वखदांक वेगळी नांवां आसा. थाबा म्हळ्यार मेटा ॲम्फेटमाईन! ॲम्फेटमाईन म्हळ्यार अेक्स्टसी (डीक्शनरी अर्थ परमानंद)! हे भायर सोरो, तंबाखू हाचे प्रमाण भरपूर. बायलो सोरो पियतात वेगळ्याच कारणाक लागून. गुरवार बायलांक सोरो पोटांतल्या भुरग्याक बरो दिस्ता म्हण घेतात. केदी अंधश्रद्धा! खरें म्हळ्यार गुरवार बायलेन सोरो घेवचोच न्ही अशें अर्विल्ले शास्त्र सांगता. पुण 99 टक्के साक्षर आशिल्ल्या देशांत मातृसत्ताक देशांत अशें घडटा. जाल्यार बाकीच्यांचें कितें जाता काय? सगळे आंकडे भयाभीत करताले. वांसा, तृष्णा कमी केल्यार दुख उणें जाता हें सांगपी बुद्धांच्या देशांत हें आयकूंक मेळटालें. निमाणे धर्माचो शेक एका अंतरामेरेन चालू शकता. मनाची शांती ह्या धर्मानी केन्ना दिल्या व्हय? प्रस्नाची मेखला सांबाळीत आमी हॉटेलार परतली.

दुसरे दिसा आमका प्रोव्हिन्सीयल भलायकी संस्थेच्या कार्यालयांत व्हेले. वुथ नावाच्या ऑ ऑफीसरान आमका थांयलँडच्या भलायकी खात्याचे चित्र दोळ्यामुखार उबें केलें. थायलँडात घुंवळे वखदां आडच्या मोहिमेचो वांटो म्हण खर कायदे केले. घुंवळे वखदांचे स्मगलींग करपी मनशांक जितो मारपाची तजवीज ह्या कायद्यांत आसा. ह्या कायदेशीर गजालींत मनीसपणाचे आसा, तें 'प्रोबेशन.' घुंवळे वखदां घेवपी मनशाक धरलो जाल्यार पयली ताची रवानगी डि. एडिक्शन केंद्रान (व्यसनमुक्ती) जाता. कायदेशीर कारवाय जाता पूण ख्यास्ती जाग्यार कांय म्हयने वा वर्सां ताका सुदारपाची संद मेळटा. ख्यास्त दिवप काय ना हें ताचें एकदंर वागप पळोवन थारायतात. हो पळोवपाचो काळ म्हळ्यार 'प्रोबेशन'. घुंवळे वखदांतल्यान सुटका ख्यास्त दिवन जायना हेच सत्य! असल्या मनशाक व्यसनमुक्ती केंद्रांत पयली व्हरतात. थंय बरे यत्न केले आनी उपरांत चलणूकेंत फरक दिसल्यार मनीस सुटताय बी. वुथांची म्हायती सोपली. मिटींगेच्या रुमान एका कोनशाक बुद्धाची म्हूर्त आशिल्ली. थंय आमी फोटे बी काडले. बारा वरां जायत आयिल्लीं. खासा शिवराक हॉटेलात आमका व्हरपाचो प्लॅन ताणीं आखिल्लो. खोनकेन शाराच्या भर वस्तीत आसा

थंय आमी पावले. पन्नास पन्नास बाथाच्यो पावत्यो घेवन बुफेच्या लायनीत उबे रावले.

नुडल्स, सॉसाभितर शिजयल्ली शाक, सॅलड घेवन मेजार ट्रे दवरली. कांय स्वीट डीश केळीच्या पानात (उकडीची) दवरलेली. बारांक भूक कसली आसतली? पूण भाई शिवराक जीबे वयल्यान पोटांत गेले आनी रुच सुटिल्ल्या भाशेन जालें. त्या शिवराक जेवणार आडवो हात मारलो. केळीच्या पानाक तोपिल्लो हिर काडलो. भितर धव्या पिटांची उकड कुलेरान कुडको तोंडात उडयलो. संकष्टेच्या उकडी मोदकाची रुच. उकडीचे मोदक मेळप म्हळ्यार चवथ! चवथीचे जेवप ते गणरायासारखे पोट सुटसर. ती उकड हांवेन घोस्तान खाली. दुसरे पान सोडले. हळदुवी पीठाची मुठली. तोंडात इल्लो कुडको उडयलो पयली खंय तरी खाल्लेल्या भाशेन दिसलें. दुसरो कुडको तोंडात घालो केळ्याचे मुळूक न्ही मू? हय! मैद्या पिठात तळल्यार ताका मुळूक म्हणतात. तांदळा पिठांत घाल्यार कितें? 'हमो' म्हळ्यार मोदका सारखे गोडशे खावन धेंकर दिलो. घरा एस्एम् एस् केलो. सोयरे खूश जाल्यात तें पळोवन खंयच्याय यजमानाक बरें दिसचे ना? 'यु आर हॅपी टुडे?' आयसान चिमटो काडलो.

'यस' दो. नीता आनी हांवेन वांगडाच जाप दिली. दनपारां वेळ आशिल्ल्यान 'नॉग्मॅच्या' बुद्ध मंदीराकडे आमची गाडी वळ्ळी. नॉग्मेंचे बुद्धमंदीर बरेच फामाद. देवळाचो कळस कितल्याश्याच पैसच्यान दिश्टी पडटालो. देवळाकुशीक एक व्हडले तळें देवळाच्या प्राकारात पिंपळा पेडा भोवतणी बुद्धाच्यो सात म्हुर्ती आशिल्ल्यो सप्तकाच्या दर दिसा प्रमाण एक. दर म्हुर्तींची मुद्रा वेगळी. कांय उब्यो, कांय बशिल्ल्यो. म्हुर्तीकुशीच्या एका पाषाणार बुद्धाच्या पायांचे ठशे आसा असो समज देवळाची सोपणां चडून भितर सरलीं. व्हडल्या हॉलांत भव्य दिव्यशी बुद्धम्हुर्ती. अशी व्हडली म्हुर्त हांवे पयलेच खेपे पळयतालीं. भितर वातावरण शांत! शांत! शांत!! एका कोनशाक बुद्ध भिक्षूक भावार्थान वस्तूंचे अपर्ण चलिल्ले. भिक्षूकाल्या तोंडातल्या सपरिवानाम्... सहकुटूंब... अशे शब्द आयकूंक येताले. बुद्ध भिक्षूक पाली वा संस्कृत भाशेत आपणाले भिक्षूकपण चलयतात. आमचे कडे भटपण चडशें संस्कृतात चलता तशें मंदीरात एका कुशीक ल्हान डब्यांत (लाकडाच्या) ताशिल्ल्यो बडयो दवरलेल्यो. डबो हातात घेवन बुद्धा मुखार ध्यान लावन बसपाचे आनी डबो नेटान हालोवपाचो. डब्यांतली जी बडी भायर पडटा ताचेर आकडो बरयल्लो आसता. त्या आंकड्या प्रमाण तुमचें नशीब बरयल्लो कागद मेळटा भविश्य जगार खंयी गेल्यार आंकड्याचे 'महत्व' आसाच! देवळाक णव मजले आशिल्ले. दर एका मजल्यार पोरन्यो गजाली मांडून दवरिल्ल्यो नांगरा पासून ताडपत्रा मेरेन. देवळाची जतनाय मात बरी घेतिल्ली दिश्टी पडली. देवळांत भितर सरतना फुलकार फाटीं लागना. चपला दवरपाक कोणाली स्पर्धा ना! देवळा भायर भिकारी ना. हांगचे धर्माचे स्वरुप सगळ्यांक स्पर्श करता तरी लेगीत सामुहीक प्रार्थनेच्या नांवा सकयल किळच्यो मारीत आरती म्हणपी कोण दिसुना. देवळांत लाउड स्पीकारचो बोवाळ ना. सांजेच्या पारार 'पुर्व दिशेला गुलाल उधळून हे गीत लावन भक्तीरसा जाग्यार हास्यरस तयार करपी विचित्र वातावरण ना. थोडक्यांत देवळांतूच न्ही देवळाच्या भायल्या सोपणार बसल्यार शांतीकायेन बुद्धाचें ध्यान करूं येत अशें वातावरण अशा शांत सोबीत वातावरणांत मनश्याल्या मनाक थकाय मेळटा. देवळां उबारपाफाटलो होच उद्देश आसूं येत. जंय भाव थंय देव. घडये हाकाच लागून बुद्ध हांगा थिरावना मूँ? मन बरेंच शांत जाल्लें. देवूळ पळोवन जाल्या उपरांत आमी एक शाळा पळोवपाक वचपाचे आशिल्ले.

खोनकेन शाळेच्या प्रांगणात आमी पावले लावडस्पीकरा वयल्यान... डब्ल्यू. एच. ओ. इंडिया अशें किदें तरी आयकूपाक मेळ्ळें. गाडयेंतल्यान भायर सरले. तशें हात जोडून सवादी खाडप, सवादी खाडप अशी उतरां आयकूपाक मेळ्ळी. आमी हात जोडून खांदावयलीं बॅगां सांबाळीत कमरां बागयत नमस्कार केलो. आमच्या स्वागताक भुरगीं तयार आशिल्लीं. प्रास्तावीक उपरांत भुरग्यांनी गाणें म्हटलें. टूबी नंबर वन...

थायलँडाच्या राणयेन आपलो देश जगात वयर सरचो म्हणून एक मंत्र दिल्लो. टूबी नंबर वन... ह्या मंत्रार आधारिल्लें गीत सगळ्या शाळांत स्फुर्ती गीत जावन भुरगीं गायतात. फुडाराची मोख धरून एका विशिश्ट ध्येयान पेटून उठिल्लो समाज निर्माण करपाचो हांवेस त्या पदाच्या दर ठेक्याक दर उतराक जाणवतालो. थांयलॅंड हो कुस्तीगारांचो, बॉक्सींगाचो, खेळ खेळपी देश. त्या कुस्तीचें एक रुपक भुरग्यानी सादर केल्लें. उपरांत खामसुत्री बावल्याचो खेळ पळयलो.

घुंवळे वखदां मदीं तंबाकू आनी सोरो येता. ल्हान पिरायेचेर विडी ओडपी आनी सोरो पियोवपी भुरगी संसारात खुबशा कडेन पळोवपाक मेळटा. थांयलंड ताका आडवाद कसो थारतलो? पूण शाळेच्या पांवड्यार भुरग्यांचे प्रबोधन करप. तांका जागे करप मार्ग दाखोवप हाचे खातीर तांचे खर प्रयत्न चालू आशिल्ले. भुरगीं शाळेंत आसता तेन्ना तुमी तांकां सांबाळूक शकता. सुटयो, शाळा सुटल्या उपरांत ती मेकळ्या वेळांत कितें करतात हाचो अदमास आसा? ह्यो म्हज्या प्रस्नान तांका इल्ले घुस्पगोंदळात उडलें? मेकळे रिते मन हे सैतानाचे वर्कशॉप! विस्कळीत जाल्ली कुटुंबां, तुटल्लीं नातीं, खुंटील्ले संबंध हांतूतल्यान आयिल्लें एकसुरें पण, हीं घुवळें वखदाच्या मार्गांतले पयलें सोपण. सगळें इतल्या प्रमाणात बदलता आनी केन्ना केन्ना दिसता मळबूच पिनलां... तरी लेगीत पिनल्या न्हेसणांक सुयेचे चार पोत मारतात तांचे कौतूक कित्याक करचे न्ही. शाळा पळयल्या उपरांत दो. निताक शॉपिंगाची तान लागली. शॉपिंग म्हळ्यार बारांत बसून ग्लासार ग्लास सोपोवपी बेबद्यांचो प्रकार. ते एक व्यसन. बाजारांत वचून आमी आयज चडशे वेळार जायते घेवपाक शकतात. पुरुमेताच्या फेस्ता भाशेन साठोवन दवरपाचे दीस आतां उरूना. मागीर सवाय मेळटा, घासाघीस करून उण्या दरांत सामान घेतले हो आनंद लुटपाक शॉपिंग जाता. भोंवपाक वता तेन्ना शॉपिंग हो एक आयटम आसताच. पूण म्हज्या कुडलींत शॉपिंगाच्या घरांत सगळे अनिश्ट ग्रह घडये एकठांय जाल्या जांव येत. आमी रावताले त्या हॉटेलांत पॅनासोनिकाचे बरे गिझर आशिल्ले. बोल्साक परवडपासारखे आसल्यार एक घेवप अशें दिशिल्लें. ताची वासपूस आमी केली. उपरांत सिल्क शोरूमात काय कपडे पळयलें. हेंड बॅगो, टिशर्ट असल्यो गजाली घेवन शॉपिंगाचे श्राद्ध वाडलें.

आमच्या दोन आठवड्याच्या कार्यावळीतले पांच दीस सोपिल्ले. शेनवार आयतार हरशीं सुटी आंसू येताली. पूण आयोजकानी थायलँडाच्या इशान्य सीमेवयल्या वाठारांतलो नॉनकोय भाग पळोवपाची येवजण आंखिल्ली. नॉनकाय खोनकेनच्या सुमार दोनशे किमी. अंतरार आशिल्ले. थांयलँडात दोंगर दरयांचे प्रमाण उणें. चडशें मळ. लांबलाब सरळ रस्ते सगळ्याकूच सुवर्ण चतुश्कोण. दोनशे किमी. म्हळ्यार दोन अडेच तास प्रवास. थंय एक रात रावपाचें आशिल्लें. ल्हानश्या बॅगांत सामान भरलें. तातून कॅमेरा लॅपटॉप हाचो आसपाव आशिल्लो. कॅमेरा लॅपटोप साठोवन दवरूं येता. फोटे, फिल्म, इंटरनेट कनेक्शन सगळें सोपे जाता. बॅग मात्शें जड जाता. पूण हो भार व्यर्थ थरना. मनात साठोवन कितलें दवरतलों? सकाळीं धांक गाडी व्हरपाक आयली. कार्यावळीत मात्सों बदल जाल्लो. घुंवळे वखदा संबंधातले एक प्रदर्शन खोनकेनात भरिल्लें. तें

पळोवन फुडें वचपाचें अशें थरलें.

खोनकेन विद्यापीठाच्या दिक्षांत सभाघरांत प्रदर्शन आनी सांस्कृतीक कार्यावळ दवरलेली.

### नॉनकाय

घुंवळे वखदांचा आड जी कार्यावळ थायलँडात आसा ताचो वावर पुराय देशांत पातळ्ळा. थायलँडाच्या इशान्य दिकेन नॉनकाय हो वाठार. लाओस (जाचो उच्चार थाई ''लाव करतात) त्या वाठारांत आमका भोंवडावन हाडपाचें आयोजकांनी थारायल्लें. इशान्य दिकेच्या वाटाराक थाई इसान प्रोव्हींन्स म्हणतात. उत्तरेक लाओस देस दोन देशां मर्दी व्हांवपी न्हय 'ल कॉंग'. थायलँड हो देस केन्नाच पारतंत्र्यात नाशिल्लो. थायलँडाचे शेजारी म्यामार - ब्रिटीश, लाओस फ्रेंच, मलेशिया - कंबोडिया आसा. एकेवाटेन बंगालचो उपसागर. कांय देशांचो जन्म झगड्यां खातीरूच जाता. जाल्यार थायलँडा सारखो देस म्यामारचें एखाद्रें आक्रमण सोडल्यार 'झगड्याशिवायचो!'

बुद्ध धर्माचो प्रसार जालो. त्याच काळार केन्नातरी अगस्ती हांगा पाविल्ले आसूं येत. कारण हांगासल्लो 'राम' सामको आरविल्लो न्या रामाची देवळां न्ही तर पुतळे देखीक पळोवपाक मेळटात. राजा जावन राज्य केलें, एकाच रामान न्ही. तर किंग रामा 1, किंग रामा 2, म्हळ्यार हांगच्या पुराणातलो राम थंय इतिहासांतलो जालो. परतून तेन्नाच बुद्धं शरणं गच्छामि असोय नाद घुमलो. हाचो परिणाम म्हळ्यार थंयची धार्मीक जीण भारतांतल्या विंगड - विंगड मताचे बेस बरें 'खतरक्ते' जावन पडला. ह-दयाची रूच दुदी म्हण मेळची ना, सुरण सुरण उरूना, मुळयाक सुरबुरुस वास येता अशी अवस्था.

नॉनकाय वचपाच्या दिसा सकाळां एक घुंवळे वखदांचेर प्रदर्शन पळोवपाक मेळ्ळें. 26 जून हो घुंवळें वखदां विरोधी दीस. त्या सप्तकांत जायत्यो कार्यावळी जातात. हें प्रदर्शन ताचोच वांटो म्हण भरिल्लें. सकाळां धांक आनी क्रॉनमोडर हॉटेल सोडलें. खोन - केन विद्यापीठाच्या व्हडल्या सभागृहांत प्रदर्शन मांडिल्ले. थंय विशयाक फाव तें व्याख्यान आनी मनरिजवण कार्यावळीचेय आयोजन केतलें. घुंवळे वखदां आडच्या मोहिमेत पुलिस खातें म्हत्वाचें पुलिस खात्याचोय एक स्टॉल प्रदर्शनात मांडिल्लो. त्या खात्यान आयज मेरेन केल्ल्या कार्यावळीचो अहवाल थंय उपलब्ध आशिल्लो. खात्याक धाडिनी सांपडायल्ली घुंवळे वखदां ते जाहीरपणान लासून उडयतात. स्टेजी वयलें भाशण कानार पडटालें. वांगडा लोकांचे हांसप आनी ताळयो.

प्रदर्शन पळोवन जातकीच आमची गाडी नॉनकायचे वाटेन वचपाक लागिल्ली. आमी थायलँडात पाविल्ली तेन्ना थंयचो वसंत ऋतू फुलपाक लागिल्लो. थायलँडात फळां मेळटाली. पळोवन रस्त्याच्या कुशीक आशिल्ल्या गाड्याकडे गाडी उबी केली. तांडीडी काळसर लिचीचे घोंस हुमकळायल्ले वांगडा हेर फळां आशिल्लीं. तीं मात सामकी नविदाद. फणसाभाशेन 'दुरियन' भितर व्हडले गरे. सादो फणस 'कानून' वांगडा आशिल्ल्या 'आयसान' तपकिरी रंगाचीं फळां घेवन आयलें. वयली कात सोलली. भितर गर. ताडगुळ्या भाशेन. 'लॉग कॉन' फळ म्हज्या हातात दवरलें सोलिल्लो गर जिबेर दवरलो. गोडसाण जिबेर पातळ्ळी. वास मात तोरंगाभाशेन वांगडा आयिल्ल्या दुसऱ्या चलयेन जी फळां हाडली ती मात पळयत उलो. तामड्या कातीचे वयर काळशे केस. ते चलयेन फळ सुरयेन सोलले. धवो गर. रामबुटान हातान धरून धव्या गराचो स्वाद ते घेवपाक लागलें. ह्या फळांत नावाचो राम नाशिल्लो. तो खऱ्यानीय त्या फळांत आशिल्लो.

सुमधूर रसान जीव धादोस जालो. गाडयेंत फाटल्यान फळाच्यो राशी जमा केल्यो. प्रवास तीन चार वराचो आशिल्लो. रूमातल्यान भायर सरताना बिस्किटी पुडे वांगडा घेतिल्ले. पूण वसंत महोत्सवांत तांची याद लेगित जावची ना. हाची सुलूस लागिल्ली. सगळ्यांत व्हडलो धपको भिण्णां पळोवन बसलो. जांमळ्या – काळ्या रंगाची 'मँगोस्टिन' म्हळ्यार भिण्णां. आंबट न्ही! पुराय गोड. गर खावन कल्ल वडोवचे. कल्ल आंबट आसत काय? अदमास घेवपाक हांवने चाबून पळयले. कोडू विख. थायलँडाच्या भिण्णां / सोलांची कडी न्ही तर सकाळी फुडें 'निवळी' म्हण उपेग जाता काय किदें? निवळे वयल्यान आजयेची याद जाली. संसारातली सगळी कोडू वखदां एकठांय सुकोवन कुटून फकी करून ती बुडकुल्यांत दवरताली. आयतारा सकाळां त्या कोडू निवळेचे चार घोट 'अमृत' म्हणून आजी आमका दिताली. आजयेच्या त्या निवळेन पोट मात निवळ जातालें. आसू येत. मन हे अशें आसता आजी वचून चाळीसा वयर वरसा जाली. कडू रुच जीबेर पातळ्ळी तशी आजयेच्यो गोड यादी आयल्लो. गाडीवेर हावेंन आता बरोच फास्ट वताली. नजर पावना थंय मेरेन सरळ रस्ते हांगा हायवेक अमेरिके भाशेन नंबर आसा. आमी 121 नंबर हायवेचेर आशिल्ले. वाटेंत पेत्रॉत घालपाक गाडी पंपार थारली. थंयचे रेस्टरूम नितळ आशिल्ले. वत बरेंच कडकडीत आशिल्ले. एसी गाडयेंतल्यान भोविल्ल्यान भायली हवा गरम दिसली. पेत्रॉल घालून गाडी मार्गाक लागली. वाटेर 'नागराज' नगर लागले कोब्रा व्हिलेज' आमी गावगिऱ्या वाठारात पावली थंय सोरपाचे संग्रहालय आशिल्ले. पांजऱ्यांनी रेवे मदी सुस्त पडिल्ले सोरोप. कुंग – फू वा तसले खेळ आशिल्ले ब्रूसलीचे सिनेमा हांवेत भुरगे पणात पळयल्ले. एका सिनेमात ब्रूसली सोरपा वांगडा कुंग फू खेळताना पळयल्लो. ताची याद जाली 'नागराज' खेड्यात तसले खेळ दाखोवपाखातीर यजमानानी आमका हाडिल्ले. सोरपा वांगडा सयामी मांजर पळयले. आदल्या दायजाक पर्यटनाक लागून म्हत्व आयलां. किंग कोब्रा व्हिलेज हे गोंयच्या स्पायसप्लांटेशना भाशेन म्हाका दिसलें. सुपारी-मिरी हांची लागवड आतां भोंवडेकाराक दाखोवपापुरती उरल्या वा तांतूतल्यान चड उत्पन्न मेळटा असो अर्थ जांव येता पूण सोरोप म्हळ्यार भंय. ताका कामाक लावन, भोंवडेकाराक आकर्शण दाखोवपाक थाई फाटीं रावूना. फकत पांजऱ्यात सुस्त पडिल्ले सोरोप पळोवपांत थ्रील ना! ते आसा ताच्या वांगडा स्पर्शनृत्य करपाक त्या सर्पसंग्रहात एक ल्हान माची आशिल्ली. लोकांक बसपाक कदेली. माचयेर एक आडंगी बायल चडली. कानठळ्यो बसोवपी संगीत सुरू जालें. म्हाका आता हिंदी सिनेमात नाच करपी श्रीदेवी सारख्यो नटयो दोळ्यां मुखार आयल्यो. सोक्षरपांक दवरतात तसल्यो पांच-स बुटयो घेवन ल्हान भुरगीं स्टेजीर आयलीं. संगिता वांगडा आता त्या 'हिडींबेची' कॉमेंटरी सुरू जाली. बुटयांतले सोरोप गळ्यांत घालून काल्याक सुरवात जाली पयलें नागस्तावन जालें आसूं येत. आमी बशिल्ल्या कदेली वयल्यान माचयेवयलो खेळ बेस बरो दिसतालो. उपरांत थळावे ब्रुसली वयर माचयेर आयले. किंग कोब्रा वांगडा झुकपाक काळो देड वडीचो सोरोप ताणें भायर काडलो. ताच्या माथ्यार आपल्या हाताचो फणो कसो करून ल्हवसार थापटायलें. जिवाणे 'सोरोप' कसो फणो काडून उबें रावले. जिबेल्यो चाटपाक लागले. संगीत आनी त्या बायलेचें बडबडप कान किटोवपाक लागलें. नशीब सोरपाक कान आसनात ना जाल्यार बायलेच्यो किळच्यो आयकून तो परतू बुटयेंत लिपपाचो. त्या आवाजात आणि मोन जातीचे हाल पळोवन हांव सामको विटलो. सगळो कालो सोंपसर बसपाची ख्यास्त भोगली. उपरांत सोरपाच्या नावान पैशे मागपाक खोटले घेवन भुरगी आयली. शंभर बाथाची

नोट भितर दवरून हांव उठलो.

गाडी 'किंग कोब्रा' नगरांतल्यान हायवेर पावली. जेवपाचे केन्ना? वांगडा आयिल्ल्या मनशानी विचारले. घडयाळांत पळयलें. बारा वरां जाल्लीं. वाटेंत पोटभर फळां दामिल्लीं. तांचो फलूदा वयरूच आशिल्लो 'दोनाक' हांवेन दोन बोटां दाखयत म्हळे ओ. के.! तांची जाप मेळ्ळी ओकें. तलो 'के' हो 'खे' जातालो. म्हळ्यार हार्श. गाडी धावपाक लागली तशे दोळे जड जाले. उपरांत गाडयेंत व्हडलें उलोवप जालें ना. देड - दोन वरां गाडी धांवताली. रस्त्याच्या कुशीक पाचवेंचार शेत. थांयलँडाचो हो पठार वा मळ. पयस खंय तरी हय न्हयशें दोंगर दिसताले. दोंगर वा मळबांतली कुपां? ह्या मळार एके काळार डायनासोर वावुरताले. देखीक हांगा डायनासोर पार्का आसा! परतून येतना एका पार्कांत वचचे अशें थारलें. डायनासोर पार्क म्हळ्यार तांच्यो व्हडल्यो शिमिटाच्यो रचना! डायनासोर ना जावन लाखानी वर्सां जाली खंय खंय मेळटात ते तांचे हाडांचे अवशेश. थायलँडाच्या इसान भागात अशींच डायनासोराची हाडा मेळिल्ली.

काय वेळान गाडी रस्त्याकुशीच्या हॉटेलालागीं थारली. ढाब्याचेर बी दवरतात तशे खावपाचे जिन्नस भायल्या कपाटात दाळून दवरिल्ले. हॉटेलांत भितर सरतकीच आमी तोंड - बीड धुले. मेनू कार्डार नदर मारली. चित्र लिपींतलें कांय वांचूंक आयलें ना. वांगडा आशिल्ल्या 'आयसान' रोखडे वळखलें. 'शिवराक' मेनू सोदीत काळ - म्हळ्यार शीत आनी सोन - ताम म्हणून किंतें तरी आमच्या खातीर मागयलें. सोम - ताम म्हळ्यार पपया सॅलड जें उपरांत आमचें. परब्रह्म थारलें. हरव्यो पोपायो साली काडून, किसून केल्ले झणझणीत 'कर्मट' म्हज्या रिसिपीत भर पडली. कर्मट म्हळ्यार लसूण तामड्यो मिरसांगो मिरी. खोबरे हाची जीबेक चुरको दिवपी 'चटणी' पपया सॅलड चुरको दिवन रावलें ना. दोळ्यांतल्यान दुकां काडलीं. बोल्सांतलो रुमाल काडून हांवेन नाक साफ केले. हाय - हूय करपाक श्वास तोंडावाटने घेवपाक सुरवात जाली. सोम - ताम हो तांचो राष्ट्रीय 'खाणावळ जिन्नस' गोयंच्यो हुमणाक तो मान मेळत. पपया लॅलेडात शीत कालोवन पोटांत चार - घांस धुकल्ले. वुथ, आयस आनी वांगडची 'मत्स्यपुराणांत' गुल्ल जाल्ली. खावप तर अशें घोस्तान. ती रंगलेली पळोवन आमचे पोंट भरले. गाडयेत फळां भरपूर आशिल्ली. म्हणून दो. नीता आनि हांव विवंचनेरयत आशिल्ली. पोट पुजे उपरांत गाडी हायवेर धांवपाक लागली. सुर्य अस्तेंती वटेन आशिल्ल्यान निबर सोंसू येताले. सांज कुपां आड लिपिल्ल्या सुर्याक सांगताली बाबा पुरो! आता चल घरा! दोळे जड जाले. जाग आयिल्ली तेन्ना तीन सांज जाल्ली. आमची गाडी ग्रँड हॉटेलाकडें थारली थायलँड आनी लाव (लाओस) हांचे सिमेवयल्या गांवांत पावले. हॉटेल ग्रँड नाव कांय हांगा रावपाची व्यवस्था केली. अस्तंतीक कुपां दाटून आयिल्लीं. सुर्यास्त पळोवपाचो यजमानांनी थारायल्लें. तें बी न्हंयच्या कुशीक एक रेस्तॉरंतात बसून थायलँड आनी लाव हांच्यो सिमो भिडतात थंय काँग न्हंय व्हांवता. ही न्हंय चिनातल्यान व्हांवपाक सुरू जाता. पांच देशांक भिजयत चीनाच्या समुद्राक तेंकता.

न्हंयच्या देगेर देगणा देगणांनी सजयल्ली रेस्ताँरत आसा. थायलँड आणि लाव देशाक जोडपी (मैत्रीपुल) थंयच उबारला. एका थंड सांजेन आमच्या स्वागताची तयारी सुरू केल्ली. न्हंयचो परिसर पळोवपाक मेळचो अशें येवजून आमी उक्त्या मळबा पोंनचें एक मेज सोदलें. रेस्तॉरंतान सुमाराची गर्दी आशिल्ली. अस्तेंत दिकेक गुलाल उधळून ते दिसाची यात्रा सोपोवन सुर्य वतालो. आमच्या वांगडा आशिल्लें मार्गदर्शक चली. 'आयस' ह्या नावान ताका उलो मारतालो. ताचें

खरें नांव Raweephen.

अस्तेंतीक वचपी सुर्याक पळोवन ताणें म्हाका विचारलें 'युनो वॉट इट मिन्स बाय Raweephen? हावेन तकलेक मात्शी बुट्टिली. पूण कांय समजले ना. अशें सांगून हालयली.

''रवी मिन्स सन. फेन मिन्स स्कीन' ताणें दोळे मिचकायत

''सुर्यकांता!'' अचळय म्हज्या तोंडातल्यान उतरां भायर सरलीं.

''व्हॉट?'' ताणेय उचबळून विचारले.

''सन गर्ल''! म्हज्या जापेन तें खूब खुश जाले. सुर्यपुत्राची गजाल हांव जाणा आशिल्लों. सुर्यकन्येचेर बरयल्या बगर म्हजी थायलँड यात्रा अर्दकूटी उरतली अशें म्हाका त्या खिणांक दिसले. त्याच नदरेन हांव त्या सुर्यकन्येलें उलोवप, वागप हाची बारकाय नोंद घेवपाक लागलो.

थायलँडाच्या जेवणाची सुरवात भातान जाता. स्टार्टर हो प्रकार ना! सूप येता तें भाता वांगडा खातात. स्टिकी रायस हो थंयच्या जेवणाचो भाग. घट्ट मुठल्यो आवळून बिस्किट कशी दाव्या हातात शीत घरून पाव भाजये वांगडा ताचें 'सेवन' करतात. हें शीत ल्हान ल्हान थाळयानी हाडून मेजार दवरतात. गोंयकार दाव्या हातान शिता गुठले घेवन भाजये वांगडा खाता हें दृश्य दोळ्यामुखार हाडात. हांगा शिताक खरकटें लेखिनात. आमचे खातीर पपया सालाद, मश्रुमां सॉसांत शिजोवन आनी खंयची तरी थाई करी मागयली. तांचे मात नुस्ते, चिकनान भरिल्ल्या प्लेटीचेर ताव मारप चालू जाल्लें. जेवणा उपरांत तांका रॉक म्युजिकाक वचपाचें आशिल्लें.

ज्या हॉटेलाभायर ताणी गाडी उबी केली ते पळोवन मात्शें अजाप दिसलें. आमी भलायकेच्या एका कार्यक्रमासंदर्भात थायलँडाक आयिल्ले. फोल्गां मारपाक न्ही. तातून नाचप डिस्को असल्या कार्यावळी सावन हांव चार हात पैस रावपी. हॉटेलांत भितर सरतकीच थंयच्या चलयांची अवस्था पळोवन आमी भलत्याच जाग्यार आयल्या अशें दिसलें. आमचो म्हालगडी वुथ एका रुमांत भितर सरलो. थंय कोणूच नाशिल्ले. एक बरी साउंड सिस्टीम टी. व्ही. व्हिडिओ बसपाक सोफा आशिल्लो. सादारण तांच्या गावपाच्या कार्यावळीचो अदमास आयलो. थंय नाचप – पान खावो संय्या हमार.. अशे नाशिल्लें. मायक हातान घेवन संगणकावयलें पद आपूण वेंचपाचें . त्या पदाचें म्युजीक तितले आयकूंक येतालें. आवाज सुर आपणे मिसळप. जितले बरें गाता ताची परसेंटेज दाखोवपी रायडर पदा उपरांत येतालो. पदां कानात आसता. पद मनात आसता. कान आनी मन हांच्या पद मदलो सूर म्हळ्यार स्वतःचो सूर. तांची मैफल बरी रंगार आयिल्ली. मदीं फळांचे ताट आयिल्लें. घड्याळांत धा वरां जावन गेल्लीं. हे धड न्ही अशें म्हाका दिसलें. आमका हॉटेल ग्रँड नॉनकायचेर पावयात. तुमी गायात हांवेन सुचवण केली. आमी त्या पंगडातले न्ही वता जाल्या वचूं अशें तांकांय दिसलें आसूं येत. आमकां गाडयेंत बसोवन दिलें. रुमार येवन हांवेन टबटबाथ हुन उदकान भरलो. बेस बरे न्हाण करून त्या दिसाची यात्रा सोपोवन न्हिदपाक गेलों.

सकाळीं पांचाक जाग आयली. खोन-केनाक गेल्ल्या दिसा पासून म्हजी 'दिनचर्या' सामकी वेवस्थशीर चलताली शरिरातल्या जैवीक घड्याळाक तें वातावरण मानवलेलें आसूं येत. दनपाराची न्हीद सोडल्यार सगळे व्यवस्थित चलिल्लें. उदेंतीक भरपूर उजवाड दिसतालो. अस्तेंतीक वचपी सुर्यान कुपांनी आदले दिसा कूऽय कूऽय केल्लें. उदेंती दाट कुपां आशिल्ल्यान सुर्य दिसचो ना अशें दिसतालें. तो दीस आयतारचो आशिल्लो. म्हळ्यार ताचोच दीस. आमगेल्या 'सुर्यकांतान''

ब्रेकफास्ट 'स' वरां पासून आठ वरां मेरेन मेळटा अशं सांगता दुसरे दिसा साडे आठाक तयार रावात असो हुकूम सोडिल्लो. आमगेली 'सुर्यकांता' राती गांवन - नाचून आठां पयलीं उठची ना असो म्हजो अदमास आशिल्लो. हॉटेलांतल्या गॅलरीतल्यान पांचवेचार नॉनकाय सुस्त पडिल्ल्या हार भाशेन पडिल्लें. तोंडबीन धुवन हावेन प्राणायमाक सुरवात केली. सकाळा उठून अर्द पाऊणवर योगाचें - स्ट्रेचिंग आनी प्राणायामाचे वा ब्रिदिंकाचे व्यायाम केलो काय जीव ताळ्यार उरता - उमेद दिसता. व्यायाम उपरांत हून उदकान 'डोह' भरून परतून मनभरसर लोळलों. सात वरां जायत आयिल्ली. लॅपटॉप काडून इन्टरनेटार गेलों. इमेल तपासली. दारार टकटक जाय मेरेन बरोवप अशें थारावन बरोवपाक बसलों.

आयस् आनी पार्टी रातीं रॉकम्युजीक सोपोवन साडे बारा एकाक परतलीं. तरी लेगीत रातीचें जाग्रण तांच्या दोळ्यार नाशिल्लो. आशिल्ले ते उर्बेभरीत इतले दीस ट्रेनींग चलतालें तें सगळें वयल्यावयर दिसतालें. आयताराच्या ब्रेकफास्टा खातीर हॉटेलांतल्या तळ मजल्यार आमी आयतीं. फायस्टार हॉटेलांत मांडून दवरतात तशे जिन्नस मांडून दवरिल्ले. पाव-बटर, उपरांत फळां-जातून काळींग, चिबड पोपाय हांचो आसपाव आशिल्लो. हांव आनी नीता एका मेजार बसून हून च्या वांगडा सकाळचे नॉनकॉय पळयत बशिल्लीं. 'सुर्यकांता' आपणाल्या वांगड्या सयत काय वेळान थंय पावली. आयतार हो संसार भर सुस्त्येल्लो उजवाडटा आसू येत. णव वरां जाव लेगित आळस - जामयो दित 'आयस्' ची न्याहारी चलल्ली. उपरांत यजमानान बील फारीक केले. त्या दिसा थायलँडातल्या घुंवळे वखदाच्या भकीक पडिल्ले वायटकार जांगा मिलिटरी हॉस्पीटलांत दवरिल्ले तांका पळोवपाचो प्रसंग आशिल्लो. घुंवळे वखदांचे वायटकार मिलिटरी हॉस्पीटलांत दवरपासारखे किद्याक जाल्या? तांची उवस्था किदे? व्यसनाची परम अवस्था. तांतून अडकिल्ले मनीस. ताची सुटका जावची म्हण चलिल्ले यत्न. वायटकाराची धडपड तांचे कुडीचे मनाचे हाल. एका नरकाचें चित्र म्हज्या मनामुखार उबें जालें. मागून सर्ग मेळना पूण हाणी आपल्याच कर्मान जिणेचो नरक केलो. हांतुतल्यान रिकव्हरी म्हळ्यार तांका मुळपदार हाडप. थंय थिरावप हें घुंवळे वखदांच्या मळार एक आव्हान. मनशाक व्यसन लागता कशे? पिशे आनी व्यसन हातून मुळावो फरक कितें? घुंवळे वखदांच्या ताब्यांत मनीस एकदां सापडलो काय ताची जीण फुटक्या हांड्या भाशेन जाता.

मनशाच्या मनाचो विचार करून बुद्धमत, वा बुद्ध धर्म जन्माक आयलो. मनशाचे मन मोहमय जाता. खिणाच्या लटक्या सुरवाक मनीस बळी पडटा. सुख हें तिगून केन्नाच उरना. तें आळवावयल्या उदका भाशेन पानार नाचता. पानांक इल्लीय ओलसाण दी नासताना नाच जाता. मनाक सूख अशेंच फटयता. त्या खिणाच्या सुखाचे बिंदू जोडून वळ मारपाचो मनीस यत्न करता. ही घुंवळे वखदांत सापडिल्ल्या मनशांच्या मनाची एक पार्त. दुख कोणाक जाय आसता? पूण तें सावळे सारखें सांगात करता. बुद्ध दुख उणें करपाक तृष्णा उण्यो करपाक सांगल्यो. दुखाचो खिणभर विसर पडटा. हो घुंवळे वखदाक वेंग मारपी मनशाचो पयलो अणभव उपरांत ताका वखदांचें व्यसन लायता. घुवळे वखदाच्या पयल्या डोसान जो अणभव येता तो चिरस्वरूप जावचो म्हण सदांच वखदाची नशा जाय पडटा. ह्या वखदांक लागून मनाक थकाय दिवपी भासाचो अणभव हे खऱ्या अणभवांक लागी करिना. हांतूतल्यान मागीर शरीर यंत्रणेक वखदां संवकळीचीं जातात. शरिराकूच न्ही तर मानसीक नदरेन मनीस वखदार निंबून उरता. मागीर हांतुतल्यान भायर सरप कठीण. घुंवळे वखदाचें सेवन

करपी मनशाक भायर काडपाचे दोन बिंदू आसा. Last drug taken आणि Next drug dose खयंच्याच व्यसनातल्यान भायर सरपाक सोदपी मनशाची जीण ह्या दोन बिंदूत आसतात. ह्या दोन बिंदू मदले जितलें अंतर जास्त तितलो मनीस सुदारपाची शक्यता चड. हाचें कारण म्हळ्यार बरे जांवन गेल्ले कांय लोक परतून 'गर्द' जातात. हाका रिलॅपस 'रिलॅप्स' म्हणतात. एकदां बेबदो काय मरसर बेबदो. केन्ना पावला बार्रार व्हरीत सांगपाक येना इतले फ्राकेत आसतात हे लोक.

गाडी मिलिटरी कॅम्पांत पावली. शिस्तीची झलक गेट उगडटाना मेळ्ळी. गाडयेंतल्यान देवून आमी ऑफिसांत गेलीं. हारतुऱ्यानी स्वागत जाले. हॉस्पिटलांत वा असल्या मुक्ती केंद्रार हारतुऱ्यांचे स्वागत म्हज्या मनाक केन्नाच मानवलें ना. हो बुके हांगच्या वायटकारानी हांगच्याच फुलांचो केला. हें नमळायेचें उतर कानार पडलें. त्या हारतुऱ्याक प्लास्टीक नाशिल्ल्याची जाणविकाय मनाक जाली. फुलांचो परमळ नाकाक जाणवलो. रंगान दोळे भुलसले. बेगडरयत हारतुऱ्याक हांवेन बारीक साणेन पळयलो. दोळ्याच्या कॅमेरांतल्यान मेंदवाच्या पडद्यार ताची याद उरत वा ना हे विचार मनात आयले आनी हावेन बॅगांतलो कॅमेरा काडलो. ताचो फोटो काडून हांवेन तो खिण जपून दवरपाचो एक यत्न केलो.

आमका केंद्राचेर मिलिटरी अधिकारी म्हायती दितालो. ताचे उलोवप थाईत आशिल्ले. ताचो अणकार कानातल्या मेंदवा मेरेन पावसर बरोच काळ वतालो. पूण हांगा केंद्रार उपचाराक हाडिल्ल्या लोकां मदी दादलेच चड आशिल्ले. ताच्या उलोवपांत 'याबा' हें उतर परतून परतून येतालें. थाबा म्हळ्यार 'मेटा ॲफेंटमायन्' मन-तन उत्तेजीत करपी धुवळें वखद. केंद्रार जे वायटकार आशिल्ले तांका आमच्या भेटी खातीर मुद्दाम बसोवन दवरिल्ले. भुरगेपणांतल्या शाळांनी बांक नासतना जमनीर बसपाचो काळ म्हज्या मुखार आयलो. निळी कलसांव आणि धवसो बुशकोट. हे कैदी नाशिल्ले. कोणाचो ताणीं घात करुंक नाशिल्लो. भोवतणच्या परिस्थीतीन तांचो घात केल्लो. आमी तांका मेळपाक आयले तशे ते उठून उबे रावले. कमरांत बागोवन ताणीं हात जोडून नमस्कार केलो. 'सवादी खाप' तांका नमस्कार करून हावेन ताप दिली. आपणाल्या मांयभार्शेतले उतर परक्याच्या तोंडातल्यान आयकतकीच जो आनंद जाता तोच तांच्या मुखमळार दिसलो. तांचे हासप हे त्या हारतुऱ्यातल्या फुलाभाशेन ताजे टट्टीत आशिल्ले. पयली तांच्या मुखेल्यान काय गजाली सांगल्यो. गजाली आयकतान तरी तो सोबर दिसलो. ह्या मळार वावूरपी लोकांक मदलो शब्द मळ्यार सोबर. धुवळे वखदा न घेवप ही कृती पुण त्या व्यसनाचो विचार लेगीत सोडप म्हळ्यार वृत्ती. हि वृत्ती जाची जाता 'सोबर' थारता. मनिस सोबर जावप म्हळ्यार घुंवळे वखदा मळार ताका 'मोक्ष' मेळप! मोक्ष म्हळ्यार तरी किदे? मोहात क्षया! सगळे मोह सोपतात तीच सुवात म्हळ्यार मोक्ष!! घुंवळे वखदांतल्यान मनिस सुटावो जावयो 'सोबर' जावचो हिच निमाणी मोख. घुंवळे वखदां घेवन जीण इबाडली हिरवंत तांच्या उलोवपात आशिल्ली. काय जाण खंत वा नाराजी घरच्या विषयी समाजाविषयी उलोवन दाखयताले ह्या केंद्राचेर ताका दवरलेले तरी लेगित ती बंदखण नाशिल्ली. उक्त्या मळबा पोंदा मेकळ्या वातावरणात ते जियेताले. हांवेन तांची मनोगता आयकली. तांचे वांगडा फोटो काडले. फडकेले पद आपशीच म्हज्या वठार आयलें. ''जग हे बंदीशाळा. जग हे बंदी शाळा...'' आनी वेळेचे बंदी आशिल्ल्यान थंयच्यान भायर सरले.

उडोन-थानीच्या भलायकी केंद्रार वचपाची कार्यावळ आशिल्ली. पुण अचकित कांय दुसरी कार्यावळ हातांत घेवची पडली. आनि आमकां थंय वचपाक मेळ्ळे ना! नॉनकॉय आनि भोंवतणचो

वाठार पळोवचो अशें थारले. दनपार जायत आयली. ताणी गाडी गांवगिऱ्या वाठारांत व्हेली ऑर्चिडाची लागवड पळोवपाक. ऑर्चिडाचो सिजन नोव्हेंबर डिसेंबर म्हळ्यार सगळे हुलगल्ले. स्पायस् प्लांटेशन पळोवपाक गोंयांत मिरगार भोवडेंकरा येनात? मनात म्हळें फुलां ना तरी फुलांच्यो पाकळ्यो पळोवपाक मेळत.

पांचव्या शेडींत उबारिल्ले ऑर्चिडचे रान पळोवपाक आमी नर्सरींत भितर सरले. पाचव्याचार ऑर्चिडाचेर मदींमदीं फुलां दिसपाक लागली. त्या चित्राची तुळा हांव श्रावणातल्या पयल्या सप्तकाकडे करपाक लागलों. कोकणवाठारांत आशाढ म्हयन्यातलो घोघ्यानी पडपी पावसाचे दीस सोंपून श्रावण सुरू जाता तो काळ नदरेत हाडचो. न्हं न्हावधुवन पावचीचार वस्त्रां आंगार घेत पूण कपलार कुकुम लावपाचे आसा कानांत कुडी घालपाक उपरांतचो सगळो शृंगार जावपाचो अशी अवस्था. श्रावण सोपून चवथ आयल्यार सृश्टिचे शृंगारप जायना. देखीक दास्णीचेर खयंतर तेंगशेर एकूच फूल आसता. धालांक कळे आयिल्ले आसता ते फुलपाचे आसता. सैम सुशेगाद शृंगारता आनी ताचें शृंगरप नवरात्र मेरेन चलता. मागीर तो इतलो फुलता की दसऱ्याक धा माळांचो हार देवाक पावता. झाडांचे फुलप अशे काळाप्रमाण आसता. ऑर्चिड थायलंडात थंडे दिसांत फुलता. गोयांत थंडे दिसात फुलपी कांय झाडां आसात तांची याद जाली. पयल्यान पयली दोळ्या मुखार आयलो तो 'सातवण' आपल्या परमळान आसमंत परजळावपी रुख. त्या बोडक्या ऑर्चिडवनात आमी पायस मारली. फोटो काडले. भुसा खातीर आमकां 'ल कॉंग' न्हंये देगेर आशिल्ल्या एका रेस्तोरंतात आमकां व्हेले. दनपारचो वेळ आसून लेगीत थंय वाऱ्याक लागून मन भुलसल्लें. आतां जेवण मेनू ह्यो गजाली थिरावल्यो. लॅ कॉंगच्या वाठारांत 'सीव्हीडस्' आनी अळमी हांच्या रिसिपीनी मेनू कार्ड भरिल्लें. अळम्याचें सूप घेवन जेवणाक सुरवात केली. अळमी हजारानी जातीचीं आसा. हांगा तांतुंतली शेकड्यांनी तरी जेवणा ताटार पाविल्लीं. विखारी अळम्याक कुशीक दवरून हांची निवड करपी आदल्या रानचेकुडीतल्या शास्त्रगिन्याक हावेन मनातल्यान नमस्कार केलो. रुचीन खावपा इतलोच म्हाका रांदचे कुडीक भेट दिवप आवडटा. हॉलेटाची परवानगी घेवन हांवेन रांदचे कुडींत पावल दवरलें. ते झारे त्यो कायली, तवे, सुरे चिरून दवरिल्ल्यो शाक भाजयो. सगळे पळयले. खंयच्या गावगिऱ्या वाठारांतल्या हॉटेलांनी आसता तशे उक्त्या आंगाचे रांदपी रांदप्यान फ्रायड रायसाखातीर लोखड्यांत तापिल्ल्या तेलांत भाजयो घाल्यो. वयर वाफ्यॉवपी तेलाक खीण भर उजो पेटलो. ताणें लोखंडें नेटान हालयलें. त्या बल्लवाचार्यालें कुर्तुब हांवेन कॅमेऱ्यात धल्लें. नितळसाण त्या मानान बरी आशिल्ली. ढेकर दिवन हांव रांदचे कुडिंतलो भायर सरलों.

लकॉंग न्हयेचेर एक पूल आसा. हो पूल ताव (लाओस) आनी थायलँडाक जोडटा. पलतडीन वचपाक मेळत हो विचार मनात बाळगून आमी गाडयेन पुलासरीं आयलीं. लाव ही फ्रेंच वसाहत आशिल्ल्यान थंय फ्रेंच भाशा चलताली. कपडे आनी भोगावळीच्यो वस्तू 'लाव'च्यान थायलँडच्या शिमेवयल्या वाठारांत येताल्यो. थाई लाव देशांत 'व्हिसा' शिवाय वचूंक शकतात. (ही सोय भारतीयांक फकत नेपाळांत वचपाक आसा.) हेर लोकांक फकत तपासणी केंद्र मेरेन वचपाक मेकळीक आशिल्ली. पूण 'लाव'चो लाभ आमच्या नशिबांत नाशिल्लो. खंयचो तरी व्ही आय पी त्या दिसा येवपाचो आशिल्ल्यान कोणाकूच सोडले ना! दुसऱ्या देशांत वचून तिसऱ्या देशाचें सिमोलंघन करपाचो यत्न फळादीक जावना.

नॉनकायच्यान परत येता असताना एका सुवातेर आमची गाडी थारली. पैस देवळाचे कळस

दिसताले. बुद्ध मंदीर वा थाईत जांका वात म्हणतात ताचे परस हे मात्शे वेगळें दिशिल्ले थोडी भोव वाट चलून आमी त्या देवळा लागी आयले. भोंवतणच्या वाठारांत गोंयांत नरकासूर वा शिगम्याक करतात तसले देवाचे 'पुतळे' दिश्टी पडपाक लागले. हे सगळे हालीचेच असो अद्मास हावेन केलो. सोपणां चडून देवळांत भितर सरले. एक चौक कसो आशिल्लो. थंय चवायचेर गणपती, शंकर पार्वती अशा देवांच्यो मातयेच्यो आनी लाकडी मुर्ती आशिल्ल्यो हांगा देवळांत नित्य नेमाचे अभिषेक वा पूजा जायना अशें म्हांका दिसलें. चौकात निमाणे सुवातीर एक 'गुरू' ताचे फोटे पालखी अश्योय गजाली दिसल्यो. हे खंयच्या तरी बाबाचे संस्थान अशें दिसलें. मंदिरात हुमकाळयल्यो घांटी आशिल्लो आनी एका कोनशाक हुमकाळ्ळल्ले जायंट म्हळ्यार व्हडलें कासाळें कशें आशिल्ले. धोलार बडी मारतात तसो एक तोंडको (कापड गुठाळील्लो) घेवन ते लोक वाजयताले.

देवूळ पळोवन भायर सरलो. देवळाक अगरशाळा आसता ते भाशेन कुडी आशिल्लो. तांच्या आंगणात 'जडीबुटी' प्रकरांत मोडपी झाडांच्यो साली, मुळां पानां फळां सुकत घातिल्ली. ह्या असल्या गावठी वखदांचे म्हाका सदांच कौतूक. हांव ते गांवठी प्रदर्शन पळोवपाक लागलो. विंगड विंगड तरांची वखदां एकठांय करून 'रामबाण' उपाय हांगा मांडून दवरिल्ले. पोरने रोग, ॲलोपाथीत उपचारना अशो व्याधी हाचेर हांगां वखदां आशिल्लीं. पुराय रगत शुद्ध करपी वखदांची दोन पाकिटा होवेन घेतलीं. घरा कसाय करपाक मेळत असो विचार आशिल्लो. सादारणतः कोडू कसाय वा वखदां भूक वाडयता. वाडिल्ल्या भुके वांगडा रूच बदलता. मळमळ थारून मनीस घोस्तान जेवता. जेवण सुदारलें काय जीव हट्टीत जावपाक लागता. कोडू वखदांची ही फाटभूंय. रगत हें सगळें बरें वायट, अन्न वा वीख दोनूय घेवन आंगात वावुरता. पचन सुदारलें काय विखाचो त्रास उणो जाता. अशी ही 'रहस्यमय' कथा. रहस्य ते इतल्टा खातीर की ते वैज्ञानीक मळार ते प्रुव जायना. खरे म्हळ्यार वखंदा वांगडा 'हांव बरो जातलो' म्हळ्यार तूं बरें जा! हो आशिर्वाद मानसीक पातळेर वावूरता. कोणाचो मायेचो हात फाटिवयल्यान भोंवतकीच जो कितें रसायना चमत्कार घडयतात ते वळेरीत ही वखदां! बाबांचे आंगारे, तीर्थ, प्रसादाक हांका लागून हो चमत्कार घडूं येता. निमाणे सायक आनी भलायकी ही एकमेकांच्या हातांत हात घालून वावूरतात. शेवट गोड जालो.... अशें जेन्ना घडटा त्योच गजाली याद उरता. वखदां घेवन हांव गाडयेत बसलों. पावसाची कुपां मळबांत दाटपाक लागिल्लीं. खोनकेनात परतूपाचें आशिल्लें. तीन वरां तरी गाडी शंभर स्पीडीर चलपाची आशिल्ली. वरा अर्द वरा उपरांत पावस मुसमुसपाक लागलो. एके वटेन वत आनी दुसरे वटेन पावसाची रिमझीम मनात इंद्रधनुचे रंग हुमटूपाक लागले. पळयतां पळयतां वयर मळबांत इंद्रधनू उबे जालें. जगांत कांय गजाली कितले फावट पळयल्यो तरी तांतुंतली नविदाद केन्ना सोपना 'इंद्रधनू हे तांतुलेच. ताचे सातूय रंग जिणेतलो कितें तरी अर्थ सांगून वता. पावस पडट्टालो म्हणून गाडी सवका चलतली. मृगजळ आनी इंद्रधनू हे एका प्रकारचे दिश्टावे. हाताक न लागपी. वाटेर चार पाच इंद्रधनू पळोवपाक मेळ्ळीं. एकाच दिसा इतली इंद्रधनू पळोवपाची म्हजी पयलीच खेप आशिल्ली. उपरांतचो प्रवास ही रड कशी दिसली. काळोख जाल्लो.

मुखावयल्यान येवपी गाड्यांचो खर उजवाड दोळ्यांक सतायतालो. खोन-केन 10 कि. मी. पावलें तशी गाडी हायवे सोडून धाकट्ट्या रस्त्याक लागली. ट्रॉफीक उणी जाल्ली. रुमार पावतकीच न्हावन धुवन ताणून दिवपाचें हो विचार बळगें धरपाक लागलो. परतीचो प्रवास असो

वाज हाडटा. हावेन घरा फोन लायलो. आयतारचीं गोयांत स वरां जाल्लीं. वाज हाडिल्ल्या सांजेक काळखान आपणाल्या वेंगेत घेतलो. आमची त्या दिसाची बॉर्डर मोहीम सोंपली.

सोमार 22 जुनाक आनी दुसऱ्या दिसा आमचो मुक्काम खोन-केन ड्रग ट्रिटमेंट केंद्रात आशिल्लो. आमी रावता त्या क्रॉन-मोर हॉटेलाकडल्यान सुमार सात आठ कि. मी. तें केंद्र आशिल्लें. सकाळचो ब्रेकफास्ट जातकीच आमी हॉटेलाच्या लॉनात बशिल्लीं. आयस गाडी घेवन आयलें. सुमार धा पंदरा मिनटांचो प्रवास जातकीच आमी केंद्रार पावले. केंद्रा सकाळच्या ऑपीडी वॉर्डांत गर्दी आशिल्ली पयली केंद्राची म्हायती, वळख, भोवंडी जातकीच आमी ल्हानशां हॉलांत बसलीं. आतां इलेक्ट्रॉनीक माध्यमाक लागून शिकवप भाशण दिवप सोपे जाला. लॅपटॉप - एलसीडी आसलो जाल्यार वांगडा पेन ड्रायव्ह लावन काम बेस बरें जाता. हांगाय तेंच आशिल्लें. केंद्रान घेतिल्ल्या उपक्रमाची म्हायती स्लायड शो वरवीं आमका दिली. सोरो आनी घुंवळे वखदां ही सख्खी भावंडा. सोऱ्याक 'आकाबायचो' मान. हिरॉयन, हें शेंडेफळ. मदलीं भुरगी आपणाल्या कुवती प्रमाण शेक चलयतात.

घुंवळे वखदां घेवपी मनसी सोदप कसो? ताणें वखदां घेतल्यां हें तपासप कशें विज्ञान ह्या मळार खूप कितें केलां. हीं वखदां घेतकीच ती मुतांतल्यान कांय प्रमाणात भायर सरतात. तश्या तशी भायर सरतात वा फिग्दात तांचे बदल जांव येता. अशा मनशाचे मूत तपासप. हाचे खातीर टेस्टकीटस् मेळटात. घुंवळे वखदां घेवपी मनीस चडशे वेळा वास्तव न्हयकारता. फट मारता. आपणाक कांयच जावना अशे समजता. ताका ताळ्यार हाडपाक ज्या गजालींचो आसपाव आसता तातूंत घरचीं लागिचीं मनशां येतात. तांचोच रोल भोव मोलाचो. देखीक थंयच्या भलायकी केंद्रांत असल्या मनशावांगडा उलोवपाक बसपाक खाशेल्यो सुवाती आसतात. थंय कांय पुलिसांनी धरून हाडिल्ले लोक आशिल्ले. तांचीं भलायकी अधिकाऱ्यांनी तपासणी केली. मुताचे नमुने घेवन तपासले. जे घुंवळें वखदां घेतात म्हणपाचे सिद्ध जाले तांकां ॲडमीट केले. फुडल्या उपयांखातीर.

खोन-केनांत आमी आयल्यार धा दीस जावन गेल्ले. आमी रावतालीं त्या हॉटेलांत पॅनासोनिकाचे बरे वॉटर-हिटर आशिल्ले. परवडटा जाल्यार एक घरा व्हरचो अशें दिशिल्लें. त्यो दिसाची कार्यावळ इल्ली बेगीना सोपोवन आमी मुखेल मार्केटांत आयली. जपान आनी कोरीयाच्यो खुब्बशो गजाली हांगा सहजतायेन मेळटाल्यो. शोरूमांत भितर सरले. आमच्या गायडान कितें जायतें सांगलें. पॅनासोनिकाचे तर तरांचे हिटर आमकां दाखयले. असलो म्हाल व्हरतना मुखेल अडचण आशिल्ली ती गॅरंटी वा वॉरंटी. कशेंय आसूं घेवप! अशें थारलें. हांवेन निर्णय घेतलो सात हजार रुपयांचो हिटर घेवपाचो थारले. नीताकूय घेवापाचो आशिल्लो. नीता हिटर घेवपाचें पयलीं ताच्याच मनात दिशिल्लें. उपरांत म्हाका हिटर पळोवन घेव? नाका! ह्या संभ्रमात ते पडलें. उपरांत ताणें दिल्लीक घोवाक फोन लायलो. घोव हिटर घेवपाक सहमत आसा तें पळोवन ताणें वांगडा दोन हिटर घेतले. ते भारतात परत वतकीच ते नवेल्या घरांत वचपाचें आशिल्लें. नव्या घराक सजोवपाखातीर ताचे मन भिरभिरपाक लागिल्ले.

रुमार येवन हिशेब मांडलो. दिल्लीच्यान भायर सरताना डॉलर मेळिल्ले. खोन-केनाक आनिक दोन दिस आमी रावपाचें आशिल्ली. कार्यावळ पत्रिकेचेर नदर भोंवडायतकीच आमच्या अशें नदरेंत आयले कि हांव आमी शुक्रारा राती खोन केनच्यान बँकॉक वचपाची आशिल्लीं. शुक्रराक रात बँकोकाक काडून शेनवारा भारतांत परतूपाचीं आशिल्लीं. बॅकॉकाच रावपाचें रद्द करून तशेंच

तेच रातीं पुरतुपाचो विचार मनात आयलो. दो. निताक सहज सुचयलें. ताका घरा परतुपाची इतली उमळशीक लागिल्ली की ताणें सोमतोच डब्ल्यू. एच. ओ. कार्यालयाक संपर्क सादलो. शुक्रा सकाळीं व्हडले कार्यक्रम नाशिल्ल्याक आयोजकाकडल्यान अनुमती घेवन बेगीन भायर सरपाचे थारलें. सगळ्यो फ्लायटी रिशेड्युल जाल्यो.

म्हज्या नदरेंतल्यान एक गजाल उरिल्ली. थंयचे फार्मसी कॉलेज पळोवप. दुसरें दिसाच्या कार्यावळींत इल्लो बदल करून म्हाका दनपारां कॉलेज पळोवपाक मेळकीक मेळ्ळी. फार्मासीच्या परिभाशेंत विंगड विंगड उतरां येतात. फार्मास्युटीकल सायन्स अशें म्हणपी एक पंथ आसा. फकत 'फार्मसी' म्हणपी दुसरो. फार्मसी हो मुदलत केमेस्ट्री ह्या मूळ शास्त्रांतल्या आनी वखदां ह्या वैजकी मळाच्या शाखांचो संगम. देखीक खंय 'सायन्स' बळीश्ट दिसता जाल्यार खंय वखदांशास्त्र. चड करून पेशंटाकडले थेंट संबंध येवपी शाखा. खोन – केनात फॅकल्टी ऑफ फार्म सायन्स असो विभाग आशिल्लो. तांच्या माहिती पत्रिकेंत भौसाखातीर वखंदा तयार करप आणि भौसाची भलायकी सांबाळप अशें घोशवाक्य बरयल्लें. ह्या विभागाच्यो डिन – दो. बुंग श्री पानिद कुलचाय अश्या व्हडल्या नांवाची बायल मनीस आशिल्ली. सुमार तीस वर्सा पयलीं ह्या शाखेची स्थापना केल्ली. तीस वर्सांत सुमार अठरा विंगड – विंगड पदव्युत्तर कार्यावळी थंय चलताल्यो. तीन बिल्डींगांत हेशाखेचो वावर चलतालो. सुमार अंयशीं प्राध्यापक हांगा आशिल्ले. खाशेली गजाल म्हळ्यार दोन फार्मासी हो विभाग चलयताल्यो. खोनकेन वाठारांत आशिल्ल्या हॉस्पिटलाक म्हायती पुरवपी केंद्र हांगा आशिल्लें. ह्या विभागाक जोडून एक अर्विल्ले भलायकी शास्त्राचे केंद्र आशिल्ले. आशियांतले खंयचोय देश आसूं थंय पुरातन शास्त्राचें अस्तित्व दिश्टीक पडटा. भारतांत आयुर्वेद, चिनात – चायनीज. इराण – अफगाणिस्तान हांगा – युनानी. प्रशांत महासागरात आशिल्ले देश हांका आडवाद ना. आपणाल्या म्हालवत पुर्वजांनी तयार केल्ल्या शास्त्राक ताणी बेस बरी माची उपलब्ध करून दिल्या. म्हत्वाचें म्हळ्यार जागतीक आरोग्य संघनटेनूय अशा विचाराक फावं ते स्थान दिलां हांगचो बॅचलर इन फार्मसी कोर्स हो पांच वर्षाचो वर्साक सुमार शंभर भुरग्यांची तुकडी प्रवेश घेता.

हांगचो 'क्लिनिकल फार्मसी' विभाग बरोच घटमूट जाला. जगार फार्मसी शिक्षणांत दोन मुखेल फांटे दिसतात. एक औद्योगीक जाल्यार दुसरो क्लिनिकल हांतूतलो फरक सादो सरळ सोपो आसा औद्योगीक मळार वखंदा तयार कशें करप हाचेर भर दितात. जाल्यार क्लिनिकांत वखदां वायटकाराचेरे कशीं वावरप हें सांगता. पयलो पंथ 'प्रॉडक्टाचेर' आधारिल्लो. दुसरो पेशंट हो केंद्र बिंदू मानून वावर करता. म्हाका दुसऱ्या पंथाची म्हायती घेवपाची आशिल्ली. कॉलेज भोंवताना थंयचें ऑफिस, प्रयोगशाळा, लेक्चर हॉल, कॉम्प्युटर हे सदां भाशेन जालें. उपरांत हॉस्पिटलांत फार्मसीचो वावर दाखोवपाक म्हाका व्हेलो. काळजांच्या दुयेंसाचो वॉर्ड आनी कॅन्सर वॉर्ड हांगा फार्मासी आपणालो शेक गाजयता अशें दिसलें. ह्या शाखेंत पदव्युत्तर शिक्षण घेवपी भुरग्याक हांगा खाशेली सुवात आशिल्ली. दोतोरो वांगडा रावंडाक वचप, वखदां दिवपा पयलीं भासाभास करप वखदांचो डोस तांचो परस्परांकडे आशिल्लो घुस्पागोंदळ हे सगळें फार्मासिस्टाचे विशय. तांच्या मताक थंय किंमत आशिल्ली. पुडयो बांदून दिवपी पसरकार ते 'म्हाका दिसता ह्या वखदाचो डोस कमी करा' अशें नमळायेन दोतोराक सुचवपी खरो फार्मासिस्ट थंय पळोवपाक मेळ्ळो. दोन व्यवसायांमदली 'दिवार' ना जावन हातांत हात घालून चलपी जग थंय दिसलें. हे सगळे भायर

पळोवपाक मेळटा. हांगा भारतांत केन्ना जायत? कांय प्रस्न काळाचेर सोपोवपाचे आसतात. यत्न हे जायच पूण ते केन्ना फळादीक जायत? हो खरो प्रश्न आशिल्लो. सुर्वेक डिनान येवकार दितना भेट वस्ती दिल्ल्यो. फार्मासी विभागान रुप्यासुवाळो मनयल्लो ताचें मानचिन्ह म्हाका दिल्लें. पाव रोकड्याची वाटचालीत थंयच्या विभागान खूब यश हातासायल्लें. ताचें पडबींब ताच्या वावरांतल्यान स्पश्ट जातालें. कोणाचीय उमेद वाडोवपी असो वावर लांब श्वासावांगडा थंयच्या उमेदिच्या ल्हाराचे काय अंश हांवेन म्हज्या हड्यात भरले. (भल्ले) गोंयांत परतुपाचे वेध लागले. परततकीच कितें तरी नवें करप हो हांवेस हांवें बाळगिलो आनी त्या विभागाची सोपणां देवताना 'सायोनाराऽ सायोनाराऽ' हें पद वठार आयलें.

खोन-केन ह्या उतराक तसो व्हडलो अर्थना. उतराक अर्थ आंसुंकच जाय अशेंय कांय ना! नावात कितें आसा? बा शेक्सपियरा तुज्या काळांत आनी देशांत जन्माक आयलो तें वेगळें. आयज भारतांत नांवाक व्हडलें म्हत्व आसा. टाटा, अंबानी ह्या आडनावाचो मनीस सायकलीन पायान भोवूं शकता? सिद्धार्थाचे (बुद्धाचो) मोठेपण घडये 'त्या' राहुलाक मेळ्ळे नासूं येत. पूण सगळ्याचे तशें नासता. तशे खोन-केन शहर हे नवें वसणुकेंतले. राम राजा (दोनशें वर्सां पयलीं) हाच्या मुस्तीतलें. पूण हें मळ इतिहासांत सैम अति सांस्कृतिक दायजा खातीर तशें म्हत्वाचें. डायनासोर (दानासूर?) हांगा व्हडा प्रमाणात आशिल्ले. आता हो प्रोव्हिन्स शिक्षण आनी उद्योगधंद्याक लागून म्हत्वाचो जालो. प्रोव्हिन्सांत पंचवीस ॲम्फो वा जिल्हे आसा. येरादारीची स्थळांची वळेरी म्हजे कडे आशिल्ली. पूण सगळ्यांक भोंवप शक्य नाशिल्ले. तो उद्देशूय नाशिल्लो. हांगचो राष्ट्रीय म्युझियम फामाद. हांगा पाषाण युगांसावन हालीं मेरेनच्यो चीज वस्ती दवरल्यात

निमाण्या दिसा आमी चुम् के ह्या वाठारांत वचपाचे आशिल्लें. आदले दिसा रातीं 'आयसाक' आमच्या वांगडा जेवणक आपयलें. आयसाक् लागून फाटले धा-बारा दीस आमचें वेवस्थित जाल्लें. आयस् हें दो. मनोप कनाटो हांचें सहाय्यक आशिल्ले पूण इंग्लीश बरें उलयतालें. जोडपाक लागल्यापासून आपणाल्या फॅमिलीतल्यान कुशीक सरिल्लें. ताचें घर गांवगिऱ्या वाठारांत आशिल्ले. ते करतालें तो जॉब ताका व्हडलो आवडूंक नाशिल्लो. फुडें बँकोकाक वचपाचें ताचें सपन आशिल्ली. जेवणाक आमी सांजे साताका मेळपाची आशिल्ली. पूण साडे-सात जालीं तरी आयसाचो पत्तो ना. निमाणे नितान ताका फोन केलो. फोन ताणें बऱ्या वेळान उबारलो. ''कमिंग नो?'' दो. नितान विचारलें जाप आशिल्ली. 'दॉफ्तर नीताऽऽ आय स्लेप्ट आय फॉरगोत्...' आयसाचें. उलोवप हेल काडून आशिल्लें. भाशांतर करून सांगताना ते सदांच पयली 'ओ.के. आय तेल यू' अशी सुरवात करतालें. दिसभर भोंविल्ल्यान ताका पुरो जाल्लें. रुमार वचून आयस् न्हिदले.

कांय वेळान तें रेस्तोरंतांत पावलें.

'आयस् इट इज युवर चॉईस'... हांवेन मेनू कार्ड ताच्या हातांत दीत म्हळें.

''सी युव्हील इत वॉत आय ऑर्डर....? ताणे रोखडोच प्रश्न केलो.''

''नो नो यु ऑर्डर युवर्स, व्ही व्हील हॅव अवर्स'' आंगावयली पाल झटकून उडयता तशें दो. नितान म्हळें. आयसाच्या तोंडावयली निर्शेवणी हावेन पळयली.

''आय व्हील गिव यू कंपनी'. हांवेन बेठेंच म्हळें आयस मेनू कार्ड वाचतालें. ताणें सूप,

अळंब्याचें तोंडाक, शीत, फ्रायड फीश ऑर्डर केलें. मंद उजवाडांत आमच्यो खबरो चललिल्ल्यो. वेटर एक एक करून जिन्नस हाडपाक लागलो. खबरांचो नेट उणावलो. उदरभरण सुरू जालें. आयसान मागयल्ल्या डिशांतली ग्रेव्ही घेवन हांव जाता तशी ताका साथ दितालो. रिती रिवाज हे सांबाळपाक जाय हे खरें पूण देश तसो वेश हेंवूय मतीत धरूंक जाय! गोऱ्या कातीची 'बट्टू' बरी नववारी कापड नेसून नथ बी घालून भोंवल्यार खंयच्याय भारतीयाक तें आवडपाक शकता. पूण हांगचे 'जेन नेवस्ट' जीन वा बर्मुडा घालून ताचेर हायट टि शर्ट घाल्यार तो 'मर्यादाभंग' थरपी परिस्थिती कांय कडे आसा. सगळ्यो रेशा लक्ष्मणरेशा आसूं शकना. लक्ष्मणरेशा वायटापासून रक्षण करपा खातीर आसूंक जाय. रेशांचे वजें माथ्यार बाळगून जड पायांनी भोवप सदांच शक्य नासता वा गरजूय नासता. आमचें जेवण सोंपले आतां उरिल्ल्यो त्यो दोन राती.

रुमार परतकीच कांय वेळ टिवी पळयलो. इराणात जाल्ल्या निवडणुकाचेर बोवाळ जाल्लो. त्या बोवाळांत एका चलयेंत मरण आयिल्ल्यान वातावरण तापिल्लें. पूण हें फकत सीएनएनचेर दिसतालें. बाकीच्या चॅनलार हाचो इल्लो लेगीत उल्लेख जाय नाशिल्लो. इराणात बोवाळ जावचो, तें अस्थीर उरचें अशेंय दिसपी कांय लोक ह्या संसारात आसा. ते कावळे जशे घाणीर चोंच मारतात तशे संसारभर असंतुश्टायेची चूड घेवन भोवतात. हांवेन टिवी बंद केलो. कपाट उक्तें करून कितें व्हरप कितें सोंपला हांचो अदमास घेत बॅग भायर काडली. दिसभर घेतिल्ले फोटो लॅपटोपार घालें. दोळे जड जावपाक लागिल्यान हांव गादयेर लवंडलो.

सकाळां बेगीन जाग आयली. तोंड बिंड धुलें. साडेचार वरां जाल्ली. इल्लो प्राणायाम बी जातकीच बॅग भरपाक हात घालो. बॅगांत वापरुंक नाशिल्ले कपडे खूब आशिल्ले. खेरीज थंय घेतिल्ले नवे कपडे. चड करून टी शर्ट निमाणे दोन - तीन दीस भायले कपडे तशेच घरा वतकीच धुवपाखातीर हांव दवरतां. ते बॅगांत पोंदा दाळून हांव बॅग भरपाक लागलों. भायर भिन भिनपाक लागलें तशी सवणीं सैमाक जागोवपाक लागलीं. बरें दिसपाक लागलें आमी रावताले त्या 'क्रॉन मोरऽ' हॉटेलाक लागून एक रान आशिल्लें. काय वाट चल्ल्या उपरांत एक व्हडलो ग्रावंड आशिल्लो. सांजेवेळ मेळटालो तेन्ना हांव थंय वॉकाक पयली गेल्लों. रानांतल्यान वाट चलताना वेगळे खोन-केन म्हाका अणभवाक आयलें. रानात कोण्याची झाडां आशिल्लीं. आंबे आशिल्ले बरींच झाडां अनवळखी आशिल्लीं. रातीं पावस पडिल्ल्यान झाडां मुळातलो पालो ओलो जाल्लो. हांव वाट चलतालों इतल्यान कोण्याचेर कोण तर सुरसूर करून चडटना दिसलें. धवी ल्हंव त्या प्राण्याच्या आंगार आशिल्ली. इल्लें लक्ष दिवन पळयलें. चानये भाशेन दिसलें. धवी चानी. चानी हो उंदीर कुळातलो प्राणी. ताचो शेपाटो धवो फुल्ल. हावेन कॅमेराकाडून ते धवे चानयेक कॅमेऱ्यात बंद केली. पूण ताका म्हजी सुलूस लागूना. आपणाल्याच नादांत चानी आशिल्ली. कॅनेरा हांवेन 'व्हिडिओ' मोडांत घालो आनी पाच एक मिनटां हांवेन शुटींग केले. उंच झाडार एका माकडान उडी मारून केकेवपाक सुरवात केली. त्या बोवाळाक लागून चानी शिट्ट जाली. शेपाडो वयर काडून तीणें चोय दिकांक पळयले. हांव जरी पुतळ्याभाशेन स्टेडी आशिल्लो तरी हे प्रकरण सदचें न्ही अशें चानयेक जाणवले आसूं येत. ती तुरतूर करून कोण्याच्या तेंगशेर पावली. आदल्या वर्सा अमेरिकेतल्या मिचिगनात धिटायेन वावुरपी माजरां येद्यो चानयो हांवेन पळयल्ल्यो. हांगा गोऱ्या कातीची न्ही ल्हंवेची आशियांतली चानी म्हाका बुजून गेल्ली. कांय वेळ हांवेन त्या मैदानार मारल्यो. उदेंतीचो सुर्य भांगरा किर्णानी सैमाक न्हाणयतालो. पाना पानार

आशिल्ले पावसा थेंबे भांगरमय जाल्ले. खोनकेनातली ती सकाळ मनाच्या कोनावड्यांत हांवेन साठोवन दवरपाचो यत्न कोलो. मनाची मेमरी उणी पडटली अशें दिशील्ल्यान हांवेन मेळटा त्या अँगलातल्यान फोटो घेवपाक सुरवात केली.

रुमार परतकीच पयली दो. निताच्या दारार टकटक केलें. ताका धव्या चानयेचे फिल्म दाखयलें. ताकाय ताचें अप्रूप दिसलें.

"मुझे क्युं नही बुलाया?" ताका तें लायव्ह पळोवपाची उमेद आशिल्ली. निमाणें जिणेत प्रत्यक्ष अणभव महत्वाचो. फोट्यानी, अक्षरानी, उतरांनी सगळें मेळना.

"सुबह जल्दी बाहर गया" हांवेन जाप दिली. "आपभी ना एक तो कॅमेरा लेके घुमेंगे. या रुम मे बैठके लिखेंगे!" ताणे धा बारा दिसाचो शिणसो काडलो. दोगांय आमी व्हरांड्यात केदो वेळ उलयतालीं. सुरवात जाल्ली, अर्ज करपापासून ती कॉनमोरात पावलीं. पयले दिसा दो. निताच्या मनाची जी अवस्था जाल्ली ताची ताकाच परतून याद जाली. धा बारा दीस मजेन गेले. कांय त्रास ना!

"म्हज्या शिवराक संगतीचो आदार ताच्या उलोवण्यात खुब्ब फावट येवन गेलो! गोंयांतलें आसून नुस्तें खायना हाचें खुब्ब लोकांक आश्चर्य दिसताले. दो. निता बिहारचे आसून सामकें शिवराक हांचें म्हाकाय दिशिल्लें. पुण ही व्हेंव लेंथ जुळ्ळी हांचेंच समाधान आमकां मेळील्लें.'

न्हावन धुवन ब्रेकफास्टाखातीर आमी रेस्तॉरंतात गेलीं. केन्ना केन्ना आयस आमच्या वांगडा थंय येतालें. वाडगोभर पेज घेवन हांव बसलों. पेजेंत निवळ चड कुंया कमी. ढवळतां ढवळतां काळेंच दाल्ल दिसलें. तोंडात उडोवन चाबून पळयलें. वटांचे सोल. गोंयकारांक सोलां खबर आसा तीं भिण्णांची. वंटाच्या सोलांची नाल्लारस आमी हरवी मिरसांग घालून केल्ली कडी हें भुरगेपणातलें अप्रूप. कोणाच्या जिबेर केन्ना कितें पडत हाचो ब्रह्मदेवाक तरी अदमास आसा? तोंडाक रूच बऱ्यापैकीं आयिल्ली. आनी भर पेज घेवन हावेन पोट घटमूट केलें. आयस गाडी घेवन आयलें. गाडीं चुफे भागांत वचपाक लागली. ॲरपोर्ट मदीं लागलो. हायवे वयल्यान गाडी धांवताली. चुंफे लागीं पावले तशे दोंगर दिसपाक लागले. दोंगराळ वाठारांत घुवळे वखदांचे प्रमाण चड आसा. हाका लागून चुंफेच्या सरकारी हॉस्पिटलांत घुंवळे वखदां संबंधातलो खासा विभाग आशिल्लो. हॉस्पीटल, थंयचे व्यवस्थापन हें आतां संवकळीचें दिसपाक लागिल्लें. परतून परतून तेंच आयकू पळोवन मनीस भेरो वा कुड्डो जाता तशें आमचें जाल्लें. तातून परतूपाचे वेध. मनशाचें मन अशें कशें जंय नाविन्य आसा थंय चड रमता. रुटीन जालें काय सुस्तेता. सुस्ती घालोवपी फुट्याच्या चें रसायन वरा वराक मेळून लेगीत आमकां तशें दिसलें. येवपी जामय हांवेन कशी तरी थारायली. पूण जामये इतलें संसर्गजन्य दुसरें कांय ना! म्हज्या दागील्या जामयेचो संसर्ग दो. निताक जालोच. ताणें तोंडार हात धरून बरी जांमय दिली. सेंसिटिव्ह उलोवप्याक मुखार जामय म्हळ्यार 'पुरो आतां वाज आयलो! कुस्क्या ततयां तोमाटां भाशेन परिणामकारक. चुफेंच्यान आमी तांचे पुनर्वसनाचे कार्यक्रम पळोवपाक वचपाचे आशिल्ले. घुंवळे वखदांतल्यान भायर सरिल्ल्या मनशाक समाजान आपणावचो. तो थीर उरचो म्हण कांय यत्न केल्ले. आयोजकांनी ताची झलक आमकां दाखोवपाक एका गांवगिऱ्या वाठारांत गेले. रस्त्याच्या दोनूय दिकेक शेतां

वा राना. वस्ती लागिंलागीं नाच. सुमार वर भर ड्रायव्हर गाडी धांवडायतालो. दनपारच्या कडार वत आशिल्लें, पूण थंडसानूय आशिल्ली. हो थायलँडातलो प्रदुशण रहीत वाठार काय किते? हांवेन आयसाक प्रस्न केलो. सदां भाशेन ताणें.

''दोक्तर जोसी. येस. नो इंदस्ट्रिज हियर. ऑनली कल्टीवेशनऽ'' तांतुतलें निमाणें उतर बरेच हेल काडून ते सदांच म्हाका आरती उपरांत जावपी मंत्रपुष्पां म्हणटा काय अशें म्हाका दिसतालें. राजाधिराजऽऽ कामप्रेऽ अशें कांय शब्दार भर दिवन सूर लांबयत ते उलयताले. थरिल्ल्या ठिकाणार आमी पावले. एक कम्युनिटी हॉल टायप आसचो तशा बांदावळीचे कितें तरी दिशील्लें. भितर खुर्च्यांचेर लोक बशिल्लें. हॉलाभायर प्रदर्शन मांडिल्लें. तो सगळो अवतार पळोवन दो. निता इल्लें भियले. ''मै नही स्टेज पे बैठूंगी!'' तें कितें म्हणता तें आयसान आयकलें पूण ताका उतरां समजलीं ना. पूण आशय समजलो. नीता अपसेट आसा हें ताणें वळखले. ''नो दो. नीता...'' आयस ताका समजायताले. निमाणे त्या औपाचारीक कार्यावळीक हांवूच 'मानाचो सोयरे' थारलो. थंयचे लोक कितें करतात. तांचो अणभव कितें? रोजगाराचें साधन कितें. घुंवळे वखदां सोडल्या उपरांतचो अणभव कितें. थाई भाशेत तें सांगतालें. एकल्याच्या दोळ्यांतल्यान दुकां लेगीत आयलीं तांचे अणभव आनी भावना हांवेन आयसाक बरोवन घेवपाक लायिल्लो. कार्यावळीचो रिपोर्ट दिवपाखातीर म्हाका ते म्हत्वाचें दिशिल्लें. प्रसंगाक धरून चार उतरां सांगप आयलें. आंतराष्ट्रीय संबोधन करपाक मेळटले. हो विचार येतकीच आंगार मुठभर मास चडले. हांव एक वाक्य उलयतालो. आयसताचे भाशांतर करून भौसाक सांगतालें. म्हजें उलोवप इंग्लीशीत आशिल्लें.

''सवादी खाप'' – पयल्याच उतराक ताळयो. आमी हांगा उशीरा पावले ते पासत हांव माफी मागता गाडयेक लागून इल्लो उशीर जालो. तुमी सगळे शेतकामती शेतांत काम करतात. आमची पोटां तुमकांच लागून भरतात. हांव भुरगेपणात कुळागरांत वावूरता. एक अनस काडपाक कितले काटे आंगाक तोपतात हें हांवेन तेन्ना अणभवलां... तुमी फाटले विसरून – वायट गोश्टी सोडून आतां बऱ्या मार्गाक लागल्या हाचो आनंद जाला. ही भूंय बुद्धाची देखीक हांव म्हणता बुद्धं शरणं गच्छामि संघं शरणं गच्चामि... म्हजें भाशण सोंपलें. ताळयो कानार पडल्यो. कार्यावळ सोंपली. प्रदर्शनातल्यो कांय वस्तू हांवेन घेतल्यो. सगळ्यांक देव बरें करूं म्हणून आमी थंयच्यान परतलीं. ''आप क्या भाशण देतो हो... पॉलिटिक्स जॉयन करो'' निताचो थोमणो घरच्या आहेराभाशेन मेळ्ळो. आयस् म्हज्या भाशणार बरेंच खूश दिसलें.

''नो आईस. जोशी शुड जॉईन पॉलिटिक्स''

''येस दो. नीथा हि गेव गुड स्पीच'' ताणेय म्हळें

''अब फल लेना हय ना!'' विशय बदलपाक हांवेन म्हळें.

''हां रास्ते मे लेंगे.'' परतुपाच्या वेद्याखेरीज नीताच्या मनात दुसरें कांयच येवचेना हाची गवाय म्हाका मेळ्ळी. आयसाक आमी फळां खरेदी विशीं सांगलें. ताणें वाटेतं बाजार मेळटलो थंय घेवया अशें सांगलें.

''युनो 30th June in my last day here'' आयसान बॉम्बगुळो सोडलो.

दो. अनुपाच्या प्रॉजेक्टाचो कार्यकाल सोंपत आयिल्लो. त्या प्रोजेक्टाचेर ताका टेंपाररी घेतिल्लें. जुन म्हयन्याच्या अखेरीक तें दुसऱ्या जॉबांत वचपाचें आशिल्लें. सामक्या थंडपणान एका

ग्लासांतलें उदक सोंपतकीच थंडपणान दुसरो ग्लास हातांत धरचो अशा सहजतायेन ते उलयले. 'आयस' म्हाका ते दीस नांवाप्रमाण झेलाद दिसलें. उपरांतच्या प्रवासांत म्हजें ताचें चड उलोवप जालेना. नीता वांगडा ते खबरी मारतलें. चुंफेच्या हॉस्पीटलांत आमका डिपार्टमेंट ऑफ प्रोबेशन हांचेकडल्यान एक म्हायती पुस्तीका मेळिल्ली. ती हांव वाचपाक लागलों.

घुवळे वखदा मळार 'प्रोबेशन' ही खाशेली येवजण हे खातें चलयतालें. ही येवजण तशी पोरनी 1952 सुरू जाल्ली. नव्या लोकांक वा पयल्या साठचे म्हणूं येत तांचे खातीर हें चलताले. प्रोबेशन खातें म्हळ्यार न्याय व्यवस्थेचो एक वांटो. घुंवळे वखदांच्या गुन्यावांत सांपडिल्ल्या मनशाचे खटलो चलपा पयलींचो काळ. खटलो चलता तो काळ आनी ख्यास्ती उपरांतचो काळ अशी वाटणी थंय जाता. ह्या खात्याचो उद्देश खूब आंगानी सांगू येत असो आशिल्लो. हांतून ख्यास्त भोगपी मनशाची जीण सुदारपापासून समाजांत ह्या व्यसना आड उबे करपा मेरेन सगळें आसपापिल्लें प्रोबेशनचाचे अधिकारी गुन्यांवकार आनी ताच्या भोंवतणचो समाज हाचे मदीं दुवो आसता. समाजाचें आर्थिक आनी सामाजीक नुकसान कशें कमी करप होच उद्देश आशिल्लो. ख्यास्त जाल्ल्या मनशाक मार्गार लावचो हाचे खातीर समाजांतल्या सगळ्या थराचेर चेपण हाडप हाचे खातीर हें खाते वावुरता. ख्यास्त भोगल्या उपरांत मनीस परतून वायट मार्गाक लागचो न्ही हो मुळावो विचार आसा! कितली सबीत कल्पना. हांव म्हजे काम करतलो आनी कुशीक सरतलों हे व्यसना मुक्ततायेच्या वावरांत समा न्ही. हांगा 24X7 पद्धत आसची पडटा. थायलँडान ताचेर वावर सुरू केला. नण्णी हुमटावन दुसरेकडेन पाळ धरचें ना असो दोट्टी विचार करपी थायलँडात वचपाक मेळील्ल्यान दोन सप्तकाचें ट्रेनिंग जिणे म्हाका खूब कितें दिवन गेले.

सप्तक भर तरी हांव घुंवळें वखदांच्या भकीक पडिल्ल्या मनशां वांगडा, तांका सुदारपी यंत्रणेवांगडा वावुरलों. हे व्यसनाधोन कशे जातात? सनातन प्रस्न मनात घुंवपाक लागलो. हे लोक नकारात्मक भावनेच्या हुवांरात पयलीं सापडटात आसूं येत. तांतूत भंय, चिंता, दुःख, बेचैनी आनी सगळें भोगून लेगीत सुखना अशा पांवड्यार वावुरपी हे मनीस, सदांच डिसकंटेंडेड अतृप्त असमाधआनी. ह्या असमाधानातल्यान तांची पावलां थंय वळटात. मनीस सभाव कितें विचित्र तो व्यवस्था निर्माण करता. त्या व्यवस्थेतल्यान प्रस्नूय निर्माण जाता. बंधनाची आडखळ जाता. हांतुतल्यान मागीर बंधना तोडपाचीच ताका गरज दिसता. मुक्ततायेकडे वचन दिसता. विचारी मनशालें कर्तूब हांगा वेगळें थारता. विकारी मनशाचे दुबळें मन मागीर नादाक लागता. घुंवळे वखदांच्या बाबतीत हे म्हजे विचार. हे मंथन सप्तकभर चलतालें. आयज ताची पूर्णाहूती जावन सांगता जावपाची आशिल्ली. अणभव गांठीक आसाच. ताचो गोयांक कसो उपेग करू येत हेच विचार मनांत खुबपाक लागले.

गाडी बाजारांत पावली. गाडी थारली तशे विचार बदल्ले. कितें घेवप मँगोस्टीन (भिण्णा?) रामबुटान (केसांळफळ), काँग विमानात कितले व्हरपाक मेळटलें हाचो विचार करी नासतना आमी फळां घेवपाक लागलीं. आयस आमकां मार्गदर्शन करतालें. गाडयोची डिकी फळांनी भरिल्ली. बॉल्सांतले बाथ सोंपत आयिल्ले. शे-दोनशें बाथ लागीं आसल्यार पुरो हो विचार केल्लो. सामान घेवन जड हातानी आमी हॉटेलांत भितर सरलीं. रातीचीं आठ वरां जावन गेल्लीं. इतल्या दिसांत पयलेच खेपे आमी उसरां भितर सरिल्ली. दिसभर जाल्ले धांवपळीक लागून पुरो जाल्लें. हावेन रेस्तॉरांत वचून कांय जिन्नस शिजोवपाक सांगले. न्हावन धुवन फ्रेश जाता थंय आसा. 'रूम

सर्विस' दारांत हजर. ते दिसाची डिश कितें ती सांगपाक येना पूण रुचीक लागली. नीतान म्हाका विचारलें "हो कसलो पदार्थ?" ताणेंय तो घोस्तान खाल्लो? "म्हळें गोवाका स्पेशल हय वो!" हांव सांगता ते ताका खरेंच दिसले.

खरें म्हळ्यार ग्रीन थाई करींत हावेन 'मेतकूट' घालपाक सांगिल्ले. ग्रेव्ही बरी लागताली. थाई – गोंय हाच्या मिश्रणांतल्या एक चमचमत रिसीपी जन्माक आयिल्ली. तांचो बारसो कसो करपाचो हो विचार म्हाका पडिल्लो. सदां परस इल्लें हांव चडूच जेवलो. जेवणां उपरांत समानाची बांदाबांद (खरें म्हळ्यार बॅगा आयल्या पासून कोंबा कोंब) करपाची आशिल्ली. निमाणी एक रात उरिल्ली. तशें दुसऱ्या दिसाच्यान युद्ध बी जावपाचें नाशिल्ले. पूण निमाणी रात अशें मनाक दिसलें खरें.

वचपाची उमेद वेगळी, येता आसतानाची अवस्था वेगळी. कितें हातसायलें हाचेच बराबर कितें उरता हाची गंगाजळी मांडपाक मन लागता. अणभव सगळ्याच तरांचे येतात. पूण जे अणभव जीण समृद्ध करतात ते खरे मोलादीक. व्यसनाबाबतीत खोलायेन विचार करपाक ही भोंवडी उपेग पडली. व्यसन आनी मन हाचो संबंध मांडपाक फांटभूंय मेळ्ळी. विचाराच्या ल्हारां मदींच न्हिंदेच्या सागरांत हांव अचळय कसों बुडलों. जाग आयली तसो बेगीबेग उठलों. तोंड बी धुवन जातकीय पयलेच खेपे रुमार सकाळचोच्या मागयलो. परतू सामाना जाग्यार घालपाक सुरवात केली. न्हावन धुवन जातकीर हॉटेलाच्या कॉन्टरार गेलों. चेकआवट करतलों अशें सुचोवन ब्रेकफास्टाक गेलो.

ब्रेकफास्ट जातकीच रुमार परतलों. बारांक विमान आशिल्ले. धांक आमी हॉटेल सोडपाची आशिल्ली. मदी वर भर कांयच काम नाशिल्लें. कॅमेरा घेवन व्हरांड्यात आयलों. पळोवपाचे उरिल्ले वा नदरेक पडू नाशिल्ले 'ववॉनमोर' पळोपाक लागलों. टायमपास म्हण फोटो काडले. धांक आयस् गाडी घेवन आयलें. आयज ते इन्फॉरमल दिसताले राती पावस पडिल्ल्यान वातावरण थंड आशिल्ले. मळबांत कुपां नाशिल्ल्यान सुर्य किर्णां झाडा पाना वयल्यान नाचत खेळत धर्तीर पातळटालीं. पावसाक लागून सगळें धुंवन नितळ जाल्लें. घरा परतुपी मन अशें उर्बेभरीत आसता. सैमातलें चैतन्य मनांतल्या उर्बांकडे रियाज करतालें. गाडी आयली. गाडयेंत सामान चडयलें. बाय – बाय... हात हालयत निरोप घेतलो. गाडयेत बसतकीच लांब श्वास घेतलो. ॲर पोर्टार पावता म्हणसर खबरी अशो जाल्योच ना!

म्हज्या वांगडा एक व्हडली बॅग, एक हॅंड बॅग आनी लॅटपॉप असो नग आशिल्लो. ॲरपोर्टार पावतकीय चेकईन करून बोर्डिंग पास घेतले. सामानाचें वजन केले. हॅंड बॅग फळानी टट्ट भरिल्ल्यान 10 किल वजन सुबेद जालें. सुबेज वजनाचे हावेन अंशी बाथ फारीक केले. खोन–केन ते बँकॉक पावता म्हणसर फळां किला फाटल्यान पांच रुपयांनी म्हारग जालीं. बँकोक – मुंबय आनी उपरांत मुंबय गोंय ह्या वाटेर मोल वाडून फळा भांगराळी थरना जाल्यार पुरो अशें दिसलें. विमान येवपाक दोन वरां तरी आशिल्ली. वेळ कसो काडप. लॅपटॉप काडून फोटो तारखेन आशिल्ले ते विशयाप्रमाण सुटे केले बाजारांतल्यान हाडून भाजी फ्रिजांत दवरता तो प्रकार. जशी ताजी भाजी टिकोवपाक भोव गरजेचे तशे हे फोटो विशयांप्रमाण सुटावे करप गरजेचे. संस्कृताय, सैम, लोक येरादारी, हॉटेल–रावप, शिक्षण अशे काय कप्पे हांवेन केले. पंदरा दिसातले फोटो जेवण–खाण त्यात्या फोल्डरांत घाले. ही ई–साठवण उपरांत म्हाका उपेगी पडटा. हें करपाक ॲरपोर्टापरस दुसरें, निवांत स्थळ खयचें? हांव इतलों निर्धास्त आसपाचें दुसरें कारण बँकोकच्यान एकूच विमान

दनपरां खोन केन विमानतळार येतालें. तेंच परतून वतालें. कसलोच गोंदळ ना! बोकडां भाशेन वाट चलल्यार पुरो.

''सवादी खाप!'' ॲनाउन्समेंटातलो पयलो शब्द वळखीचो दिसलो. उपरांत बँकोक हे उतर समजले. जगार सगळ्याक ॲनाउन्समेंट ह्यो अशोच आसतात. आयकुप्यान कान शिट्टकरून आपणाक जायतो शब्द तांतूत आसा काय ना. तिंतलेचं पळोवप. विमान धांवपट्टेर देंवतानाचो आवाज आयकलो आनी हावेन लॅपटॉप बंद केलो. विमानांत चडपाक लोक लायनीत उबे रावले तांतून हांवूय आशिल्लां.

विमाना खोन-केन तळावयल्यान मळबांत उडलें. म्हजी नजर पोंदा जमनीर वळखीचें कितें दिसता काय हाचो अदमास घेवपाक लागली. कुपांरयत मळबांतल्यान पोंदा पाचवेंचार खोन-केन पातळील्लें. मदीं खंयतरी 'वात' बुद्धस्तुप हिरे - मोती कशे लखलखतालीं. विमान वयर पावलें. तशे पोंदचे दृश्य घुंगरळाले. हवायो सुंदऱ्यो च्याच्या तयारेक लागल्यो. दोळे बेठेच धापून येवजीत बसलों. च्या जाता म्हणसर कमरपट्टे आवुळपाची सुचवण जाली. बँकोक तळार विमान पावत. आयिल्लें. घरगुती विमानातळा वयल्यान सामान घेवन आमी सुवर्णभुमीच्या आंर्तराष्ट्रीय तळार पावलीं. दो. निताक हांवेन म्हळें. हांव सामान परतून सारखें करतां. ट्रॉयटाच्या (मिचिगन - अमेरिका) विमानतळार आयिल्लो अणभव हांगा उपेगांत पडलो. थंय हँड बॅगात सामान चड जाल्याचे दिशिल्ल्यान हांवेन पुस्तकां बी लॅपटॉपाच्या बॅगेत भारिल्ली. (लॅपटॉपाचें वजन करपाक सांगता) हांगा फळां सांबाळून गोंयात व्हरपाची आशिल्ली. बॅगात आशिल्लो चादर काडलो. ताचेर तुवालो घालो. बॅगांतली फळां अचळय ताचेर दाळ्ळीं आनी चादराचे चारुय पोत एकठांय करून गांठ मारली. आतां तिनाचे चार नग जाल्ले. व्हडले बॅग आनी ल्हान बॅग लगेजांत घालें. चादरांत बांदिल्ल्या फळ फळावळीचें गांठूल खांद्यार मारलें. हांव त्या दिसा जर लुंगी न्हेशिल्लो जाल्यार 'अवतारी'पुरुश वा बाबा म्हण कोणूय म्हाका नमस्कार बी घालापचो. म्हण आसानी वृत्ती बगळ्याची... घ्यान लावन बसप... नुस्तें दिसलें काय चोंच मारप. म्हज्या त्या अवताराचे सेक्युरिटक अप्रूप चादरांत गुठलायल्ली फळां पळोवन ताणे 'ओ? रिलिजयस?'' असो नमळायेचो प्रस्न केलो. सेक्युरीटी, इंमिग्रेशन हे सोपस्कार जाले काय अर्दो प्रवास सोपलो अशें म्हणू येता. म्हज्या वांगडा आशिल्ल्या निताचे मात हांसून पोट दुखपाक लागिल्लें. इतले हांवने 'ते' सगळे ॲन्जॉय केले. उपरांत दोगांच्यो दोन विंगड वाटो जाल्यो. ताचें विमान दिल्लीक वचपाचे गेट नं. धा जाल्यार म्हजे मुंबय गेट न. पाच विमान सुटपाक तीन वरां इतलों व्हडलो काळ आशिल्लो. हांव एका कदेलीर बसून पुस्तक वाचपाक लागलो. ल्हव ल्हव करून पॅसेंजर येवपाक लागले. 'भारत देश महान' अशें समजुपी विंगड विंगड वाठारांतले लोक थंय आयले. थाई ॲर वेजचे विमान गेटी लागच्या ट्रॉलीकडे आयलें काऊंटरावयल्यान सुचवण्यो मेळपाक लागल्यो. फळांचे गांठूल सांबाळीत हांव विमानांत चडलों. म्हज्या कुशीक प्लायवुडाचो व्यापारी बाशिल्लो. म्यामारांत ताचो उद्योग चलतालो. हाय - हॅलो इतलेंच उलोवप जालें. विमान मळबांत उडलें तो मेरेन पुराय आसमंत काळखांत बुडिल्लो. त्या काळखांत बँकोकच्या रस्त्यावयल्यो लायटी नखेत्रां कशीं लिखलिखाल्यो. ड्रिंक्स, स्नॅक्स, जेवण सगळें ट्रेनिचे डबे कशे एका फाटल्यान एक आयले. टिव्हीच्या पडद्यार विशाखापट्टनम् पावल्याचें झळकलें. भारताच्या हद्दीत विमान शिरलें. उपरांत हैद्राबाद, नागपूर, पुणे करीत विमान शिवछत्रपती विमान तळार पावले. रातची णव वरां

जावन गेल्लीं. पूण मुंबयक णव बी म्हळ्यार व्हडली रात न्ही. विमानातल्या देवून इंमिग्रेशन कांवन्टरार हांव पावलों. पासपोर्टार शिक्के मारून घेतले. स्वायन्फ्ल्युच्या संबंधातल्या नाटकाचो प्रवेश सोपंयलो. उपरांत लगेज घेतलें. मुंबयचो आंतरराष्ट्रीय विमानतळ सदांच दुयेंत पडपी मनशा भाशेन दिसता. थंय केन्ना कोणाक खंयच्या 'इमर्जन्सीक' वचचें पडत ते सांगपाक येना. कस्टम चेकींग हो सोपस्कार असोच आसा. दुबय आनी बँकोकच्यान येवपी लोक कस्टमाक कितें तरी भारतांत मोलाच्यो वस्ती हाडटात अशें थंयच्या अधिकाऱ्याक दिसता आंसू येत. म्हजेकडे तसल्यो कांयच वस्तु नाशिल्ल्यान हांवें ग्रीन चॅनलांतल्यान वचपाच्या लायनीत रावलों. पूण म्हाका थंयच्या अधिकाऱ्यान स्कॅनिंगाक वच अशें सांगले. ग्रीन चॅनल म्हळ्यार म्हजे लागीं डिवलेर करपासारखें काय ना. हांव नेमा प्रमाण वागता अशें जांका दिसता तांचे खातीर वेगळी सोय. ग्रीन चॅनलांतल्यान वतकीच लेगीत तुमका अधिकारी बॅग उगडपाक सांगू शकता. उपरांत तुमी सांपडले जाल्यार खुबसो दंड. हाचेपरस स्कॅनिंग करून तुमी तुमचेकडे तसल्यो कांयच वस्तु ना हें जाहीर करून तपसाणी करून सुटू येता. म्हजे बॅग, फळांचे गाठूल सगळे स्कॅन जाले. पूण थंयचो फार्मार शिक्के मारपी मनीस मदींच उठून गेलो. फॉर्मावयलो शिक्को पळोवन हवालदार भायर सोडटा. पूण मदी थंय ग्रीन चॅनलांतल्यान वचपी कोणाची तरी चोरी अधिकाऱ्यांनी धल्ली इल्लो बोवळ जालो. मदीं आमी अडकले. बेठेच तिशठत रावपापरस हावे चान्स घेवपाचो थारायलो. तो फॉर्म हवालदाराक दीत 'नमस्कार साहेब! हा घ्या आमच्या फॉर्म!'

''जावूं का मी साहेब?'' छत्रपती शिवाजी महाराज विमानतळार मराठितली खणखणीत उतरां आयकून मावळ मिशा आड लिपिल्ले ओंठ हालोवन बरें हासलो. ''जाकी!'' त्या मावळ्याचे फर्मान आयकून म्हाका सू जाले. गडबडेंत तो फॉर्म ताणें परतून म्हजेंचकडेन दिलो. भायर सरतकीच रिक्शांत बसून हांव फुडल्या प्रवासाक लागलों. रिक्शाचे धक्के बसताले तशें हांव मनात बुद्धाचो जप करपाक लागलो. बुद्धम् शरणंम् गच्छामि.... सहज तोंडार उतर आयलें. तन भारतांत पावलें तरी मन खोन-केनातल्या बुद्ध वातां वरणांतवावुरताले. ●●●

# जेवणावळ



डॉ. रिना साहिल लवंदे

## अळम्याचें तोणांक

**साहित्य –**

100 अळमीं, 7-8 कांदे (बारीक चिरुन), 10 लवंगा, 20 तांबड्यो सुवयो मिरसांगो, पाव जायफळ,1 ल्हान कुलेर खसखस, 2 इंच तिखी, 1 पत्री, 2 पाकळ्यो दगडफूल, 5-6 लसणी पाकळ्यो, लिंबा इतली आमटाण, 1 नाल्लाची सोय, 1 ल्हान कुलेर हळदी पिठो, 1 व्हड कुलेर कोथमिऱ्यो, तेल, मीठ.

**करपाची तरा–**

अळमीं धुवून घेवचीं. बारीक शिनचीं, 6 कांदे आनी अळमी एका तोपान एकठांय शिजोवचीं. सोय आनी सगलो गरम मसालो बारीक वांटून घेवचो. हें वांटप ह्या शिजयल्या अळम्यांत घालचें. मीठ घालून एक खतखतो येतकच बरें चाळून रान्नीवयलें सकयल काडचें.

## चिकन सुक्का

**साहित्य –**

1 किलो चिकन (बारीक कुडके करून), 3-4 तांबडीं टोमाटां (बारीक चिरुन), 2 मध्यम कांदे (चिरिल्ले), 2 ल्हान कुलेरां हळदी पिठो, 1ल्हान कुलेर जिरें, 1 ल्हान कुलेर कोथमिरेचो पिठो, 5 लसणी पाकळ्यो, 1 इंच आलें, 4 लवंगां, 1 ल्हान कुलेर मिरयांपिठो, तेल, 1 वाटी कोथमिरेची भाजी, मीठ, दोन चिकन मॅगी क्युबस.

**करपाची तरा –**

लसूण आलें, जिऱ्या पिठो, कोथंमिरे पिठो, हळदी पिठो, मिरयां पिठो, लवंगां, आनी मॅगी क्युबस हें उदक घालून सुकेशें वाटून घेवचें. हें वांटप चिकनाक लावून 2-3 वरां दवरचें. मागीर एका आयदनात तेल घालून तातूंन कांदो तळसून घेवचो. कांदो गुलाबी जातकीर, टोमाट घालून बरें तळसून घेवचें. मागीर तातूंन वांटप लायिल्लें चिकन घालून बरें चाळचें आनी धांपणे घालून मंद उजाचेर 5-10 मि. शिजपाक दवरचें. परत एक फावट चाळून 5 मि. शिजोवचे. शिजल्या उपरात वयर कोथमिरेची भाजी घालून खावपाक दिवचें.

## सुगंटाचो बाल्चांव

**साहित्य –**

2 वाटी उजरायल्ली सुंगटां, 3 इंच आलें (बारीक केल्लें), 5-6 लसूण पाकळ्यो, 15 तांबड्यो काशमीरी मिरसांगो, 10 लवंगां, 1 ल्हान कुलेर जिरें, 2 इंच तिखी, 5 कांदे (बारीक चिरिल्ले), 5 टोमाटां (चिरुन), 1 वाटी तेल, 2 ल्हान कुलेरां साकर, मीठ

**करपाची तरा –**

सुंगटां उजरावन बरी धुवून घेवचीं. ताका मीठ लावून 10-15 मिनटां दवरचीं. मागीर आलें लसूण जिरें, मिरसांगो, लवंगां, तिखी बरी बारीक थोडें उदक घालून वांटून घेवचे. एका तोपान तेल तापोन तातून हीं सुंगटां म्हातशीं परतून घेवचीं. तीं काडून कुशीक दवरचीं. त्याच तेलांत कांदो बरो गुलाबी जायसर तळसुपाचो तांतून टोमाटां घालपाचीं. टोमाटाक जशें तेल सुटलें म्हणटगीर तांतून हें, वांटप घालून, 5 मि. शिजोवपाचें. मागीर तांतून सुंगटां, साकर, मीठ घालून 5-7 मि. शिजोवपाचें.

## केळ्यांची करम

**साहित्य –**

3 खापरी केळीं, 1 वाटी सोय, 4 मिरयां, 1 कांदो (चिरिल्लो), 3 हरव्यो मिरसांगो, चवी पुरती साकर (जाय जाल्यार), सुपारी येदी आमटाण, मीठ.

**करपाची तरा –**

केळीं धुवून कुडके करून बरीं उकडून घेवचीं. उकडतकीर भायली साल काडून वडवची. उकडलेल्या केळ्याचे कुडके बारीक शिनचे. सोय, मिरयां मिरसांगो मीठ, आनी आमटाण बारीक, वांटून घेवचीं. जेवच्या वेळ्यार हें वांटप, केळ्यांचे शिनील्ले कुडके आनी कांदो एकठांय करून पानार वाडपाचो.

## लाडवाचो केक

**साहित्य –**

1 लाडू (250 ग्रा. सुमाराचो), 1 वाटी सोय, अर्ध वाटी गोड, उदक, ल्हान कुलेर तूप.

**करपाची तरा –**

लाडू बारीक फोडून घेयात. तो एका आयदान उदक घालून अर्धवर भिजत दवरात. गोड आनी सोय वांटून घेयात. हे वांटप ह्या. लाडवाच्या मिश्रणांत घालात. मीठ जाय जाल्यार घालपाचें हें मिश्रण बरें चाळून घेयात. एका केकाच्या आयदनाक तूप लावून हे मिश्रण तांतून घालून ओव्हनात 150 अश अर्धवर भाजून घेयात.

●●●

# 2 years of quality
# years of reliability
# years of care

## FREE 108 EMERGENCY RESPONSE SERVICES
## Celebrates 2 years of Citizen Safety



**CALL 108 EMERGENCY**
• MEDICAL • POLICE • FIRE

### A Life Saving Initiative by
### The Ministry of Health, Govt. of Goa





### HIGHLIGHTS

- A public-private partnership of the Government of Goa with EMRI
- 24x7 free Emergency Response Service
- 108 is a toll-free number to get help in medical, police & fire emergencies
- Accessible from landline or mobile without suffixing or prefixing any number
- Following the resounding success of the "108 emergency services" in Goa, the development of Emergency Rooms By GVKEMRI in collaboration with the Government of Goa in the Health Centers have achieved great success and played a crucial role in providing Emergency Health Care to the people of Goa.
- The current fleet of 22 ambulances to be increased to 29 by 19th December 2010. This is the best ambulance to population ratio in the Country as per WHO guidelines.

### Types of Emergencies handled by 108:

- Vehicular trauma
- Pregnancy related
- Animal Bite
- Assault
- Neonatal/Pediatric
- Fever
- Non-vehicular trauma
- Acute Abdomen
- Poisoning/Drug Overdose
- Epilepsy
- Stroke/cerebrovascular
- Cardiac/cardiovascular
- Respiratory
- Diabetes
- Fire/Burns
- Unconscious

GVK EMRI

PARTNERS IN THE LIFE SAVING INITIATIVE

DIRECTORATE OF HEALTH SERVICES | GOA MEDICAL COLLEGE | EMERGENCY MANAGEMENT AND RESEARCH INSTITUTE

*Issued by* : DEPARTMENT OF INFORMATION & PUBLICITY